


डिसेंबर २००९

गोंयकार चित्रपट निर्मात्यांक राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय स्तरार मान्यताय मेळूंक लागल्या.

तैवानाक भांगरा मोर

# कलाकारांखातीर माचयेची उभारणी






- कलाकार कृतज्ञताय निधी: कलाकारांक अपंगत्व, अपघात, अकाली मृत्यू आदी अरिश्टां प्रसंगी तांच्या चलयांच्या लग्नाक पालव, आयज मेरेन असल्या घडणुकांत ५५ जाणांनी हे येवजणेचो लाब घेतला.
- अर्विल्ल्या सुविधायांची दोन जिल्हो वाचपघरां, दोनूय जिल्ह्यांत तयार जातात.
- कला गौरव पुरस्कार चालीक लायल्यात आनी तो दर वर्सा ६० कलाकारांक भेटोवन भोवमान करतात. आयज मेरेन १७९ कलाकारांचो भोवमान जाला.
- राज्याच्या सांस्कृतीक दायजाची जपणूक करूंक १४० संस्थांक आर्थिक पालव भेटयला.
- दरवर्सा १२ ते १६ उत्कृश्ट कलाकारांक गोंय राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार भेटयतात. २१८ कलाकारांक हे सांस्कृतीक पुरस्कार भेटयल्यात.
- ७६१ भजनी आनी १९३ अस्तंत संगीत गटांक संगीत वाद्यांची भेटवण.
- तियात्रांची वेवस्तीत वाढ जावंचेपासत तियात्र कलाकारांक उर्बा दिवंक तियात्र अकादेमीची स्थापना.
- युवा सृजन पुरस्कार भेटयल्यात.

Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa



Working towards a Secular & Prosperous Goa

वर्स : २ अंक १२

(आरएनआयचे नोंदणी खातीर तांत्रीक बदल)

डिसेंबर २००९

मूळ वर्स : ८ अंक १२

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक

दिलीप बोरकार

भुरग्यांचें आंगण संपादन

सुफला रुद्राजी गायतोंडे

मुद्रक आनी प्रकाशक

दिलीप बोरकार

छापणावळ

सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी

मार्केटींग व्यवस्थापन

कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ

श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर

वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक 'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो



संपादकीय पत्रव्हाराचो पत्तो

'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,

आगशी - गोंय ४०३ २०४

दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५

E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in








कोंकणी मासिक

# बिम्ब

संपादकीय

# सांस्कृतीक धोरण चालीक लागतलेंच !

**डि**सेंबर २००९ चो हो बिम्ब, बिम्ब मासिक म्हूण अंक केल्या उप्रांतचो ९४वो अंक. आमी बिम्ब मासिक म्हूण ह्या म्हयन्याक आठ वर्सां पुराय करतात. फुडल्या वर्सा, २०१० वर्साचो पयलो अंक घेवन आमी ९व्या वर्सांत पावल घालतले. फक्त फाटलीं आठ वर्सां चलत आयलां तशेंच फुडलेंय वर्स चलयतले म्हणत फक्त भोगावळ म्हूण न्हय तर कर्तृत्वी कोंकणी मनशाच्या आवयभाशेंतलें एक दर्जेदार मासिक म्हूण!

फाटलीं आठ वर्सां हें मासिक सगळे तरेचो दर्जो सांबाळपाखातीर आनी तो सांबाळून नेमान वाचकांच्या हातांत दिवपाखातीर आमकां नानातरांची तकालस घेवची पडल्या. दर म्हयन्याक सातत्यान अंक येवंक जाय जाल्यार एका मासिकाक जाय तें सगळे तरेचें साहित्य नेमान आनी वगतार मेळूंक जाय. कोंकणीच्या बऱ्या नशिबान आमकां साहित्याची वाण केन्नाच पडूंक ना. ह्या आठ वर्सांत स्वताक ज्येश्ठ म्हणोवपी साहित्यिकांचें साहित्य जरी आमकां आयलेंना तरी नव्या नव्या बरोवप्यांनी सातत्यान साहित्य धाडून आमची गरज भागयल्या. तांच्या साहित्याक प्रसिध्दी दिवंची म्हूण आमी साहित्याच्या दर्जाकडेन लेगीत कांय वेळार आडनदर केल्या. ते पासत आमी कित्या कितेंय छापतात असो आरोप जाता. पूण ह्याच बरोवप्यांचें साहित्य दर्जो ना म्हूण कडेक दवरून जर दर्जेदार साहित्याची वाट पळयत रावले जाल्यार निकत्याच आंकरी फुटूंक लागिल्ल्या रोपांक फुलूंक फळूंक आमी केन्ना दितले? ह्याच बरोवप्यांकडल्यान आमकां दर्जेदार साहित्यिक मुखार हाडपाचे आसात

एक दर्जेदार मासिकचलयतले जाल्यार ताका तशी दुडवांचीय खावड जाय पडटा. फकत वर्गणीदारांचेर आनी दुकानांचेर इफ्फी दोन चार अंक खपले म्हूण मासिक चलना. ताका जाय पडटा सरकारचो आनी उद्योजकांचो जायरात रूपान आदार... तातूंत कोंकणीची अवतीकाय कुंडेकुस्कुरा सारकी. हेर इंग्लेज, मराठी, हिन्दी बी भासांतल्या नेमाळ्यांवरी कोंकणी नेमाळें 'ग्लॅमर' दिना. स्टेटस् वाडयना. कोंकणींतलें नेमाळें म्हळ्यार कुंडेकुस्कूर. ताका राजकुंवरीच्या पाटार कोणें बसोवपाचें?

आमी कोणाक हांगा शिणनांत. एक मासिक चलोवप ही आमचीच मक्तेदारी न्हय. ज्या राज्याची राजभास कोंकणी त्या राज्याचे राजभाशेंतलें तें मासिक. कलाप्रेमी दिगंबर कामत ज्या राज्याचे मुखेलमंत्री आसात त्या राज्यान आपलें सांस्कृतिक धोरण आखलां. त्या सांस्कृतीक धोरणांत थळाव्या भाशेंतल्या मासिकांक आदार दिवपाचें उतर दिलां. सांस्कृतीक धोरण चालीक लावन काळ सरलो तरी आमच्या सारख्यांक सरकाराकडेन जायरात रुपान आर्थिक पालव मेळोवंक लेंगेलेंगे करचें पडटा. महामंडळां आनी हेर खातीं हेर भासांतल्या नेमाळ्यां खातीर जायरात दिवन दुडू खर्चिता. आमच्या वाट्याक मात फावश्यो जायराती येनांत. म्हायती खातें तर भीक घाल्लेवरीं करीत आडावन दाखयता.

कोंकणी मासिक चलोवपाची, कोंकणी साहित्य लोकांमेरेन पावोवपाची मक्तेदारी फकत कोंकणी कार्यकर्त्यांची न्हय. ती सगळ्या गोंयकारांची जबाबदारी. आयज गोंय गोंयकारांच्या हातांत उरूंक ना. गोंयांत जे लोक येवन भल्ल्यात आनी गोंयच्यो सगळ्यो सुविधायो घेवन गोंयांत उद्योग चलयतात तांका गोंयचें कांय पडून गेल्लें ना. तांका गोंयकारांचेंय पडूंक ना आनी कोंकणीचेंय.

पूण गोंय सरकाराक तें पडून वचूंक जाय. धेंपे, साळगांवकार, तिंबलो हांका कोंकणीचें कार्य हें आपलें कार्य दिसूंक जाय. कित्याक तांचें कोंकणी बगर जरी चलता आसलें तरी तांची वळख संवसारांत जाता ती कोंकणी मनीस म्हूण. तांची अस्मिताय कोंकणी. तांका कोंकणी म्हणूनच संवसारांत मान मेळटलो. म्हणटकच ताणीं आपूण जावन कोंकणीक तेंको दिवं नाका? एक अवधूत तिंबलो सोडलो जाल्यार हेरांक कोणाकूच बिम्ब मासिकाचेंय पडूंक ना आनी कोंकणीचेंय पडूंक ना.

गोंयांत दर वर्सा इफ्फी जाता. सगळ्या भासांतल्या दिसाळ्यांक लाखांनी रुपयांची जायरात वता. पूण कोंकणीच्या वांट्याक कितें? बिम्ब मासिकूय दर वर्सा आपले तांकी प्रमाण इफ्फीची म्हायती गोंयच्या तशेंच गोंयां भायल्या कोंकणी वाचकां मेरेन पावयता. ती वेवस्तीत पावचे खातीर इफ्फीच्या आयोजकांनीं थोडें तरी सहकार्य करूंक नाका? ही गजाल मनरिजण संस्थेचे अध्यक्ष आनी गोंयचे मुखेलमंत्री दिगंबरबाब कामत हांका सांगली तेन्ना ताणींय मान्य केलें की अशें जावंक जाय. तेच पासत आमी आमचे परीन ८० पानांचो हो अंक काडपाचो यत्न केला.

वर्सातल्यान एकदां तरी कोंकणींतलें एक मासिक हेर भासांतल्या मासिकावरीं रंगीत येता हें आमकां दाखोवपाचें आशिल्लें. ह्या अंका सावन आमी ताका आरंभ केला. मुखेलमंत्र्यांनी सहकार्य करपाचें उतर दिलांच. त्याच हावेसान केल्लो हो एक प्रयोग. कोंकणी कुंडेकुस्कूर न्हय हें दाखोवन दिवपाचो. आमीय दर्जेदार रंगीत अंक काडूंक शकतात आनी चडांत चड लोकांमेरेन तो पावोवंक शकतात हें दाखोवन दिवपाचो.

ह्या वावराक आमी आरंभ केला. तुमचें सहकार्य जाय.

सगळयांक नव्या वर्साच्यो शुभेच्छा!




# जम्बो दिवाळी अंक

संपादक बिम्ब,

जम्बो दिवाळी अंक पावलो. वाचलो. २००८ वर्सा परस ह्या वर्साचो अंक जास्त वाचनीय आसा. अभिनंदन.

म्हाका ह्या दिवाळी अंकांत आवडलें तें साहित्य संक्षे पान बरयतां :

देविदास कदम हांची शेवट ही कथा, जयमाला दणायत हांचो मनशालें खरें रूप, नंदा बोरकार हांगेलो पोर्तुगेज गोंयचें वातावरण, पद्मनाभ नायक हांचें होन्नावर कोंकणी, ए. पी. भानूप्रकाश हांचो कोच्ची कोंकणी तशेंच माया खरंगटे हांगेली शब्दकळा भोवच आवडली.

शामकांत मर्गज हांचो मालवणी भाशेंतलो विनोदी लेख आवडलो. तशेंच अतूल पंडित (विनोद), सुफला गायतोंडे (कौटुंबीक विशय), इंदू गेरसप्पे हांचें भाशा सौंदर्य आवडलें.

दिलीप बोरकार हांचें काश्मीरचें प्रवासवर्णन आनी अनिता नायक हांच्यो आनी हेरांच्योय कविता आवडल्यो.

एक सुंदर दिवाळी अंक, वाचनीय असो भेटयल्या बद्दल तुमकां सगळ्यांक परबीं.



**– विठ्ठलराय भट**
आंबटकर कंपौंड
आंबिवली (प.)
पो. मोहने,
जि. ठाणे – ४२११०२
**मो.: ९२२१३०९७५८**

# अनुक्रमणिका सोदची पडूंक फावना!...

हॅलो दिलीप,

हांव अना उलयतां. तुजो दिवाळी अंक मेळ्ळो. बरो आसा. आवडलो. सगळें बरें आसा.

अना, तूं कसो आसा? तुजें कांयच ना ह्या दिसांनीं! तुज्या साहित्या बगर दिवाळी अंक अर्दकुटे लागतात. खंयचोय दिवाळी अंक आयलो म्हणटकच सगळ्यांत पयलीं तुजें साहित्य वाचपाची संवय लागल्या. बरोवपाक अडचण जाता?

हय, सगळें शीलाचेर अवलंबून आसा. ताका फोनाचेरूच डिक्टेट करतां. ताका फावल्यार बरोवन जाता.

जागाक कांय बरोवंक ना?

म्हळ्यार हय, म्हळ्यार ना.

म्हणचे आमकां वाचूंक मेळटलें तर!

पळोवया!

शीलाक म्हाका दिसता वेळ मेळना. म्हाकाय ताणें हे फावट कांय बरोवं ना.

आसत.

हावें फोन केल्यार म्हाका डिक्टेट करशी? म्हाका फावता तो वेळ सांग. हांव फोन करतां.

सुचता तेन्ना सांगतां. हरशीं बरो मरे तूं? अंकाचें सांगपाचें जाल्यार अनुक्रमणिका पयल्या दोन पानांभितर आसूंक जाय. सोदची पडूंक फावना! बरें मेळुया.

(अना म्हांबरो हांचेकडेन फोनावेलें उलोवप.)




**तुमचो बिम्ब मासिक**
**तुमच्याच पालवान**
**जानेवारी २०१० च्यान**
**बिम्ब मासिक म्हूण**
**९व्या वर्सांत पावल घालता.**

२०११ ह्या वर्सा गोंय आपल्या मुक्तीच्या भांगरा उत्सवांत भितर सरता. तेन्नाच बिम्ब मासिकाक १०वें वर्स लागतलें. गोंयचे मुक्तीचो भांगरा उत्सव भांगराळोच आसतलो. कोंकणी ही मुक्ततायेचो मंत्र दिवपी भास. हे भाशेंतलें बिम्ब मासिक भांगराचें न्हय तरी रंगरंगयाळें जावं येता. तें तशें करप म्हळ्यार दरेक कोंकणी मनशाच्या कर्तुत्वाची कुरू. हो अंक आमी रंगयाळो करपाचो यत्न केला. तसोच तो फुडल्याय वर्साचो करुया. म्हणटकच त्या फुडलो अंक नक्कीच रंगीत येतलो हातूंत दुबाव ना.

आमी प्रयत्न करतातच. तुमचेंय सहकार्य जाय.तें कशें मेळटलें हें तुमी थारावचें.

**सगळ्यांक येवपी वर्स**
**सुखासमाधानाचें आनी**
**स्वाभिमानाचें वचूं.**

**– कामिनी किणी**
वेवस्थापक

# गोंयकार चित्रपट निर्मात्यांक राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय स्तरार मान्यताय मेळूंक लागल्या.



'पणजेंत २३ नोव्हेंबर ते ३ डिसेंबर २००९ ह्या काळांत ४० व्या भारतीय आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाचें आयोजन जाता ही खऱ्यानीच अभिमानाची गजाल.

चित्रपटाचीं मुल्यां, चित्रपट वेवसाय हांचेर लक्ष केंद्रीत करपी खऱ्या अर्थान आंतरराष्ट्रीय दर्जाचो चित्रपट महोत्सव आयोजीत करपा खातीर गोंय सरकार बांधील आसा. चित्रपट महोत्सव संचालनालयाचे मजतीन महोत्सवाचें सहआयोजन करपा खातीर स्थापन केल्ल्या गोंय मनरिजवण संस्थेची प्रगती जायत वता ते विशीं म्हाका समाधान भोगता. गोंयांत चित्रपटमळाची सातत्यान जावपी वाढ आनी ह्या मळार मेळपी वाडटो प्रतिसाद ह्यो गजालीय समाधान दिवपी आसात. गोवा सिनेफायल मदलो वाडटो आसपाव, गोंयकार चित्रपट निर्मात्यांचे संखेतली वाढ, एक जनेल येवजण आनी हेर येवजणांच्या माध्यमांतल्यान चित्रपटांक मेळपी वाडटें फाटबळ ह्यो गजाली गोंयांत चित्रपटांक संस्कृताय गतीन विसकीत जाता म्हणपाचें दाखोवन दिता. गोंयकार चित्रपट निर्मात्यांक राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय स्तरार मान्यताय मेळूंक लागिल्ल्यान भारतीय चित्रपट मळार म्हत्वाची भुमिका करूंक गोंय राज्य आयज सज्ज आसा.

चित्रपटांच्या चित्रिकरणाचें एक केंद्र म्हूण गोंय आंतरराष्ट्रीय स्तरार आवडीची सुवात जाला. तुमचे भेटीत तुमी गोंयचें सैम आनी शिल्पकलेक नियाळटना तातुंतल्यान तुमकां बरेंच कितें गावतलें हाची म्हाका खात्री आसा.

चाळीसाव्या भारतीय आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवा खातीर हांव सगळ्यांचें काळजा थावन स्वागत करतां. आपली गोंयची भेट यादींत उरपा सारकी जातली अशें उतर दितां. तुमचें सहकार्य, योगदान आनी सदिच्छा ह्यो गजाली तुमची गोंयभेट संस्मरणीय जावंक आदार करतल्यो.



इफ्फी २००९ चें उक्तावण करतना मुखेलमंत्री दिगंबर कामत, मुखेल सोयरी वहिदा रेहमान, केंद्रीय म्हायती आनी प्रसारण मंत्री अंबिका सोनी, मनरिजवण संस्थेचे उपाध्यक्ष फिलिप नेरी रॉड्रीगीस, मुखेल सचिव श्रीवास्तव आनी हेर.

गोंयचे कलाप्रेमी मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हांणीं ह्या उतरांनी संदेश दिवन ४० व्या भारतीय आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाचें २३ नोव्हेंबराक उक्तावण केलें आनी जेन्ना ३ डिसेंबराक महोत्सव उलगलो तेन्ना तांणीं दिल्ल्या संदेशाप्रमाण हो ११ दिसांचो महोत्सव तंतोतंत दबाज्यान जालो अशें म्हणचें पडटा. त्या खातीर विरोधकांनी लेगीत मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हांची तोखणाय करूंक फावो.

स वर्सां पतलीं गोंयांत इफ्फी आयलो. तो ते काळार सत्तेर आशिल्ल्या भाजपान गोंयांत हाडलो म्हणटात. त्या वेळचे मुखेलमंत्री मनोहर पर्रीकार हांकां त्या काळच्यो केंद्रीय म्हायती आनी प्रसारण मंत्री सुषमा स्वराज्य हांची ती भेट आशिल्ली अशेंय उलोवणें कानार पडटालें. आरंभाक इफ्फी विशीं खुबशे गैरसमज गोंयांत पातळिल्ले. इफ्फी म्हळ्यार फेस्त आनी जात्रा असो एक समज भोवतेकांनी करून घेतिल्लो. कांय अर्थान तो खरोय आशिल्लो. कारण इफ्फीच्या आयोजनान आरंभाकूच एक वेगळे तरेचो रंग जनमानसा मुखार दवरिल्लो.

जेन्ना स वर्सां पयलीं इफ्फीक आरंभ जालो तेन्ना ह्या इफ्फीचेर २४ कोटी रुपया खर्च जाल्ले. साधन सुविधायो उपलब्ध करून दिवपाच्या नांवान हो खर्च जाल्लो. जंय शिजता थंय करपता हे उक्ती प्रमाण ह्यो सुविधायो उबारपाच्या वेळार खूब कडेन करपल्लें. करपता ताचो वासूय येतालो. पूण शिजता न्हय! थोडें करपतलेंच अशें गोंयकार उलयताले आनी जें कितें बरें ताची तोखणाय करून हेर गजालींकडेन आडनदर करताले. गोंयकारांचो हो एक गूण. खातात जाल्यार खावं, पूण करतात न्हय कितें तरी! अशें म्हणत माफ करपाचो. हाचो गैरफायदो मागीर खूब जाणांनी घेतलो. इफ्फीचें आयोजन म्हळ्यार चरपाचें कुरण समजून बऱ्याच लोकांनी धंयार धुमको माल्लो. हाकाच लागून गोंयांत इफ्फी नाका अशेंच कितें तरी चित्र तयार जावंक लागिल्लें.

पूण हे खेप मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हांणीं ह्या गजालींचेर अंकूश दवल्लो. महोत्सवाचे भितोडेक रावून मनरिजवणेच्या कार्यावळींचें आयोजन करपाच्या नांवान कांय लोक आपलीं बोल्सां भरताले. हीं बोल्सां भरप इतल्यार पाविल्लें की जणएकलो खोऱ्यांनी दुडू कसो ओडूंक मेळटा हाचेरूच लक्ष दिवन आसताले. तांकां इफ्फीच्या आयोजनाचें आनी यशाचें कांयच पडून वचूंक नाशिल्लें. गोडाचे धेंपीक संवकल्ले हे सगळे दोमळे लज, भीड, मुर्वत बाळगिनासतना फकत गोडाक दसून आशिल्ले.

पोरूं वर्सा मुंबय सावन कलाकार हाडून तांच्या मानधना परस दुपेट रक्कम उखलपा खातीर मंत्र्यांच्या कांय जावंयांनी पावणीच काडिल्ली. हाका लागून गोंयचें नांव इबाडिल्लें. जे पद्धतीन ही पावणी आनी लुबाडप जातालें तें पळयल्यार हीच काय ती इफ्फी असो प्रस्न पडटालो.

मुखेलमंत्री दिगंबर कामतीन ही गजाल पारखिली. मनरिजवण संस्थेचे अध्यक्ष म्हूण तांणीं अंदू शिटूकसाण दाखयली. जे कोण आयोजनाच्या नांवान फकत लुटपाक येतात तांकां पयस दवरप शक्य नासलें तरी तांचे खावपाचे दांगेच लॉक करून उडयले. कुल्ल्यो धरपी कुल्ल्यांच्याच दांग्यांचीं पोतां काडून कुल्लेच्या मुखेल दांग्यांक जशें लॉक मारतात तशें मुखेलमंत्र्यान माल्लें आनी ह्या हितसंबंदी लोकांचो वारोच काडून उडयलो.

एकाच धपक्यान हें सगळें जरी पयस

जावंक शकना आसलें तरी एक बरी सुरवात मुखेलमंत्र्यांनी केली. आमचे गोंयकार बरे तरेन इव्हेंट मॅनेजमेंट करूंक शकतात. इव्हेंट मॅनेजमेंटाच्या नांवान लूट मारूंक कोणाक दिवपाची गरज ना हें तांणीं हे खेप सिद्ध करून दाखयलें आनी इफ्फी फाटल्या वर्सा परस चड यशस्वी करून दाखयली. ते पासत मुखेलमंत्र्याचें अभिनंदन. तांणीं इफ्फी योग्य ट्रेकार हाडून गोंयकारांच्या मनांत आस्त जागयल्या.

## इफ्फी गोंयांक नवो आयाम दिता

चित्रपट म्हळ्यार आयज मनीस जातीची एक गरज जाल्या. चित्रपटाक पयलीं छंद म्हूण पळयताले. आयज ताची गरज जाल्या. चित्रपट हो आयच्या एकंदर समाज संस्कृतायेंत माध्यम संवादांतलें पयल्या नंबराचें साधन आसा. आयज थेटरांत वचून सिनेमा पळोवप्यांचो आंकडो जरी उणो दिसलो तरी ताचो अर्थ लोकां मदली चित्रपटांची आवड कमी जाल्या असो न्हय. लोकांगेर दूरदर्शन आसा. ताच्यावेल्या चॅनलांचेर आतां नवे नवे सिनेमा घरा कडेन बसून पळोवंक मेळटात. व्हिडीओचेर आपल्याक जाय तो सिनेमा पळोवंक मेळिल्ल्यान थेटरांनी वचपाची तकालस चडशे लोक घेनांत. हाका लागून लोकांक चित्रपटाची आवड ना म्हणप समा जावपाचें ना.

चित्रपट असो सगळ्या लोकांचें काळीज जिखून घेतनाच चित्रपट महोत्सवांचीय संख्या वर्सानवर्स वाडत आसा. वर्सा कणकणी नवनवे महोत्सव सुरू जातात आनी ताका सगळ्या थरांतल्या रसिकां कडल्यान येवकार मेळटा.

चित्रपट ही कला आयजवेरच्या एकंदर कलांक आसपावन घेवन, प्रगत तंत्रगिन्यानाचो पालव घेवन आयज हीच कला सगळ्यांत वयल्या स्थानार आसा. नाट्य, संगीत, चित्र, साहित्य हाचो सगळ्या आंगांनी योग्य वापर करून मनशांच्या काळजा कडेन थेट संवाद करपी हें माध्यम आसा. चित्रपट निर्मितींत विंगड विंगड निर्मितीक्षम कलांचो, तंत्रांचो आसपाव जाता आशिल्ल्यान ह्या माध्यमाकडेन संबंद आशिल्लो दरेक कलाकार हो एक सर्जक आसता. मानवी जिवनाक उभारी दिवपी ह्या कलाकारांची चित्रपट ही एक संयुक्त निर्मिती. ते पासत आयज चित्रपट संस्कृताय रूजवणां घालपा खातीर जगांतलीं सगळीं राष्ट्रां कितें ना कितें प्रयत्न करीत आसात. ही संस्कृताय जागोवपा खातीर आनी तिगोवपा खातीर चित्रपट महोत्सवाचें आयोजन करतात.

गोंयांत आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव सुरू जावन स वर्सां पुराय जाल्यांत. पयल्या महोत्सवा वेळार एक नविदाद आशिल्ली. ती नविदाद आनी त्या फाटलें कुतुहल आयज गोंयकारां मदीं उरूंक ना. गोंयकार चित्रपट मोग्यां मदीं गांभिर्य आयलां. दर वर्सा महोत्सवाच्या आयोजनांतली शीस्त आनी गांभीर्य वाडत आसा म्हणपाचें ह्या महोत्सवान सिद्ध केलां.

संवसारभर चित्रपट मळार कितें चल्लां, कलाकार सामान्य



## इफ्फीक संवसारीक दर्जोमेळोवन दिवपाचो यत्न करतलीं – अंबिका सोनी

शेगीत चाळीस वर्सां 'आंतरराष्ट्रीय' हें विरूद लावन चित्रपट महोत्सव घडोवन हाडपी चित्रपट महोत्सव संचालनालयाचे कार्य पध्दतीचेर दुबाव घेवं येता असलो प्रकार इफ्फीच्या उक्तावणार घडलो. इफ्फीचें उक्तावण केल्या उपरांत उलयतना केंद्रीय म्हायती आनी प्रसारण मंत्री अंबिका सोनीन हो महोत्सव संवसारीक दर्जाचो करपा खातीर खास समिती स्थापन करतले म्हणपाचें सांगलें. हाचोच अर्थ असो की फाटलीं ४० वर्सां जाका आमी आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव म्हूण पाचारतात तो आंतरराष्ट्रीय दर्जाचो ना वो ताका भारत सोडल्यार हेर देश आंतरराष्ट्रीय मानपाक तयार नांत.

इफ्फींत दर वर्सा संवसारांतले भोवतेक देशांतले प्रतिनिधी आपआपल्यो प्रवेशिका घेवन येतात. पुराय संवसारांतल्यो नासल्यो तरी थोड्यो जरी भायल्या राष्ट्रांतल्यो प्रवेशिका आयल्यो तरी तो तांत्रीक नदरेन आंतरराष्ट्रीय महोत्सव जालोच. मागीर केंद्रीय म्हायती आनी प्रसारण मंत्र्यांक अशी समिती स्थापन करपाची गरज कित्याक पडली?

इफ्फीचो दर्जोवाडोवपा खातीर आनीक कितें करूं येता हे विशींची सुचना लोकांनीय करूं येता आनी ह्यो सुचना जर योग्य आसत जाल्यार त्यो स्वीकारतले अशेंय अंबिका सोनी हाणीं सांगलें. भारत ही करमणुकीविशींची महासत्ता आसा आनी चित्रपट विशयक कार्यक्रमा खातीर गोंय हें एक व्हड केंद्र मुखार येवंक लागलां अशेंय ताणीं म्हळें. संवसारीक कॅलेंडराचेर इफ्फीची नोंद जावची इतलो तो लोकप्रिय करपाखातीर सगळे प्रयत्न करपाचो हावेसूय ताणीं उक्तायलो.



इफ्फी २००९ चें उक्तावण करूंक आयिल्ली नामनेची अभिनेत्री वहिदा रेहमान हांका मानान येवकार दितना मुखेलमंत्री दिगंबर कामत, केंद्रीय म्हायती आनी प्रसारणमंत्री अंबिका सोनी, आशा कामत, मनोज श्रीवास्तव आनी हेर मानेस्त.

लोकां विशीं, संवसारीक घडणुकां विशीं कितें विचार करतात हें ह्या महोत्सवाक लागून लागशिल्ल्यान पळोवंक मेळटा. चित्रपट महोत्सव ती संद आमकां दिता. तेच पासत आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव ही चित्रपट संबंदीत लोकां पासतूच न्हय तर प्रत्येक सर्वसामान्य मनशापासत एक भांगरा संद. आमी ज्या आदर्श समाजाचीं सपनां रंगयतात त्या सपनांची पुर्तताय करपाचें सामर्थ्य चित्रपटांनी आनी चित्रपट महोत्सवांनी आसता.

## महोत्सव एक पिशें

चित्रपटाचो प्रभाव आयज फकत तरणे पिळगेचेरूच न्हय तर सगळ्याच पिरायेच्या लोकांचेर आसा. चित्रपट हो कळत नकळत समाजाचेर, समाजांतल्या रासवळ घडणुकांचेर जाताच. चित्रपटांतल्यो घडणुको खूबदां समाजांत घडटना दिसतात. समाजाचें रूप आमकां चित्रपटांतल्यान पळोवंक मेळटा. समाजांतलेच नाना विशय कलाकार चित्रपटांच्याच माध्यमांतल्यान परतून समाजा मुखार दवरतात.

चित्रपटाची म्हूण एक संस्कृताय आसा. हे संस्कृताये कडेन कला, कलात्मकताय आनी अभ्यासाचे नदरेन पळोवपी असो एक घटक आमच्या समाजांत आसा. अशे हे पिशे रसीक संवसारांतल्या खंयच्या ना खंयच्या महोत्सवाक हाजीर रावतात.

हालींच मुंबयंत 'मामी' फिल्म फेस्टीवल जालो. 'मामी' म्हळ्यार 'मुंबय ॲकॅडमी ऑफ दी मुव्हिंग इमेज' मामीचें हें अकरावें वर्स. दरवर्सा प्रमाण हेय वर्सा रसिकांनी ह्या महोत्सवाक मोठ्या प्रमाणांत वर्णी लायली. संवसारांतले बऱ्यांतले बरे चित्रपट रसिकांक पळोवंक मेळचे म्हूण मामीचो प्रयत्न आसता. जया बच्चन, शबाना आझमी, यश चोप्रा, अमोल पालेकार, श्याम बेनेगल सारखे ह्या मळावेले दिग्गज हो महोत्सव घडोवन हाडपाक वावुरतात आनी यशस्वी करतात.

संवसारभर हे असले चित्रपट महोत्सव वर्सानवर्स भरतूच आसतात. सगळ्या सिनेरसिकां खातीर ही एक मेजवानीच आसता म्हळ्यार जाता. ह्या महोत्सवांतल्यान सांस्कृतीक दिवप-घेवप जाताच तेच वांगडा देशां देशां मदले सांस्कृतीक, आर्थिक, राजकीय संबंदूय घट जायत वतात. संवसारभरच्या लोकांची मानसिकताय कितें आसा हाचो अदमास ह्या महोत्सवांक लागून घेवंक मेळटा.

१९३८ वर्सा व्हेनीस हांगा महोत्सवाक आरंभ जालो. त्या उपरांत १९४० त जालो. १९५० सावन बर्लीन, एडनबर्ग, कान्स, मॉस्को अश्या थळांचेर चित्रपट महोत्सव नित्यनेमान आयोजीत जावंक लागले. फाटलीं सत्तेरक वर्सां हे महोत्सव संवसारभर भरतात आनी आमी लोक ताचो आस्वाद घेतात. ह्या महोत्सवांनी आपलो चित्रपटांत पुरस्कार मेळून सन्मान, भोवमान जावप म्हळ्यार तो एक संवसारीक सन्मान मानतात.

सॅन फ्रान्सिको हांगा भरपी चित्रपट महोत्सवांत 'क्रीस ॲवार्ड' भेटयतात. अमेरिकेचें सगळेंच व्हड अशें संवसार मानता तसोच होय ॲवार्ड संवसारभरचे लोक खूब मानाचो मानतात. ह्या चित्रपट महोत्सवांत म्हायतीपट, वेवसायीक चित्रपट दाखयतात.

आयज संवसारभर शंबरा परस चड महोत्सव दरवर्सा आयोजीत करतात. हालींच टोरोंटो हांगा जाल्ल्या चित्रपट महोत्सवांत आमच्या गोंयच्या लक्ष्मिकांत शेटगांवकार हांच्या पलतडचो मनीस ह्या चित्रपटाक ज्युरी क्रिटीक ॲवॉर्ड फाव जाला. टोरोंटो आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव हो असोच नामनेचो महोत्सव. तातूंत ॲवॉर्ड मेळप सोडाच, चित्रपट प्रदर्शित करूंक मेळप होच चित्रपट निर्मात्यांचो भोवमान आसता.

टोरोंटो इंटरनॅशनल फिल्म फेस्टीवलाच्याच दर्जाचो हेलसिंकी, व्हेनीस, बर्लीन बी फेस्टीवल अशेच आपलो दर्जो सांबाळून आसात. दरवर्सा ह्या महोत्सवांनी हजारांनी चित्रपट दाखयतात. कसले चित्रपट दाखोवचे हाका मर्यादा नासता. ॲनिमेशन, बालचित्रपट, विनोदी चित्रपट. हॉरर मुव्ही. म्हायतीपट, शॉर्ट फिल्मां, आर्ट फिल्मां तशेंच कांय कडेन एकाच विशयाक ओपिल्ल्या चित्रपटांचेय महोत्सव आसतात. ह्या महोत्सवाक लागून व्हडा प्रमाणांत आर्थिक उलाढाल जाता. पर्यटन वेवसाय वाडटा आनी प्रचंड प्रमाणांत रसिकांचें देशाटन जाता.

आमच्या भारतांत मुंबयंत थर्ड आय फिल्म फेस्टीवल जाता. पुणे फिल्म फेस्टीवल जाता, गोंय, केरळ, कलकत्ता दिल्ली आदी चित्रपट महोत्सवाचीं मुखेल केंद्रां आसात.

आयज ह्या माध्यमांतल्यान कितल्या तरी लोकांक उपजिवीकेची संद मेळ्ळ्या अब्जावधी रुपयांची उलाढाल ह्या महोत्सवांक लागून जाता. तेच वांगडा एक बरो समाज घडोवपाचें सपनूय ह्या असल्या महोत्सवांत रुजवणाक येता.

## गोंयाक इफ्फीन कितें दिलें?

दर वर्सा डिसेंबर म्हयन्याचे ३ तारखेक इफ्फी उलगलो म्हणटकच कांय दीस इफ्फीन कितें दिलें हाचेर चर्वण जाता. एकमेकांचीं कुतां काडपा वांगडाच, बेस्ट उडयलें म्हणत फाट थापटुपाचोय कार्यक्रम जाता. इफ्फीन कितें मोडलें आनी कितें जोडलें हाचो हिशेब मात हे वेळार जायना. ताची गरज ना अशें दिसलें तरीय फुडल्या आयोजनाक ह्या हिशेबाची गरज पडूं येता.

ह्या आंतराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाचें आयोजन गोंयांत करपाचें भाग्य आदले मुखेलमंत्री मनोहर पर्रीकार हांकां लाबलें. जेन्ना तांणीं इफ्फीचें आयोजन गोंयांत करपाचें थारायलें तेन्ना जितलो तांकां विरोध जालो



# 'जागोर'
## १०० टक्के गोंयचो चित्रपट

**– दामोदर (दामू) नायक**

पर्यावरण, जमीन, एसईझेड, स्थलांतर प्रदुशण अशा साबार विशयांचेर आदारिल्लो हो कोंकणी चित्रपट १०० टक्के गोंयचो चित्रपट अशें चित्रपटाचे निर्माते आनी आमदार दामोदर नायकान सांगलें.

कलाकार आनी हेर तंत्रज्ञ गोंयचे घेवन तयार केल्लो चित्रपट गोंयचो चित्रपट. पूण गोंयचो विशय घेवन भायल्या मनशान तयार केल्लो चित्रपट गोंयचो जावपाक शकना अशें सांगतना तांणी म्हणलें : जागोर हो कोंकणी चित्रपट दरेका कोंकणी मोग्या कडेन पावोवपाचो म्हजो हावेस आसा.

आपली मांयभूंय सांबाळून दवरपाचो संदेश दिवपी ह्या चित्रपटांत जे विशय मांडल्यात ते फकत गोंयांतूच न्हय जाल्यार देशांत साबार कडेन अशे तरेन प्रस्न तकली वयर काडपी वाठाराकडेन संबंदीत आसूं येतात. प्रिमियर शो पळयतकूच लोकांकडल्यान मेळिल्लो प्रतिसाद पळोवन आपणाक खोस जाल्या म्हणपाचें सांगतना दामू नायकान ह्या चित्रपटाचें स्रय दिग्दर्शक गायकवाड आनी शर्मदाक दिलें.

आमी गोंय ही कलाकारांची खण म्हणटात देखून गोंयांत चित्रपट तयार करतात तेन्ना गोंयकार कलाकारांक संद दिवपाक जाय. ह्या चित्रपटांतल्यान आपणें नव्या कलाकारांक माची दिवपाचो यत्न केला म्हणपाचें तांणी सांगलें.

हांव धरून ह्या चित्रपटांतले ९५ टक्के लोक पयलेच फावट चित्रपट मळार पावल दवरपी आसात अशें तांणी सांगलें.

ह्या सगळ्या नव्या कलाकारांक लोकां मुखार हाडपा खातीर इफ्फींत ह्या चित्रपटाचो प्रिमियर जावचो असो म्हजो हट्ट आसलो अशेंय श्री नायकान स्पश्ट केलें.

निर्माते दामू नायकाच्या प्रामाणीक यत्नाक लागून आमी हो चित्रपट वेळार पुराय करून इफ्फींत दाखोवपाक शकले. आतां जागोर चित्रपट दरेका गोंयकारा मेरेन व्हरपाची आमची मोख आसा अशें दिग्दर्शक संग्राम सिंग गायकवाडान म्हणलें.

चित्रपट म्हजो पयलो मोग. जाय जाल्यार मुंबय रावन ह्या मळार हांव फुडार करपाक शकता आसलों. मात गोंयच्या मोगाक लागून हांव हांगा येवन चित्रपट मळार फुडार करपाक फुडें सरलां अशें सिनेमाटोग्राफर शर्मद रायतूरकारान सांगलें. पयलेच फावट कॅमेरा मुखार उबे रावतना आमी आबूज जाल्लीं. आमचेर विस्वास दवरून निर्माते श्री नायकान मुखेल भुमिका दिवपाची रिस्क घेतली. आयज चित्रपटाक मेळिल्लो प्रतिसाद पळोवन समाधान जाता अशें मुखेल कलाकार वर्धन कामत आनी लालन देसाय हांणी सांगलें.

श्रीदामबाबाले घोडे बॅनराखाला निर्मिती केल्लो जागोर चित्रपट दोन वरांचो आसा. ह्या चित्रपटाचें संगीत दिग्दर्शक सिध्दनाथ बुयांव, कथा आनी संकल्पना दामोदर नायकाची तर संवाद एन शिवदास हांणी बरयल्यात. चित्रपटांत वर्धन आनी लालन हांचे सयत अनिल रायकार, आर्यन खेडेकार, वतन प्रभू आनी अनघा जोशी हांच्यो मुखेल भुमिका आसात.

गोंयांत चित्रपट संस्कृताय रुजता हाची ही एक देख.



## इफ्फीचो माटोव गोंयच्या साहित्यिकांच्या सृजनांत नवी भर घालता
### – दामोदर मावजो

**आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव तांचे लिखणेक नवी दिशा दिता. आयज मेरेन हाताळूंक नाशिल्ले विशय इफ्फीच्या चित्रपटांत पळोवन ते अस्वस्थ जातात. गोंयांतय अशे कितलेशेच विशय आसात. ह्या विशयांक हात घालपाची प्रेरणा तांकां मेळटा.**

**गोंयच्या साहित्यिकांनी कोंकणी भाशे खातीर दिल्लें योगदान व्हड. इफ्फीचो माटोव तांच्या सृजनांत नवी भर घालता.**

**साहित्यिकांनी मुजरत इफ्फीचो लाव घेवंचो. साहित्यिकां खातीर हातूंत अणभवपा सारकें खूब कितें आसता. अशी प्रतिक्रिया ज्येश्ठ साहित्यिक दामोदर मावजो हाणीं उक्तायली. इफ्फी सुरु जायत सावन ते चित्रपटांचो लाव घेतात. हातूंत पळयल्ले चित्रपट नवे विशय आमच्या मुखार मांडटात.**

**आंतरराष्ट्रीय दिग्दर्शकां कडेन भासाभास करतना तांच्या मनांतले विचार, तांची विचार प्रक्रिया समजपाची संद मेळटा अशें तांणी सांगलें. चित्रपटा उपरांत भासाभास गरजेची. मात कांय कडेन दिग्दर्शकांच्या मनांत आसून लेगीत आयोजकांनी मनाय केल्ल्यान ती जायना हाचेर तांणी तिडक उक्तायली. कोणाक नाका ते वचपाक शकतात. मात चित्रपट पळयल्ले उपरांत कितलेशेच प्रस्न उप्रासतात, तांच्यो जापो मेळोवपाची संद आसून लेगीत वगडावची पडटा हाचें तांकां वायट दिसतालें..**

ताच्याय परस चड तेंको मेळ्ळो. तांच्या काळार तो पयलोच महोत्सव जाल्ल्यान तांच्या चुकांकडेन आडनदरूय जाल्या जावं येता. पूण साधन सुविधांचे निर्मिती खातीर तांणीं कांय म्हत्वाच्यो गजाली गोंयच्यान सासणाच्यो ना केल्यात. तांणीं पाटो पुलाक समांतर आनीक एक पूल बांदलो. त्या खातीर कितले तरी लाख रुपया खर्च केले. पूण तें करतना तांणीं हांगा आशिल्ली नदी परिवहन खात्याची ऐतिहासीक वास्तू ना नपयत करून उडयली. ते वास्तूंत गोंयचे एक व्हड कवी बसताले. शंकर रामाणी. हांगच्यान शंकर रामाणी हांणीं कितल्यो तरी कविता रचल्यात. हे वास्तुची राखण करूनय पाटो पूल जावं येतालो. पूण आरंभशूर पर्रीकारान खंयच लक्ष दिलेंना हें मतींत दवरूंक जाय.

जेन्ना आरंभाक महोत्सवाचें आयोजन जालें तेन्ना केंद्राकडल्यान सगळो पयसो मेळटलो आनी गोंयचे तिजोरेचेर कसलोच भार पडचोना अशें जाहीर केल्लें. पूण उपरांत गोंय सरकारचो कितलो दुडू ह्या इफ्फी खातीर खर्च जालो हाका कोंत आनी हिशेब ना.

आयज जो इफ्फी गोंयांत उलगलो ताणें मात एक आस्त गोंयकारां मुखार दवल्ल्या अशी दिसता.

दरवर्सा इफ्फी खातीर जो खर्च जातालो ताचो भार नाय म्हळ्यार गोंय सरकारचे तिजोरेर पडटालो. हे खेप ११ कोटी रुपयांची तजवीज आशिल्ली पूण मुखेलमंत्र्यांनी फकत ६.५ कोटी रुपया ह्या महोत्सवाचेर खर्च करपाचो निर्णय घेवन एक नवो पायंडो इफ्फीच्या आयोजनांत घाल्लो आसा. ही प्रथा अशीच सुरू उरपा खातीर हो जाल्लो प्रारंभ म्हणूंक हरकत ना.

इफ्फीच्या खर्चांत कपात करून, पोटाक मारून इफ्फी केल्या अशें मात कोणें समजूंचें न्हय. जें जें कितें शास्त्राप्रमाण इफ्फी महोत्सवांत करूंक जाय आशिल्लें तितलेंय खंयच कातर लायनासतना केल्लें आसा. पणजे शार तर सामकें नटिल्लें. थंय इफ्फी काळांत सतत वर्दळ आनी हेर कार्यावळी चलताल्यो. कोणाकूच तो नश्ट खर्च दिसूंक ना. कोणेंच ती जात्रा म्हूण तिका नांवां दवल्लीं नांत. ताचें कारण म्हळ्यार आयोजनांतली सुसुत्रताय. एक टीम सांगाताक घेवन काम करपाची कळाशी दिगंबर कामत हांकां सादल्या. आतां सगळेंच कितें मना सारकें घडटलें अशें न्हय. मुखेलमंत्री दिगंबर कामत कलाप्रेमी आसले तरी ते एक राजकारणीय आसात. मनीस म्हणटकच आंगार पुळेर उदेता आनी तो वखद लावन काडून उडय मेरेन आंगार उरता तशे कार्यकर्तेनांवाचो पुळेर उदेताच. ताका नाय म्हळ्यार आंगार दवरून मिरोवंचो पडटा. तशें कांय लोक कसलीच कला आंगांत नासतना नाका थंय मिरयताले. आपल्या फायद्या खातीर तांचे कडल्यान खऱ्या कलाकारांचो उपमर्द जालाय जावंये. पूण ह्यो गजाली टाळप शक्य ना. कित्याक राजकारण होय आमच्या जिवनाचो एक अविभाज्य घटक. तांचे पासत थोडी कसरत केलेबगर पर्याय ना. ताचेकडेन आडनदर करून आनी इफ्फीक एक दिका दिवन हो महोत्सव यशस्वी केलो देखून मनरिजवण सोसायटीचे अध्यक्ष दिगंबर कामत हांची मोठ्या मनान तोखणाय करूंक फाटींफुडें सरूंक फावना.

इफ्फी जेन्ना आरंब जालो आनी दर वर्सा इफ्फीचें वारें व्हांवक लागतालें तेन्ना चडशा लोकांच्या तोंडार इफ्फी इफ्फी इफ्फी इफ्फी कर रे




मोरा, मामा ना घरा, चारा खा पाणी पी भूर्र्र अशीं उतरां येतालीं. आतां इफ्फीचो मोर दिमाखान वावरूंक लागला. तो रजत जावं वो सुवर्ण. जो कोण घेवन वता तो व्हडा मानान घेवन गेला. पयलीं कोणूय चारा खातालो, पाणी पितालो आनी भूर करून उडून वतालो. कित्याक आयोजनाच्या मामाचें लक्ष नासतालें. मामा ना घरा म्हणटकच कोणाचेंय फावतालें. आतां मामान सगळे कडेन लक्ष दवल्लां आनी कोणाकूच मेळत तसो चारा खावपाक संद मेळना ही एक बऱ्याची गजाल.

तेच वांगडा गोंयांत गोंयच्यो सगळ्यो सुविधायो घेवन वेवसाय उद्योग करपी उद्योजकां कडल्यान तांचो प्रायोजक म्हण इफ्फींत आसपाव करून घेवन खर्चाचो प्रस्न सोडयला हीय एक बऱ्याची गजाल. ही प्रथा अशीच मुखार चालू दवरीत जाल्यार कोणाकूच इफ्फीक नांवां दवरपाचें धाडस जावचें ना. इफ्फी हो संवसारांतलो एक आदर्श महोत्सव जावंक पावतलो आनी गोंय हें आयोजकांचे माळेंत सगळ्यांत आदर्श राज्य थारतलें हातूंत दुबाव ना!

# मांडवी देगेर तिळवेंची कलाकृती

४० व्या आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवा खातीर गोंयची राजधानी नटिल्ली. ह्या निमतान आयनॉक्स ते मांडवी न्हंयची देग आकर्शक तरेन सजयिल्ली आनी ती मनाक भुरळ घालताली.

रस्त्या कडेक लोक संस्कृतायेचे, जिवनशैलीचें दर्शन घडोवपी देखावे सगळ्यांचें लक्ष ओडून घेताले. तातूंत श्यामसुंदर आत्माराम नायक हांचीं सिनेतारकांचीं प्रतिबिंबां आकर्शक आशिल्लीं.

ल्हानपणा सावन चित्रकलेची आवड बाळगुपी तिळवे ८ वेच्या वर्गांत आसतनाच वेगवेगळ्या मानवी सभावाचीं चित्रां काडटाले. आपले काका यशवंत तिळवे हे कलाकार जाल्ल्यान तांच्या हाताखाल तांणीं ही कला आत्मसाथ केली. आपल्याक हें प्रदर्शन भरोवन फकत पयशे जोडपाचे ना तर आपल्या गांवचें, दिवचलचें नांव संवसारभर पातळावपाचें आसा अशें तिळवेक दिसता.

इफ्फीच्या वेळार देश विदेशांतले व्हड व्हड कलाकार, कलारसीक गोंयांत आयले. तांणीं तिळवेचें हें प्रदर्शन केलें. जर इफ्फीच्या सुवाळ्याचो एक वांटो म्हण ह्या असल्या प्रदर्शनाचें आयोजन करूंक नाशिल्लें जाल्यार तिळवे सारख्या एका कलाकाराची कला आयज लोकां मुखार पावपाची? केन्ना हो कलाकार हेर देशांत पावपाचो? ताच्याच परी हेर जायत्या कलाकारांनी आपली कला मांडवी तिरार सादर केली. खुबश्या थळाव्या तशेंच देश विदेशांतल्या रसिकांनी ताची तोखणाय केली.

इफ्फींत सर्वसामान्याक कितें मेळ्ळें हाची जाप हीच आसा म्हणूंक जाय.

# लच्छीलो चुडो



*तशी लच्छीने वयर पळयलें, आनि म्हाका पोळोवन लच्छीले दोळे झगझगले. लच्छीलो शिंगार मगेल्या दोळ्यांत मावना. टी. व्ही.तुली दुल्हनशी सजिल्ली. टिकल्यांचो लाल पंजाबी ड्रेस, माथ्यारी जरीगोटा लाल-लाल चुनरी, अवंतीन दिलेलें भांगार घाल्लेलें आनी गोऱ्या गोऱ्या गोल हाताक पांचवो होकल चुडो.*

"**बा**य गो, बाय गो! चप्पल दे. चप्पल."

संगमेश्वर देवळाभायर चप्पल सांबाळतल्या बायलांगेलो गराडो. आनि तांतू हो सपूर आवाजू. आठ-धा वर्सांची आसतली ती चल्ली. बदामाकार तोंड, तरतरीत नाक, गोऱ्या निडळारी, हणूवेरी गोंदिले, आनि सगळ्यांत लक्ष्य वेधून घेताले तिगेले पिंगशे दोळे. पिंगशे केंस, ह्या गराड्यांत इतलें गोमटें चेर्डूं?

"नांव कसलें गो तुगेलें?" हांवें निमगिलें.

"लच्छी!" तिने हांसत-हांसत उत्तर दिलें.

लच्छी? अशी कशी नांव? हां, लक्ष्मी आसतलें. त्या दिसाधोरनू हांव चप्पल तिगेलागी दवरतालीं. हातार दोन पैशे चड, केन्नाय खाण, कपडे दवरतालीं.

थंयची देवळामागशींचे झोपडपट्टींत राबताली ती. केन्नाय तिगेली आवसू येवनू बसताली. तेंच तोंड, तेच दोळे. जाल्यारी जीर्ण कपड्यावारी पिळूनू गेल्लेली. सांगाती चेर्डुवां लेंढार. पांच चल्यां उपरांते एक चलो. अपुर्बायेचो म्होणू त्यो भयण्योच सांबाळताल्यो. जीवान बारीक म्होणू नांव तागेले, बारकू.

तशीची आठ-धा दीस लच्छी देवळालागी दिसनी. उगीं मना हुरहुरो. आयतारा केलेलो पुलाव एक कागदा पुडयेंतू बांदुनू, हांव झोपडपट्टीलागी वचुगेली. गल्ल्येंतू खेळतले चेर्डुवांक निमगुनू, लच्छीलें घर सोदून काडलें. झोपडपट्टी लोक ढुंकून पळयताले. थंयीची एक गुंड चल्ल्यांगेले टोळी नजर लावन बशिली.

हांव वग्गी, खोलींत पाय दवरलो. खोली सादारणशी आशिली, जाल्यार हांगा थैं सामान, आयदान पडलेलीं, कापडा बोंथरां जैं थैं लांबतालीं. शेगडेरी तपल्यांत दवलो घुंवडायत लच्छी कसलेंकी शिजयताली.

बाजूक खाटेरी, लच्छीली आवसू पडलेली. आजू-बाजूचें भानय तिका ना आनि रडचें त्राणय ना. मदें मदें कुंथित आशिली. घळघळ दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं.

पुलावा पुडो लच्छीले हातांतू दिवनू, हांव खाटेलागीं पावलीं. कोंबये पिल्लंशी लच्छीसुत्तु सगळी चेर्डुवं चिंवचिंवतालीं. त्याच कागदाचे कुडके कोरनू तिने पुलावा वांटे घाल्ले आनि तांका दिले. बकाबक तें शीत तोंडांत भरतना, मगेले दोळे भोरनू आयले. आमगेले ह्या देशांत दुश्काळ आस की सुबत्ता म्हणू कळना. एकल्यागेरी कळशे भोरनू वोतता तरी दुसऱ्यालें तपलें खाली.

लच्छी परत परत "तुम्ही आलात,

बाय!" म्हणत राबली. लच्छीन तोंडालागी हाडलेलें शीत पोळोवनू आवसून तोंड घुंवडायलें. हुंडक्या हुंडक्यांनी रडत राबली. जीव अगदी खुंटयेरी, आंगांतू तापू. सम पळयल्यारी पोट वाडल्यां म्होणू दिसलें. तो बामुणू की तो जनावर? इतलेंय लाजमर्याद ना वे त्या लास्सल्याक? तिका हॉस्पिटलांत व्होरयां म्हळ्यारी चेर्डुवांगेले कसलें जातलें?

तेदम्हणसरी झोपडे बागलांतू घे जानांगेली गर्दी. हांव डॉक्टर म्होणू लेक्कूनू थोडे बायलांनी सांगलें, जनाबायक एक म्हैनो जालो, मांद्रेक लागल्या. तशिची लागीच्या वखदां दुकानांतल्यानू गुळयो, टॉनिक हाडनू, लच्छीक तें कशी दिंवचें तें समजावनू सांगलें.

घारा, ही मगेली कारवाई सगली कळली की रात्री माका लॅक्चर! मिस्टरान बरें फाफुडलें, कसल्याक असली जोखीम माथ्यार घेता की, म्होणू. अवंती आनी आदित्य कमी ना. तानी विचारलें देशाची समस्या कमी कोरू पळयता की? झान्येंतू उदाक वोतिलेवारी....

जाल्यारी, माका थार आसा वे? किलोभर दाळी तांदूळ तांगेर व्होरनू घालो, जनाबायक वखद दीत राबलीं, आनी गंमत सांगू? थोड्याच दिसांतू जनाबाय उठावनू बसली. मगले हात।क गूण आयलो.

जनाबाय मगेले पायाक हात लावनू खूब रडली. परत परत कपाळ धाडायत, आपणाली कर्मकाणी सांगताली. ती मूळ साताऱ्याचीं. गवंडी कामाक मुंबै आयिल्लो येसो, रंगारी काम करतां करतां येसोरंगा जालो. पयले तांगेले दीस बरे गेले. हातांत चार पैशे खुळखुळताना नाना दोस्त, नाना व्यसनां फाटीक लागलीं. आतां तरी येसो पिवन तर्रर जावनू रस्त्यारी, खळ्येंतू पडलेलो आसता. नांवाक एक खोली आशिली म्होणू नशीब, चेर्डुवंबायल वाटेरी पडनी. साताऱ्या शेतांतुली धडधाकट जनी, हांगा पांजिऱ्यांतू सुकुनू तडफडत मरताली.

प्रत्येक समस्येक एक निरसन, एक निकाल आसता. जाल्यारी ह्या घुस्पागोंदळांत माका वाट दिसनाशिली.

तीसएक वर्सांमागशी काणी ही. त्या वेळारी इतल्यो स्त्रीसंरक्षक संघटना नाशिल्यो. माकाय सुचनी.... एक दीस, अशीची लच्छीगेर वतना वेळ जाल्लेलो. थैं कोण सोऱ्यान झिंगून व्हडाव्हडान बोवाळ घालतशिलो. होच दिसता लच्छीलो बापुसू! दीगरूंद एकेकाळारी गोरो बरो मनुश आतां एक मरतुकडो पिवडो जावनू पडलेलो. तागेले ते इंगळेशे फुललेले दोळे, घाणयाऱ्यो सव्यो आयकून हांव दोन पावलं मागशी आयलीं. इतल्यांत....

"मॅडमको हात लगाएगा तो तंगडी तोडके हातमें देगा!" हें दणक्यांत कोण उलयले बा, म्होणू पळयल्यारी एक धडधाकट गुंडो सो दिसतलो चेरको! नजर मात्र स्वच्छ-सरळ. हो इलाको त्या सुलतानालो! ताजेसांगाती चारपांच जवान धडधिंगडे पोरे. त्या धाकाने येसो, पायांतू बाल घाल्लेले सुणेशें, परते पावलांनी वचुगेलो.

सुलतानाली ती ऐट, धोरण, तागेली सरळ नजर पोळोवन् माका एक वागालो उगडास जालो.

"आप बिनधास रहो, मॅडम."

म्होण्णू तो चिट्ट्यां वाग झोपडपट्टे जंगलांतू घुसलो.

लच्छी परत चप्पल सांबाळूंक आयली, जाल्यारी ती पयलींची हांसरी लच्छी न्है. माथ्यारी मणभरी वजें आशिल्ले वरी. कपडेय विचित्र घालूक लागिली. हांवे दिलेले अवंतीले बरे फ्रॉक सोडनू, कसलेशे स्कर्ट आनी गांठ मारलेली आवसूली पोर्नी चोळी. ह्या कपड्यांतू तरी चिखलांतूले कमळशें दिसताली. इकरा वर्सां चल्येले छात्येरी स्तनं कळेशे उमलतं आशिलीं. तें पोळोवनू माका घाबरेलेवारी जालें. लच्छेक जोर कोरनू म्हळें.

"हे गो, कसले कपडे घालता तूं, हांवे दिल्लेले बरे कपडे दवरनू?"

लच्छी मान तग्गू घालनू राबिली. बरें जोर करनाफुडे ती दबलेल्या आवाजांतू म्हणाली,

"तो राकेस बाप हाय ना! आयकलं नाय तर मरस्तूवर मारतुया."

मगेले माथ्यांत एकदम उजवाडू पडलो. बायलेली वाट लायली, आतां चल्येचेर्डुवांचेर धंदो कोरूंक सोदता. मगेले तळपायाचो हुलोप मस्तकारी चडलो.

त्या रातीं, आमगेर एक हॉड कॉन्फरन्स भरलें. लच्छीक आमगेले घरा हाडचो प्रॉपोसिशन हांवें मांडलें. ताका भिषण विरोधू. घरांतलीं तेगय जण म्हजेरी उसळ्ळीं... नुसती कटकट...विकतचें स्त्राद्ध ... घारा कमलाबाय येता, आनी कोणाकय दवरी जायजाल्यारी....भारताचे सगले प्रॉब्लेम सोडोंवचो विचार आसा की.... अशी अनेक वाद.

हांवेयी मगेले लेक्काक एक भक्कम भाषण केलें. हां-ना म्होणू, हें एक एक्स्पेरिमेंट कोरयां, म्होणू ठरलें.

दुसरे दीस, हांवें, लच्छीगेर वोचुनू, तिगेले आवसूक समजायलें. पाप तिजें... पावसांत वत शें, हांसत रडत, परत परत माका पांय पडताली. हे बायलेक



रडचेशिवाय दुसरें कसलेंच काम ना की?

चारजण शेजाऱ्यांक आपोवन हांवें सांगलें, लच्छीक हांव आमगेर व्हरतां, तिगेली जबाबदारी हांव घेतां. घारा काम तरी करतली, जाल्यार पगाराशिवाय, कपडोलत्तो, जेवणखाण दिवनू तिका हांव घारा शिकयतलीं. हें आयकून लच्छी तरी फुलुनू आयली. तिगेले सान भयणीक, धा वर्सां धनूक समजावनू सांगलें. आनी त्या दिसा हांव लच्छीक घेवनू घारा आयलीं.

एका खतखत्याने कुळीथ शिजता वे? लच्छीक घरचे रिती रिवाज, स्वच्छतेविशयीं शिकयीसरी हांव सम हण्णू जालीं.

तशी सांजे, सोसायटी गेटाभायर, तिगेलो बापुसू येवनू गलाटो कोरूक लागलो. जाल्यारी दरवानाने ताका पोलीसाचें भंय दाखोवनू, धांवडायलो.

दिशीं दिशीं, लच्छी नारला कोवतीशी वाडताली. घरांतलीं कामं हौशीन करताली. म्हाका रांदपाकुडांतू हातभार लावंचें, कमलाबायक मदत करचें, भिरीभिरी घरांतू फिरनू सामान जाग्यारी लावंचें. घरची गरिबी जाल्यारी केदनाय लच्छीन एक पैशाकय हात लायनी. नशीब आमगेलें...

बापुस घारा ना हें पोळोवनू, केन्नांय अवंती आनी हांव लच्छीक घेवनू तांगेले घारा, पैशे, खाण पावयतालीं. अवंतीले हातांतले बिस्किटी पुडे पळोवन, वाठार सगळी चेडुवं, गोडा कुडक्या मुंयो भरलेलेवारी, झोमताली. मागिरी लच्छी तांका, गौजी घालनू रांगेत राबोवन वांटताली. आयोबायो म्हणतालीं 'नशीब बरें लच्छीलें त्या काशीकं पळे, पोटाक घालनाती. एक रोटी काडनू खाल्ली म्होणू पायार दाग दिलो.' आनि कोण शैलूगेली खबरी, मालीगेली काणी आयकून, जीव उबगतालो. चल्ये चेर्डुवांगेले, खैं गेल्यारी, इतले हाल कसल्याक जातातीं? तांचेर केले छळ, अपमान केदनां राबतले?

करतां, करतां तीन वर्सं जाल्लीं. लच्छी आमगेले घरचीचशी जाल्लेली. मिस्टरांगेले तरी लच्छीशिवाय पान हालनाशिलें. ऑफिसाक वचचे पयलें, तांगेले सगळे कपडे, बॅग, टिफिन, रुमाल, सगळें तयार. सांजे, आयले की तांगेली ऑर्डर सुटताली.

"लच्छे, एक कप गर्मागरम च्या हाडी पळौंया. आनी आजी कसलें शिकली गो?"

तिका शिकोंवचें हें एक होड काम! दोनपाराचें पुस्तक घेवनू बसल्यारी, म्हाका जोर न्हीद येताली, आनीं तिगेलें लक्ष लागनाशिलें. मागीर खरें शिकयलें आदित्यान. फाविल्ले वेळांतू तो लच्छीकोरोनू अभ्यास करयतालो. गंमत म्हळ्यारी, ही टिंगल कोरनू, टपल्यो मारनू दादान शिकयलें तिगेले बरें माथ्यांतू वतालें. आमी उलयलेमिती, तिका वग्गी कोंकणी, इंग्लीश उलोंवचाक येतालें. अवंती तिका नित्य टी. व्ही. लावनू सांगताली माहिती. बरी बुदवंत जाली, लच्छी.

लच्छीलो बर्थडे तिका गोत्तू ना, म्होणू तिगेलो बर्थडे जानेवारी एक तारखेक अवंती आनी आदित्य नेमान मनयतालीं. लोक आमकां म्हणतालीं,

"आरे, तुमकां आनी एक चल्ली आस्सा, म्होणू म्हाका गोत्त ना!"

लच्छीले मुळच्या गोऱ्या रंगारी गुलाली चडलेली. चौदा पंदरा वर्सांची लच्छी बरी उमलून आयिल्ली. मोगरे कळयेक खैं गोत्तसं की फुलतना तिका परमळ सुटता? तशी लच्छी अजाणची. जाल्यारी तिगेले ते हांसरे, नाचरे, तपकिरी दोळे, कोणालेंय लक्ष्य वेधून घेताले. म्होणू हांव तिका जपतालीं, भायर खैं एकलीक फिरूक सोडनाशिलीं. खैं व्हेल्यारी मगेले सांगातीची. केदनांय तरी लच्छी आवसूक मेळनू येताली.

आमगेल्या अवंतीलें बीकॉमाचें सिनियर वर्स लागलें, आनि आमकां तिगेले व्हर्डिकेची चिंता लागली. अवंती आमगेले मिस्टराली लाडली. तिका 'मनीमाऊ' म्होणू आपयताले. एक दीस, बरोच वेळ दोगळ जण खुसूखुसू उलयत बशिलीं पोळोवन, हांवे निमगिलें,

"आज कसली स्पेशल खबर, बा?"

जोरजोरान हांसत मिस्टरांनी गुपीत भेत्तूनू काडलें.

"आगो, तिगेले कॉलेजांतले एका चल्ल्याने तिका प्रोपोज केल्यां खैं!"

सगळ्यांक खबर गोत्तस, माका गोत्तू ना! चलो गुजराती, तरी बरे घराण्यांतुलो. जुहूंत बंगलो आशिल्लो. घरांत तागेले आवसू-बापूसू आनि एक भाव. तांका सगळ्यांक अवंती पसंत पडलेली. लागीची, तुळशी लग्नाचे मुहुर्तार, लग्न ठरलें.

साखरपुडो जालो की दोन म्हैन्यांरी लग्न! आमगेली धांदळ आशिली, तरी लच्छीली धांदळ पोळोवंका. हें हाडी, तें व्हरी, सामान जाग्यारी दवरी! घरचो उगडास सुध्दांय तिका जायनाशिलो. मागिरी, हांवेची धनूक आपोवन तांका मिठाय, खाण पेटयलें.

मेंदी, हळदी लावचे दीस सगळ्यांनी हाता-पाया मेंदी लायली. कासाराक आपयलेमिती, सगळ्यांनी बणबण्णाची कांकणा सुवनू घेतलीं. अवंतीले हळदी कार्यक्रम जायना फुडें तिका पांचव्या कांकणा चुडो भरलो. लच्छीन हातार मोरानक्षी काडलेली. आपणाले हात मुखार धरनू आपल्याक असलीं पांचवीं कांकणां जाय म्हणाली. त्यावेळारी सगळ्यांनी तिका चिडावनू जीव खाल्लो. "आगो, होकलेक पांचवो चुडो भरताती." म्होणू सगळ्यांनी सांगलें.

लग्नादीस अवंतीक जांबळी पैठणी न्हेसयली. गौरीशी फुलांनी भांगरान सजयिल्ली. लच्छीखातीर अवंतीन रोल्डगोल्डाचे भांगरा सेट घेतिल्लो. नवीन शिवयिलो जांबळो जरीचो किरगणो पोलको घालनू लच्छी तरी खरेंची लक्ष्मीसी दिसताली.

कन्यादानावेळारी दोळे भोरनू भोरनू येताले. मिस्टर तरी भारावलेले. तरी स्वतःक सांबाळून घेतलें आमी.

अवंती आपणाले बामणागेर वचुगली. माका घर एकदम रितें दिसूं लागलें. डिप्रेशनशें मनार आयलें. करमणूक म्होणू मिस्टर मगेली आवडतीं गीतां रिकोर्ड लायतालो, टी. व्ही प्रोग्राम लायतालो. आदित्य कसल्यो खबरी, नक्कल कोरनू मन रिझयतालो. लच्छी तरी मगेली मागशीमुखार घुंवताली. जाल्यारी मन सुन्नचि उरलें.

मुखावैले प्रसंगान मात्र माका झंझळायिले वारी जालें.... आनी हांव भानारी आयलीं.

लच्छीन सुट्टीच घेनी म्होणू हांवें तिका दोन दिसांक घारा धाडिल्ली. बरे जरी कपडे न्हेसुनू, हातांत पैशे, मिठाय घेवनू लच्छी वचुगली. दुसरे दीस, दोनपारां, बेल जाली म्होणू पळयल्यारी दारांतू... लच्छी. रोडणूरोडणू दोळे सुजिल्ले, पोर्न्ने पिंदिले कपडे घाल्लेले, फाटिरी पायारी मारलेले वळ... बापसूने बरो प्रसाद दिलो दिसता. हांवें कशी अविचारीपणान तिका जरी कपडे घालनू तिका घारा वच म्हळें?

लच्छी धुसमुसत रडताली. निमगिल्यारी कांय उलयना. कांय खायना-जेवना. रातीं मात्र, न्हंये हुंवार आयिल्लेवारी तिणें सांगलें. आवसूक, चेर्डुवांक पोटाक कांय ना. बापसून घरांतलें सगलें विकून आतां म्हाका विकूक सोदता. आयकून मगेलें आंग शिरशिरलें. त्या येश्यावोट्टी सदा कोणकोण लांडग्यांवारी भोंवत आसताले. पिता



म्हळ्यारी चेर्डुवांक आधारु, विश्वासाचें स्थान, आनी तोच पिता अशी निश्ठूर जाता?

दुसरे दीस, हांव दुकानांत वोचुनू योसरी, आमगेले सोसायटी गेटालागी ही गर्दी. कोण एकलो, जोरजोराने घाणियारी सर्वी घालनू वदरतालो. पळयल्यारी येसो पिवन तर्रर जावनू, चल्येक परत व्होरूक आयिलो. तागेले फाटीलागी धिराक चार-पांच गुंडांक घेवनू आयिलो. मिस्टरांनी तत्क्षण पोलिसांक फोन लायलो. सोसायटीचे सेक्रेटरी धांवनू आयले. कसलो प्रकारु म्होणू कळनाफुडे, म्हाका ताणी शांत शब्दांनी उपदेस दिलो की चल्ली मायनर आसं आनी ती बापसूसांगाती घारा वोचो.

"खै? ह्या लांडग्यांतोंडांतू?" मगेलोय पारो चडतं आशिलो.

सुत्तुवान गर्दी भरतं आशिली. मदत कोरचेपशी ड्रामा पळयतले चड. इतल्यांत मोटरसायकल घेवनू पोलीस आयले. तांका पोळोवन, ते गुंड दांडे घेऊन गर्दीत पसार...

पोलीसांनी सगळो मामलो आयकून घेतलो आनी सांगलें की कायद्याप्रमाणे बापसूक हक्क आसं. आतां चल्ली ताजेसांगाती वोचो. सकाळीं येवनू तुमी पोलीस ठाण्यारी सविस्तर रिपोर्ट दियाती. मागीर मुखार कसलें कोरचें पोळोवन घेंवया.

तशीची रडतल्या लच्छीक धरधरी तांडतची, मारतंची तो घेवनू गेलो. रातीचो वेळू, पोरीक उपाशी पोटारी, पिंदीले कपड्यारी अशी ताणतं व्हरतना मगेलो जीव तुंटतालो. हांव पिशावारी धांवतची तिजेमागशी वोचून व्हडान सांगलें.

"लच्छे, आजि एकच राती गो! फाय तुका हांव परत घेवनू येतां."

रातभर न्हीद ना. आंगा संतापू, जिवा तळमळे. अवंतील्या कन्यादानावेळारी सुदांय इतलो त्रास जायनी. तिका शिकोवनू, होड कोरनू, खंचोय बरो चेर्को पोळोवन तिगेलेंय कन्यादान आमी करतांशिलीं. जाल्यारी, तिगेले जन्मदाते आसतना आमगेलो कसलो अधिकारु? कसलें कर्तव्य?

पोलीसांनी विशेष मदत करनी.

तुमी पडनी जाल्यार बरें अशी सल्लो दिलो. लच्छीली कसली परिस्थिती आसतली, ह्या विचारान म्हाका कळवळो सुरू जालो. क्षणीं क्षणीं तिगेले निश्पाप मोहक चेहऱ्याचो उगडास जातालो.

ह्या आमगेले भारत देशांतू, आमी देवीली पूजा करताती. जाल्यार अस्तुरेक, कुमारीकांक इतली अवहेलना, उपेक्षा इत्याक? ह्या उब्या देशांतू कितल्योशो लच्छी आसतल्यो? कितल्यो धनू, काशी, शालगी, छबी, शैलू, माली....?

ह्या एक तरी समस्येक हांव निकाल हुडकून काडतलीं, म्होणू हांवें चॅलेंज घेतिलें, एक आव्हान केलेलें. मगेलें एक्स्पेरिमेंट फेल जालें.

मगेले तळमळे पोळोवनू. मिस्टरांनी समजायिलें.

"आमकां साध्य आशिलें तितलें आमी केलें. आतां ही समस्या आमगेले हाताभायर."

अशिची एक आठवडो गेलो... अस्वस्थ. कसल्यांतू मन लागना, कसल्याकय रुची ना....

आयतारा सांजे, मिस्टरांनी गाडी भायर काडली. आदित्याक आनी म्हाका सांगलें,

"चला, एक बरी चक्कर मारनू येंवया जुहू बिचारी."

गाडी देवळालागीं आयली की म्हाका मन तडवनी. हावे हांका म्हळ्ळें, "एक मिनीट झोपडपट्टी लागीं राबयाती. वग्गी पोळोवनू येत्तां."

हांव सरळ लच्छीलया खोलीरी वचुगेलीं. बागिल उगडें आशिलें. भित्तरी, लच्छी जमखाणारी बैसूनू बारकेल्याक जेवण लायतशिली. मदें होड बिर्याणी आयदान...

तशी लच्छीने वयर पळयलें, आनि म्हाका पोळोवन लच्छीले दोळे झगझगले. लच्छीलो शिंगार मगेल्या दोळ्यांत मावना. टी. व्ही.तुली दुल्हनशी सजिल्ली. टिकल्यांचो लाल पंजाबी ड्रेस, माथ्यारी जरीगोटा लाल-लाल चुनरी, अवंतीन दिलेलें भांगार घाल्लेलें आनी गोऱ्या गोऱ्या गोल हाताक पांचवो

होकल चुडो.

आश्चर्यानें म्हाका उतर फुटना. सगळ्यांगेली तोंडं पळयत रावलीं.

म्हाका पोळोवन , जनाबाय खाटीर न्हिदलेली उटावन् आयली, लच्छी ताटली उडोवनू मगेलागी आयली, चेर्डुवां सुत्तू फुलपाखेशीं भिरभिरतालीं, आनी हांव मदें पुतळोशी! हो कसलो प्रकारु? नाका नाकाशिले विचार मनांत आयले. मन चिंतता तें वैरी चिंतना.

इतल्यांत दरवटचारी सावली पडली. कोण पळयल्यारी तो बिबट्या वाघू. हिरोसो धवे फुल्ल ड्रेस, धवे बूट, गळ्याक लाल-जांबळो मफलर, दोळ्यांतू एक धमक चमक.

सटक्न मुखार येवनू, माथें झुकोवन ताणें मगेले पायांक दोनी हात लायले आनी म्हळें,

"सुलतान का सलाम, मॅडम!"

मगेले तोंडावैलो आश्चर्य पोळोवनू ताणे खुलासो केलो.

"मॅडम, अब डरने की कोई बात नही। गाँव मे जाकर रीतसे निकाह किया है उससे। अब वो सुलतान की सलमा बन गयी है। किसीको हिम्मत हो उसे हात लगाने की?"

सिनेमांतुलो हिंदी डायलॉग मारतची ताणे लच्छीले बापसूक सणसणी सवी हाणल्यो.

"हम गरीबोंकी और कौन मदत करेगा? हम खुद अपने पाँवपर खडे होकर, इज्जत से जीना है।"

लच्छी सुंदर लाजली, हें पोळोवन मगेलें मन भोरनू आयलें. नकळत दोळ्यांतल्यान आसवं घळघळ देंवतालीं. लच्छीक घट्टी गोपांत धरलें.

तें पोळोवनू सुलतानय भारावलो. रुमालाने हूम पुशिल्लेवरी दोळे पुसून घेतले, आनी बागलांत उबरलेल्या आपल्या दोस्तांक ऑर्डरी झाडल्यो,

"आरे, वो मारुती एस्टीममें सर बैठेला है, भैया के साथ। उनको यहाँ ले के आव। हाँ, और आते-आते चार-पाँच कोका-कोला लाव।"

मगेलें प्रॉब्लेमू कोणयतरी, बरें करनू सोडयले, म्होणू माका मस्त खुशी जाली. भिन्न जाती लग्न, मायनर मॅरेज, ह्या समस्यांचो विचार थाय जायनी. ह्या काणयेचो शेवट.... आनी तीं सगलीं सुखसंतोषारी रावलीं. अशी जावो म्होणू दिसलें.

माथ्यावैली चुनरी सांबाळतची, लच्छी आमकां पांय पोडूंक बग्गूली, तशी तिगेले हाताचो पांचवो चुडो किणकिणलो. पांचवीं कांकणं पांचूवारी लखलखतं पांचवीं किरणं झडयतालीं.

■ ■ ■



– इंदू अशोक गेरसप्पे

बंगळुरू

# विठूशेट

व्हडलें गोंय
हो विठूशेटीलो गांव.
पूण सप्ताह हो
फकत व्हडले
गोंयकारांचो नासलो.
तो आसलो मोवळा-
भाटी,
पाळें-कुडका,
आगशी-नेवरा
आनी पिलारकारांचो.
ह्या सगळ्या गावांतले
पार व्हडले गोंयच्या
मुखेल पाराक
येवन मेळटाले.
सरभोंवतणच्या वाठाराक
सगळेकडेन पारच पार.
दरेका गांवांतले मुखेल
रस्ते टाळ-मृदंगांच्या
आवाजान गजबजून
वताले.
'जय-जय विठोबा
रखुमाई'
ह्या गजरान पाराची रात
केन्ना सोपूंक आयली,
हें कोणाच्याच लक्षांत
येनासलें.



**म्ह**ज्या गांवांतल्या बाजारांतली एक सुपुल्ली चाळ. चाळींत एक द्रोगारी, (फार्मास) ताका तेकून त्या बाजाराक सोबसारकें च्याचें हॉटेल. एका तेंपार हें हॉटेल राममय जाल्लें. हॉटेलाच्यो सगळ्यो वण्टी आनी भायले खांबे रामनामांनी भरिल्ले. आयज हॉटेलाचो मालक रामराज्यांत विलीन जालो आनी ताच्या फाटल्यान चाळींत राम उल्लोच ना. हॉटेलाकं तेंकून बाबल्या म्हाल्यालें शॉप. शॉपांत काम थोडें-बडबड चड. आतां बाबलो गेलो आनी तें शॉपूय गेलें. तो बाबलो, ती द्रोगारी, तें रामनाम-सगळें सगळें हांव केन्नाच विसरून गेलों.

तेच चाळीच्या पोंताक एका ल्हानशा कुडांत विठूशेट मोन्यानी शेटपण करतालो. विठूशेटीक मरून कितलीं वर्सां जालीं, हाचो हिशोब म्हजेकडेन ना. पूण ताच्या भांगर पेटपी तुतयाचो 'टूक-टूक टकटक' हो आवाज मात म्हज्या कानाकडेन अजून घुमता. जेन्ना जेन्ना हांव चाळीकडच्यान पासार जातां, तेन्ना तेन्ना आयजय बंदावस्थेंत आशिल्ल्या त्या विठूशेटील्या कुडादिकेन म्हजी मान स्रध्देन बागवता.

विठूशेटीक गांवांत भोंवतना हांव म्हज्या भुरगेपणांत सावन वळखतालों. जातीन दैवज्ञ ब्रामण. सुवर्णकलाकाराचो धंदो. ह्या धंद्याक लोक शेटपण म्हण अजून वळखतात. शेट भांगर पेट्टना नाखटांनी भांगर चोरता, असो सर्वसामान्य लोकांचो पूर्वपार समज-गैरसमज जावन पडला. पूण विठूशेटीचे बाबतींत मात असले विचार कोणाच्याच मनांत आयले नांत. ताचें कारण आसलें विठूशेटीचें वर्तन. ताच्या सडेतोड वर्तनावेल्यान ताचें शुध्द चारित्र्य लोकांक आपल्याकडेन आकर्शून घेतालें. दुसरें कारण आसलें ताचो भेस! भारतीय-हिन्दू संस्कृतायेचें दर्शन घडोवपी ताचो भेस ताचें व्यक्तित्व चडच फुलयतालो. ताका लागून गावांतले किरिस्तांव लेगीत विठूशेटीक एक शुध्द आनी पवित्र 'कोंकणो' म्हूण व्हड मान दिताले.

शेट म्हणटकीर तो जाडजूड,

लांबरूंद आनी पोट फुडें आयिल्लो दुडवांकार आसल्यार बरो सोबता. पूण विठूशेट आंगलटीन किडकिडीत आनी शिरपुटो. माथ्यार बारीक केंस आनी तातूंत बोटभर शेंडी, गांठ मारपाची तांक आशिल्ली. घराकडेन आसतना शेंडी उकत्या माथ्यार लोळटाली. घराकडसून शॉपार वचमेरेन ती वाऱ्यार सोडिल्ली आसताली. माथ्यार शेंडी, गळ्यापसून कमरमेरेन लांबलचक जानवें. ताचेर हातांचें बानयान. धोपरामेरेन धवेंफुल्ल आंगोस्तर. घरापसून शॉपामेरेन चलून वचपाखातीर ना तुटपाची शाश्वती आशिल्लें जोतें. नुस्त्या बाजारामेरेनच्या परिसरांत विठूशेटीचो वावर असोच आसतालो.

मात, गावांभायर - पणजे - मडगांवां बी वचपाचें जाल्यार मात विठूशेटीचो झेत पळोवपासारको आसतालो. अशा वेळार तो विठ्ठलराव जावन भायर पडटालो. ताची शेंडी-ती बोटभर जावं मागीर-काळे तोपयेपोंदा सुरक्षीत उरताली. शेंडयेचो एक केंस लेगीत तोपयेभायर दिसूंक कठीण आशिल्लो. कामिज्यांवांत बसतकीर आपले पवित्र शेंडयेक बुरशांचो हात लागचो न्हय, हाची पुराय जतनाय विठूशेट घेतालो. विठूशेट सगळेच बाबतींत - बसपांत - उठपांत, न्हेसपांत - पांगरपांत, उलोवपांत - आयकुपांत बी निगुतसाणीन वागतालो. वेव्हारांत तर तो पक्को आनी धोरणी आशिल्लो.

विठूशेटीले मुस्तींत पुर्तुगेजांचें राज्य चलतालें. सगळेंच सुशेगाद. सार्वजनीक जीवन सुसेगाद आसलें तरी विठूशेटील्या जिवितांत मात सदांच धांवपळ. भांगर पेट्टां-पेट्टां अकस्मात ताच्या मनांत येतालें, पणजे-म्हापशां ना तर मडगांव वचचें. आनी-आनी वेळ ना. खुटयाळ्याची कोट-तोपी घालून सल्लो भायर! दाट जाल्यार सान्ना आनी पातळ जाल्यार पोळे म्हूण बद्द रस्त्यार वचून उबो रावचो. मडगांव वचप काय पणजे, हें कामिज्यांवांचेर निंबून आसतालें. रस्त्यावेल्यान पयलो येता त्या कामिज्यांवाक हात करचो. काळ-वेळ पळेनासतना दिसभर दोन-तीन बाजार भोंवन खंयच्च्याय वेळार घरांत भितर सरचें विठूशेटीन. घरकान्न ताची वाट पळयत बसताली. एकदां घरांतल्यान भायर सल्लो की हेवटेन-तेवटेन पळेनासतना सरळ वाटेन नीट चलप. चलतना विठूशेट धर्तरीवेल्यान चलता काय मर्दी-मर्दी हवेंतल्यान उडटा, हाचो विचार करचो पडटालो पळेतल्यांक.

विठूशेट म्हज्या बापायच्या पिरायेचो. म्हज्या ल्हानपणांत सावन हांव ताका पळेतालों. ताची दरेक कृती म्हाका मानवताली. ताचेकडेन इश्टागत करिनशी दिसताली म्हाका. पूण पिरायेची मेर आड येताली. ताच्या मनांतलें म्हाका खबर नाशिल्लें. पूण म्हजें मन ताका इश्ट मानूंक धजनासलें. समाजाचे दिश्टीन ती विसंगत आसली. पिरायेन एक-दोन वर्सां व्हड आशिल्लो भुरगो आपल्या परस धाकटो आशिल्ल्याचो दादा समजता, तर विठूशेटीची आनी म्हजी इश्टागत कशी जमतली?

तरी एक दीस ती संद म्हज्या पांयांकडेन धावन आयली. जालें अशें - शेजारच्या गांवचो म्हजो एक समवयस्क इश्ट म्हाका सोदीत आयलो. ताका आपलो तेर्म करूंक जाय आसलो. म्हज्या गांवांत जल्मनोंदणीची वेवस्ता आसली. पूण म्हज्या इश्टाक ताच्या बापायच्या पिरायेचो साक्षिदार जाय आसलो. ताकाच लागून तो म्हज्या म्हऱ्यांत आयिल्लो.

म्हज्या इश्टाचें काम तर कोणायभशेन जावंकूच जाय आसलें. गांवांत म्हज्या बापाय पिरायेचे म्हातारे जायते आसले. म्हाका ते बरेभशेन वळखतालेय. पूण गांवां भायल्या म्हज्या मनशांक ते वळखनासले. वळख नासतना साक्षिदार राव म्हण हांव तांकां कशें सांगतलों? तशें करप म्हज्या मनाक पटनासलें. हांवें सांगलें आनी ताणीं न्हयकारलें जाल्यार? म्हाका तितलेंच मरूंक पुरो आसलें.

इतल्यान म्हाका विठूमामाची याद जाली. विठूमामा? हय म्हज्याखातीर विठूशेट विठूमाम आसलो. तसो तो गांवांत फामाद आसलो. घरच्यांचो बाप्पा. भायल्यांचो विठू-विठूशेट-विठाप्पा बी. पूण म्हजो मात तो आशिल्लो विठूमाम! गाठभेट नासतना मनांतल्या मनांत आदरान विठूमाम म्हणचो हांवें ताका. एक मात, गांवांत आमी दोगूय सायकलीन भोंवताले. सायकलीवेल्यान तो म्हाका दिसलो म्हणटकच हांव ताका मुजरत मान बागयतालों. तोय तोंड उक्तें दवरून म्हाका पळेतालो. निर्विकार चेऱ्यान. हांव गांवच्या रंगमाचयेर नाटकांत 'पार्ट' करपी एक नाट्यकलाकार इतलीच ताची म्हजी वळख आशिल्ली जावंये!

एक दीस म्हज्या इश्टाक घेवन हांव भियेत-भियेत विठूशेटील्या शॉपार गेलों. म्हजो भंय आदरयुक्त आसलो. पयलेच खेप म्हजें उलोवणें जावपाचें आसलें ताचेकडेन. हांव विसेक वर्सांचो आनी विठूशेट साठी हुपिल्लो मनीस. आमी दोगूय ताच्या मुखार पोरांटे आसले.

म्हज्या इश्टाक हांवें शॉपाच्या दारापसून मात्सो पयस उबो केलो. हांव दाराभायर कुशीकसो उबो रावलों. विठूमाम कामांत गुंग जाल्लो. असले स्थितींत ताच्या कामांत व्यत्यय येवंचें न्हय म्हूण ताका मेकळीक मेळसर दाराभायर गणयत रावपाचें हांवें थारायलें.

विठूशेटीलें शॉप म्हणल्यार ल्हानशी कार्यशाळा. कुडाच्या मदेकाताक एक ल्हानशी पेट. पेटेर सुपुल्ली तागडी. तेकून ऐरण. ऐरणीचे कुशीक पेत्रोलाचो दिवो आनी फुंकणी. कामाक ताणें केन्ना बसकण मारिल्ली देवाक खबर! एकदां कामाक हात घालो म्हणटकीर 'बोक फिच्याद' (मोन्यानी) काम करप इतलेंच जाणा आशिल्लो विठूशेट.

विठूशेट 'बोवाळशेट' आसलो तरी ताच्या कामांत कोणेय व्यत्यय हाडल्यार, खिणांत तो दुर्वास रुशीचें रूप धारण करतालो.

तापटराव जातालो. असलो प्रसंग टाळपाखातीर दाराकडेन फाट करून बसप आशिल्लें ताणें.

आतां सकाळचीं साडे धा जाल्लीं. हांवें चितलें, चड वेळ तिश्टपाची गरज ना. विठूमाम केदेंय व्हडलें काम आसल्यार केन्नाय ताट्ट करून उठून तिठ्यार धांव मारतलोच. हो वेळ तागेलो नुस्तें घेवन घरा पावोवपाचो.

आतां इल्लो इल्लो करून बाजार फुलूंक लागिल्लो. रस्त्यावेल्यान सायकलस्वारांचें येवप-वचप दाट जाल्लें. मदीं-मदीं एक गाडी-कामिज्यांव पासार जाताले. गांवच्यो बायल्यो चोंब्यांनी उलयत-उलयत नुस्त्याक वताल्यो. शेतकार-पाडेकार नुस्तें घेवन तावेर्नांत भितर सरताले. थंय 'कुट्टी' मारून तोर्राद जावन भायर पडटाले. कांय 'च्या' हॉटेलांत भितर सरून भज्यांचेर ताव मारून आपल्यो जिबो तृप्त करताले. भज्यां-बटाडवडयांच्या वासान म्हज्या इश्टाची जीब मुतली. पूण ताका जिबेर ताबो दवरचोच पडलो. ना तर विठूशेट केन्ना भायर सरून नाच्च जायत, हाचो भंय! भजीं-बटाटवडयांक लागून, येदो वेळ केल्ली तपश्चर्या फुकट वचपाची.

बाजारांतलो बोवाळ एक सारको वाडत वतालो. रस्त्यावेल्यान येत्यावत्या सायकलींची किणकीण. मदीं-मदींच कामिज्यांवांचो 'पाँ-पाँ', तिठ्यावेल्या खारविणीचें आइडप, जास्ती आनी फस्ती. काजू-माडांची फेणी पिवन बाबल्याल्या शॉपांत नेटार आयिल्ली भासाभास आनी ह्या सगळ्या गजबजाक सोब हाडपी 'टुक-टुक-ठटाकठाक' असो विठूशेटील्या तुतयाचो तालमय आवाज!

शेकीं हांव चिंततालों तशेंच जालें. कामांत मग्न आशिल्ल्या विठूशेटीच्या नाकांत ताल्ल्या-बांगड्यांचो वास अचळय शिरलो आनी तुतयाची पकड आपसूक सैल जाली. तुतयो कुशीक धोंगसून विठूमाम ताट्ट करून



उबो रावलो. चावयांचो घोस सळसळ्ळो. विठूमामान खिणांत दार ओडून घेवन चावी घुंवडायली.

"विठूमाम, कसो आसा?" हांवें नमळायेन विठूमामाक जापायलो.

"आरे, तूं? तूं हांगा खंय?" विठूमाम आपलें तोंड उकतेंच दवरून म्हजे जापेची प्रतिक्षा करूंक लागलो.

"हांव तुकाच मेळूंक आयिल्लों विठूमाम!"

"म्हाका, म्हाका कित्या? कसलें काम काडलें?"

"विठूमाम, तूं म्हाका वळखता न्हय?"

"बऽऽरो! कसलें काम तें सांग झडझडीत, म्हाका नुस्तें चुकतलें."

"विठूमाम, हो म्हजो इश्ट. दोंगरेवेलो." विठूमाम म्हज्या इश्टाकडेन पळेनासतना तोंड आं करून केदोवेळ म्हज्या तोंडाकडेन पळेत रावलो. शेकीं ताका उलोवचेंच पडलें-

"म्हजेकडेन कसलें काम आसा तें सांग."

"विठूमाम, हाचो भुरगेपणांत 'तेर्म' केल्लो ना."

"तेर्म ताच्या आवय-बापायन करपाचो."

"हय विठूमाम, पूण तांणीं तो केलो ना." - हांव

"हय, आतां हांव कितें करूं?" विठूशेट.

"विठूमाम, साक्षिदार म्हूण तुवें एक आसीनात केल्यार ताचें काम जाता."

"हांव आसीनात कशी करूं? हांव हाच्या बापायकूय वळखना आनी हाकाय वळखना." विठूमामान सवंयेप्रमाण जापेखातीर तोंड उकतेंच दवल्लें.

"विठूमाम, हांव हाच्या बापायक वळखतां. पासश्ठ वर्सांचो आसतना हालींच मेला तो! तूं म्हजेर विस्वास दवरून आसीनात कर." विठूशेटीन चड आडेवेडें घेतले ना. ताणें म्हज्या चेऱ्याकडेन बारीकसाणीन पळयलें. हांव फाल्स उलोवचोना, हें ताका पटलें.

ताच्यांतलो निद्रीस्त समाजसेवक जागो जालो. इस्कादीच्या सपणांवेल्यान झडझडीत खाला देवून ताणें सायकलीक हात घालो. "तुमी अशें करात, रेजिस्तसिविलांत वचून सगळें 'प्रोंत' (तयार) दवरात. हांव नुस्तें घराकडेन पावोवन, असो वचून तसोऽऽ येतां. चलात लागात चालीक." अशें म्हणून विठूशेटीन एक पांय पेदालार दवरून दुसऱ्या पांयान पिट्ट करून दांग मारून तो केन्ना सायकलीर बसलो हें कळ्ळेंच ना.

विठूशेटीली सायकल बाजारादिकेन वारें कशें धांवली. हे वटेन आमी दोगूय इश्ट अर्दी वाट चलत आनी अर्दी धांवत-धांवत, खर्शेत रेजिस्तसिविलाच्या कार्यालयाकडेन पावले.

हें रेजिस्तसिविल नायक नांवाच्या अधिकाऱ्याच्या घरांत चलतालें. सरकारानूच

नेमिल्लो ताका त्या कामाक.

विठूशेट नुस्तें पावोवन आमच्या आदींच कार्यालयाकडेन हजर! घरच्यान येतना माथ्यार काळी तोपी दवरूंक विसल्लो ना. काम गांवच्या गांवांत आसलें म्हूण कितें जालें? सरकारी कार्यालयांत जावपाचें तें!

"चलात, हांगा कित्याक गणयतात?" विठूशेटीन सायकल धडेक तेकोवन इस्काद चडटना म्हणलें. आमकां धीर आयलो. आमी विठूशेटी फाटल्यान नेटान कार्यालयांत गेले. नायकसायब तेन्ना मोडके कदेलीर बसून, हारशांत पळोवन मिशांतले धवे केंस तोडून काडटालो.

"येयात रे, अशे हांगा उबे रावात!" विठूशेट आपले सवंये प्रमाण धेंगशेलो. ते बराबर नायकसायबान हातांतलो हारसो मेजार आपटीलो.

"कितें जालें गा विठूशेट! भितर सरतनाच तापलो सो?"

"तेर्म करूंक जाय तेर्म!"

"कसलो?" - नायक

"जल्माचो आनी कसलो?" - विठूशेट

"आजुनूय करूं नासलो रे पापया?" - नायक

"म्हजो न्हय. हाचो." विठूशेटीन म्हाका बोट दाखयलें.

"म्हजो न्हय विठूमाम, हाचो." हांवें म्हज्या इश्टाक बोट दाखयलें.

"विठूशेट, हें कितें चलयलां तुवें! फकांडां करूंक आयल्यात रे म्हजीं?" म्हज्या तोंडाकडेन पळेत नायक ताणशेलो. हरशींय जाल्यार थंड उलोवप ताका केन्नाच जमनासलें. विठूशेटीक पळोवन ताचो भेजो इल्लो चडच तापिल्लो. आमच्या वांगडा विठूशेट नाशिल्लो जाल्यार नायकबाब आमचेकडेन थंड उलोवन, आमची ताकत पळोवन, कितेंय तरी चिरीमिरी झडयतलो आशिल्लो. ते खातीर आमकां खंयचोय तरी बापूय सोडून हाडपाची गरज पडची नासली.

"आमी हांगा कोणाचीं फकांडां-बिकांडां करूंक येवंक ना. हांचो कोणाचो तरी एकट्याचो - तेर्म करूंक जाय." - विठूशेट.

"पूण हे खंयचे? हांव हांकां वळखना." नायकबाब पिरंजळ्ळो.

"गरज ना. हांव हांकां वळखतां. हो एकलो दोंगरेवयलो आनी दुसरो आगशीचो. हांच्या दोगांच्याय बापायंक वळखतां हांव. दोगांचेय बापूय जिते नांत." विठूशेटीन ठोकून दिलें. खरें म्हणल्यार म्हजो बापूय तेन्ना जितो आसलो. तरी हांवें तोंड उगडलें ना.

विठूशेट लेचोपेचो मनीस नासलो. नायकबाबाचे तकलेंत कितें शिजता तें तो जाणा आसलो. ताच्या हाताक चिरीमिरी लायल्यार ताचो आत्मो शांत जातलो, हें विठूशेट जाणा आसलो. जोर पेज्जेक रडटा हेंय तो जाणा आसलो.

"आगा नायका, कितें घेवन बसला गा! तूं तेर्म बरय, हांव आसीनात करतां. तुजेकडे दोन रुपयांची नोट आसा? पळय बोल्सांत हात घालून." विठूशेटीन म्हज्या चेऱ्याकडेन पळेत म्हणलें.

म्हज्या इश्टान ताट्ट करून दोन रुपया भायर काडले.

"दवर ते मेजार. तेर्माचे पयशे कितले ते मागीर सांगूं दी ताका. आसात तुजेकडेन? ना जाल्यार सांग. हांव पळयतां."

म्हज्या इश्टान दोन रुपयांची नोट काडून मेजार थेयली. पंखो-वारो बी नासतनाच नवी-कोरी नोट उडपाच्या प्रयत्नांत आसतनाच नायक बाबान नोटीचेर पेज दवल्लो.

नोटीच्या वासान आनी उबेन नायकबाबान दोन मिनटांत तेर्म बरोवन काडलो. नायकबाब सांगता थंय सगळ्यांनी दोळे धापून निशाणी केली.

दोन रुपये मेजार दवरिनासतनाय विठूशेट नायकबाबाकडच्यान तेर्म बरोवन घेतलो आसलो. पूण परिस्थितीन ग्रासलेल्या नायकबाबालें दुख्ख तो दोळ्यांआड करूं शकनासलो. म्हत्वाची गजाल अशी की म्हज्या इश्टान दोन रुपये दिवं नासले तरी ते विठूमाम आपल्या पदरचे दिवपाचो.

विठूशेट म्हातारो जालो तरी मरमेरेन ताच्यांतलो उत्साह उणो जाल्लो म्हाका केन्नाच दिसलो ना. जाण्ट्यांकडेन जाण्टेपणान आनी भुरग्यांकडेन भुरगो जावन वागपी विठूशेट एक दीस अकस्मात म्हाका कामिज्यांवांत भेटलो.

"विठूमाम कसो आसा?" आदले वळखीन हांवें विठूशेटीक आदरान जापायलो.

"आरे, खंय रे तूं?" अशें म्हणटनाच विठूशेटीन कोटा बोल्सांत हात घालीत एक कागदापुडी भायर काडली. "हाचें मोल करूंक जायत तुज्यान?" कागदापुडी विसकटायत विठूशेटीन म्हाका प्रस्न केलो. पळेजाल्यार बारीक-बारीक धवेफुल्ल चकचकीत खडे. "विठूमाम, असले खडे हांव पयलेच फावट पळेतां."

"अदमासान एका खड्याचें मोल सांग पळोवया?" विठूशेटीन म्हजी गरजेभायर परिक्षा घेवंक सुरवात केली.

"ना विठूमाम! म्हाका जमचें ना सांगूंक."

"अॅऽऽऽ! एका खड्याक दोनशें रुपये पडटात." अशें म्हणत विठूशेटीन पुडी गुटलावन कोटाच्या त्याच बोल्सांत चोंदली.

हेर शेट नाकुटभर भांगराची लेगीत जतनाय घेतात. विठूशेटील्या खड्याचें तेन्नाचें मोल आशिल्लें दोनशें रुपया. आतांचे हजारांनी रुपयांचें मोल आशिल्ले हिरे-माणकां बोल्सांत घालून विठूशेट निर्भयतायेन हांगा-थंय भोंवतालो. ना कोणाचो भंय, ना काळजी.

मनीस कितलोय हुशार आसलो तरी ताचेकडल्यान केन्ना ना केन्ना घोळयेपणा घडटाच. तें जालें अशें -

एक दीस हांव आगशी बाजारांत, म्हज्या एका शेट इश्टागेर बसून आशिल्लों. शेट भांगर पेट्टालो आनी शेटीचे इत्सेन म्हजें



तोंड व्हांवतालें. मदीं मदीं काम थांबोवन म्हजेकडेन चकाटां मारतालो. आमचीं चकाटां चालूच आशिल्लीं. वेळ सकाळची. अकरा जाल्लीं जावंये. इतल्यान विठूशेटीली सायकल दारांत उबी. सायकल कशीयतरी तेकोवन विठूशेट धेपां मारीत केन्ना भितर सल्लो आनी केन्ना कदेलार बसलो हें कोणाक कळ्ळें ना. म्हाका पळोवन ताणें, "आरे, तूं हांगा आसा?" अशें म्हणलें तेन्नाच म्हज्या शेट इश्टान तकली वयर काडून विठूशेटीक पळयलो. आतां मात ताका आपलें काम बंद करून विठूशेटीक येवकार दिवंचोच पडलो. कारण विठूशेट म्हजेभशेन चकाटां मारूंक येवंनाशिल्लो थंय. तांच्या उलोवण्यांत व्यत्यय येवचो न्हय म्हण हांव भायर गेलों.

विठूशेट वारो कशें आयलो आनी आपलें काम सोपोवन वारें कशें गेलो – ताकीत – ताकीत करीत! विठूशेट गेलो आनी हांव भितर येवन कदेलार बसलों. पळेजाल्यार दाराकडेन भितल्ले वटेन कितलींशींच थिकां जमनीभरवण जाल्यांत. पळोवंक हीं तांबडीं-धवीं थिकां डाळमाच्यो बियो कश्यो सोबीत दिसतालीं. असलींच थिकां, हे आदीं विठूशेटीन कामिज्यांवांत बशिल्लेकडेन दाखयल्लीं. अर्थांत हीं मोलादीक थिकां विठूशेटीलींच आशिल्लीं हातूंत इल्लोय दुबाव नासलो. म्हजें काळीज चर्रर जालें. एका थिकाचें मोल कितलें आसता, हाची कल्पना विठूशेटीन म्हाका हे आदीं दिल्लीच.

म्हजो इश्ट-शॉपवालो शेट-एकदां कामांत गूंग जालो म्हणटकीर सट्ट करून हे वटेन ते वटेन पळेनासलो. हांवें हीच संद सादली. कोणूय गिरायक भितर सरचे पयलीं आनी म्हज्या इश्टाक कळचे पयलीं, हांवें एकेक करून सगळीं थिकां पुंजायलीं. म्हाका विठूशेट सोडून आनी कोणाकूच थिकांचो पत्तो लागूंक दिवपाचो नासलो. म्हज्या शॉपवाल्या इश्टाक लेगीत.

म्हाका खबर आसली. विठूशेट घरा पावल्या उपरांत थिकांक हात घालतलो. थिकां ना तीं पळोवन पयलीं हांगाच धावून येतलो. शॉपवालो इश्ट एका पयलीं घरा वचना. विठूशेट आयलोच ना जाल्यार थिकां ताच्या घरा व्हरून दिवचीं अशें हांवें थारायलें.

आतां एक जाल्लें. शॉपवालो शेट जेवणाक गेलो. हांव मात थोडो वेळ थंय गणयत उबो रावलों. विठूशेट आयलो ना जाल्यार ताच्या घराकडेन वचपाच्या बेतांत आसलों हांव. इतक्यान ताकतीन पेदालां मारीत विठूशेट येता तो दिसलो. शॉपाकडेन पावता म्हणसर तो घामान भिजून चिप्प जाल्लो. शेंडयेचें कितें जाता तें जावंदी म्हूण माथ्याची तोपी काडून ताणें बोल्सांत घाल्ली.

"हो बंद करून गेलो घरा?" विठूशेट चडचड काचाबूल जालो.

"विठूमाम वयर यो."

विठूशेट कशाकशीय सायकल तेकोवन खरशेत वयर आयलो.

"तूं अजून हांगा कितें करता, म्हाका कित्याक वयर आफयलो?"

"तुजें कितें शेणलां बी?"

"हय-हय! तुकां कशें कळ्ळें?"

घामाघूम जाल्ल्या विठूशेटीन बोल्सांतलो लेंस काडून तो तोंडावेल्यान आनी मानेवेल्यान भोंवडायलो. ताचें काळीज धडधडपाचें उणें जालें. आशेचीं किरणां आतां ताका दिसूंक लागिल्लीं.

"विठूमाम, तुगेलीं थिकां म्हजेकडेन आसात. भिवपाची गरज ना. हांव तीं घेवन तुज्या घरा येवंक सोदतालों." अशें म्हणत हांवें म्हज्या बोल्सांतले खडे ताच्या पोशांत ओतले. विठूशेटीन कोटा बोल्सांतलो चुरिल्लो कागदाकुडको भायर काडलो. एकेक करून सगळीं थिकां मेजलीं. परतून एकदां थिकांची पुडी कोटाच्या वयल्या बोल्सांत चोंबून तो तोंड 'आं' करून म्हज्या तोंडाकडेन पळेत रावलो.

"तुजेकडेन थिकां आसात तें हाका खबर ना?" विठूशेटीन शॉपाच्या दाराकडेन बोट करून प्रस्न केलो.

"हांवें ताका पत्तो लागूंक दिवंना. आनी तूंय ताका उपकार करून सांगूं नाका." विठूशेट सादो-भोळो आशिल्लो, पूण पिसो नासलो. ताणें म्हजे फाटीर हात माल्लो आनी कृतज्ञतायेन म्हजेकडेन पळेत मोन्यानी चालीक लागलो.

विठूशेटीलो वेव्हार सदांच रेक्त आसतालो. उलोवप सडेतोड. उलोवपांत दाखयलिपय नासतालें. खरें-खोटें देवाक खबर, खूबशे लोक शेटींचो दुबाव घेतात. पूण विठूशेटीन कोणाचे दुडू आनी भांगर खालें अशें म्हज्या कानार केन्नाच आयलें ना.

विठूशेट खानदानी. ताचीं गिरायकांय ताच्याच तोलामोलाचीं. एकामेकाचेर विस्वास दवरून वागपी. ताकाच लागून विठूशेटीचें उठप-बसप घरंदाज आनी खानदानी लोकांमदीं आसतालें. अशें आसलें तरी व्हडांचे लगाडीक लागून ल्हानाक पयस करपाचें पाप ताचेकडल्यान केन्नाच घडलें ना.

विठूशेटीक कार्तांनी खेळपाची चड आवड. ताच्या कोटाच्या बोल्सांत इस्पीक आसतालीच. तरी ताका कार्तांनी खेळपाचें व्यसन नाशिल्लें. दुडू लावन तो कार्तांनी खेळूंक केन्नाच बसलो ना. मात कूय आयल्यार तो वगतार - कोणाय वांगडा, खंयचेय सुवातेर खेळूंक बसतालो. वेळप्रसंगार भिडूंवांगडा मोटमोट्यान झगडटालोय बी. भिडूलीं तड्डकां लक्षांत आयल्यार हातांतलीं कार्डां थंयच जमनीर आपटून ताणें घरची वाट धरची.

विठूशेट जातीन 'सोनार'. तो 'सोनार' आसुनूय ताची वृत्ती संतांची आशिल्ली. 'नळी फुंकिल्ली सोनारें, इकडून तिकडे गेलें वारें' ही उक्ती ताका केन्नाच लागू पडलीना. मनीस कामाचो आनी गरजेचो आसल्यारच ताचेकडेन उलोवणें आसतालें. आपल्याक मानवनासलें उलवणें तो 'हॅ-हॅ' करून झिडकारतालो. उलोवण्यात दम आसलो, तें आयकुपासारकें आसलें, तर मात तो केदेंय व्हडलें काम सोडून, आसनमांडी घालून, मन लावन आयकतालो. चकाटां, बल्कांवांतल्या गजालींपसून तो सदांच पयस-पयस रावतालो.

विठूशेटीचो गृहस्थाश्रम आनी वृध्दाश्रम लागसारच्यान पळोवपाचें भाग्य म्हाका लाबलां. ताची दरेक हालचाल आनी कृती समाजाक देखदिणी आसताली. तो धनान गरीब आसलो तरी मनान गिरेस्त आसलो. तो तोंडान फटकळ आसलो तरी दयेस्त आनी मायेस्त आसलो. ताच्या ह्या गोड सबावाक लागून सदांच तागेर येत्यावत्यांची गर्दी आसताली. गांवांत उत्सव खूब. अक्षयतृतीयेची लालकी-पालकी जावं ना जाल्यार वर्सुकी सप्ताह. विठूशेटीगेर सोयऱ्यांधायऱ्यांची गर्दीच गर्दी. वर्सांतल्यान एकदां विठूशेटील्या दारांत नाटकांचो माटोव पडटालो. त्या निमतानूय विठूशेटीगेर सोयरीं येतालीं.

विठूशेटील्या घरांतलो व्हडलो उत्सव तो सरस्वती पूजनाचो. ह्या उत्सवनिमतान विठूशेटीगेर नामनेच्या किर्तनकारांचीं किर्तनां जातालीं. ह्या किर्तनांचो आस्वाद घेवपाक सरभोंवतणच्या गांवकारांची व्हड गर्दी जाताली.

वर्सभर विठूशेटीगेर सोयऱ्यांधायऱ्यांची व्हडा प्रमाणांत गर्दी आसली तरी विठूशेट आनी ताची घरकान्न केन्नाच निर्शेलींना. 'अतिथिदेवो भव' म्हणत ताणें आपल्यागेर आयिल्ल्या-गेल्ल्यांची मनापसून सेवा केली.

गांवांत सप्ताह जातालो तो गांवच्या लोकांचो. पूण विठूशेट ताका आपलें घरचें कार्य मानतालो. 'फेस्त करता गांव आनी पिरिजेंतीचें (प्रेजिडेंटीचें) नांव' अशें विठूशेटीचे बाबतींत केन्नाच घडलें ना. हांगा 'सप्ताह करता विठूमाम आनी गांवचें नांव' अशी परिस्थिती आसली. सप्ताह लागीं पावता-पावता म्हणल्यार विठूशेटील्या आंगांतलो उत्साह इल्लो-इल्लो वाडत आसतालो. विठूशेट फुलता तसो गांवूय फुलतालो. विठूशेट गांवाक फुलयतालो.

व्हडलें गोंय हो विठूशेटीलो गांव. पूण सप्ताह हो फकत व्हडले गोंयकारांचो नासलो. तो आसलो मोवळा-भाटी, पाळें-कुडका, आगशी-नेवरा आनी पिलारकारांचो. ह्या सगळ्या गावांतले पार व्हडले गोंयच्या मुखेल पाराक येवन मेळटाले. सरभोंवतणच्या वाठाराक सगळेकडेन पारच पार. दरेका गांवांतले मुखेल रस्ते टाळ-मृदंगांच्या आवाजान गजबजून वताले. 'जय-जय विठोबा रखुमाई' ह्या गजरान पाराची रात केन्ना सोपूंक आयली, हें कोणाच्याच लक्षांत येनासलें.

सप्ताहाची रात ही खऱ्या अर्थान विठूशेटीली रात आसली. स्वताच्या घरांत लग्नकार्य आशिल्ल्यावरी रात-दीस बोवाळटालो विठूशेट. सात-आठ पार आपल्या गांवांत येतात. विठूशेटीक दिसतालें, हे पार आपल्या उतराक लागून येतात. रस्त्यार आसले म्हूण कितें जालें? आपल्या गांवचे सोयरे ते! तांका बरेभशेन येवकार दिवंक जाय. येतासतना वाटेर कसल्योय अडचणी

आयल्यार पयस करूंक जाय. केन्ना-केन्नाय अकस्मात पेट्रोलमेक्स इबाडटा. भजनमंडळ काळखांत पडून रसभंग जाता. तशें घडचें न्हय म्हूण विठूशेट अतिरिक्त दिव्यांची, आदींच वेवस्ता करून थेयतालो.

हे पार व्हडलेशे जाल्यार दोन-तीन किलोमीटर अंतरावेल्यान येताले. त्या तेंपार फोनाची वेवस्ता नाशिल्ली. तरी विठूशेट गप्प बसनासलो. आपापल्या गांवांतल्यान भायर सरिल्ले पार अडचणविरयत मुखेल थळार पावतले काय ना, हाची चिंता विठूशेटीक लागून आसताली. पार आपल्या गांवांत पावसर थार नासतालो विठूशेटीक! पार सोंप म्हणसर यो-वच चलतालें विठूशेटीलें.

फांतोड जाता-जाता म्हणल्यार सगळे पार विसर्जीत जाताले. लोक आपापल्या घरा वचून सुशेगाद ताणून दिताले. विठूशेटीक मात कशीच न्हीद पडनासली. तो न्हिदल्यार विठ्ठल एकटो पडटलो, हाची काळजी ताका लागून आसताली. सप्ताह वीस वरांचो, चोवीस तास मेरेन भजनाक खंड पडूंक उपकारना. सांगाताक कोणय मेळ्ळो जाल्यार बरें आसा. ना जाल्यार विठूशेट ताळ्यार उदक-पाण्याचो थेंबो घे नासतना 'जयविठ्ठल-जयविठ्ठल' करीत एकटोच ताळ कुटीत बसतालो.

आयज गांवागांवांनी सप्ताह जायनांत अशें न्हय. पूण तेन्ना भसेन आयज भाक्तिभाव उरूंक ना. चलता ती फकत भोगावळ.

विठूशेट देवघेवीचो पक्को आशिल्लो. आयज एका गांवांत तर फाल्यां-परवां दुसऱ्या गांवांत सप्ताहाची पाळी येताली. ज्या-ज्या गांवांतसावन पार विठूशेटील्या गांवांत येताले, तांची परतफेड विठूशेट करतालोच. चारपांच लोकांक आनी कांय पोरांट्यांक एकठांय करचे विठूशेटीन. दोन सायकलींचो सांगोड करचो. ताचेर एक ल्हानशी घुमटी सजोवंची. टाळ-पकवाजाच्या तालार नाचत-भजन करीत विठूशेटीली दिंडी त्या-त्या गांवांत कोणाय भशेन पावूंकच जाय आसली.

नाटक म्हणल्यार गोंयकार सामके पिशे जातात. विठूशेटय तातुंतलोच एक पिसो. गांवांतलीं नाटकां पळोवपाक तो मांडी मोडून, शेंडी सोडून थपकल मारतालो. नाटक, मागीर तें कशेंय जावं. गांवच्या भुरग्यांनी केलां तें! गांवच्या भुरग्यांनी केल्लें कितेंय विठूशेटीक बरें लागतालें. गांवच्या कलाकारांक प्रोत्साहन मेळचें म्हूण विठूशेट सगळ्यां पयलीं नाटकामाटवांत आपूण स्वता येवन बसकण मारतालो. गांवांत अक्षयतृतीयेचीं दोन नाटकां जातालींच. ह्या नाटकांचो माटोव विठूशेटील्या दारांतल्या एका शेतांत पडटालो. विठूशेटीन मनांत हाडिल्लें जाल्यार नाटकां तो बल्कावांत बसून पळोवंक शकतालो. पूण ना. नाटक म्हणचे नाटक. तें कोट-तोपी घालून माचयेमुखार बसूनच पळोवपाचें आसता. हेर लोक नाटक उबे रावन पळयतात. विठूशेट मात बायलां-भुरग्यांमदें आसनमांडी घालून बसतालो. माटवांत केदोय बोवाळ जावं, विठूशेटीक ताची परवा नासताली. ताचे दोळे आसताले रंगमाचयेर आनी कान पेटी-तबल्याकडेन! एकदां नाटक कोमेस जालें, विठूशेट स्वताक विसरून वतालो. ताका नाटक पुराय समजतालें. तरी कलाकारांच्यो चुको दाखोवपाचे भानगडींत केन्नाच पडलो ना विठूशेट. गांवचे भुरगे ते. आतां चुकले जाल्यार फाल्यां सुदारतले. तांकां जाता तितलो उत्साह दिवप हें जाण्ट्यांचें काम. ताका लागून नाटक कशेंय जावं. विठूशेट तें सोंपसर बसून रावतालो. मागीर नाटक काबार जातकीर, मेळत त्या कलाकाराचे फाटीर हात मारून ताका शाबासकी दितालो.

चडशा लोकांची साठी हुपतकीर तांची आंगलट बदलता. सगळें आंग लबलबता. पोट सुटून धोल भायर दिसूंक लागता. पांय जड जातात. चलतना मनीस थबथबता. पूण विठूशेटीक मात हांवें असले स्थितींत केन्नाच पळेलोना. ताका हांवें सदांच पिटपिट्टना पळेलो. तो सदांच असोच पिटपिटत रावचो अशें म्हाका दिसतालें.

कारण ताचे पिटपिटायेंत म्हाका केन्नाच सुवॉर्थ दिसून आयलो ना. दिसून आयली ती समाजाविशींची आस्था, देवाविशींची भक्ती आनी आपल्या-हिन्दू धर्माविलो विश्वास. कश्टी आनी नितळ मनाचो विठूशेट गरीब आसूनय केन्नाच निर्शेल्लो दिसलो ना. आनंदांत-खोशेंत-रावन गृहस्थाश्रमाचीं कर्तव्यां कशीं पार पाडपाचीं आसतात, हाची देख समाजान, विठूशेटीकडल्यान घे सारकी आशिल्ली.

विठूशेटीक चलयो कितल्यो म्हाका खबर ना. पूण ताच्या चार चल्यांक हांव बरेभशेन वळखतां. शिक्षणप्रेमी आनी सुसंस्कारी विठूशेटीन आपल्या भुरग्यांक उच्च शिक्षण दिवंक कितेंच उणें केलें ना. ताच्या व्हडल्या चल्यान वकिली शिकतां-शिकतांच स्वातंत्र्यलढ्यांत उडी घेतली. विठूशेटीलीं आशेचीं किरणां खंयचे खंय शेणलीं. तरी विठूशेट खचलो ना. ताची छाती फुल्ली. पुताचें देशप्रेम पळोवन, आपलें हड्डें फुडें काडून समाजांत वावरूंक लागलो विठूशेट!

मनीस आशेर जगता. आपलो व्हडलो पूत आपल्या संवसाराक हातबोट लायतलो हे आशेर जगतालो विठूशेट. पूण तशें कांय घडलें ना. तरी तो निर्शेलो ना. ताचे हेर दोन पूत शिकूंक हुशार आसले. तांच्या वरवीं आपल्याक फुडें बरे दीस पळोवंक मेळटले अशी आस बाळगून आसतालो तो. पूण काळखांतल्यान उजवाडाचीं किरणां दिसतां दिसतांच एक वायट खबर कानार पडली - विठूशेटीक अपघातान मरण आयलें. मोटरसायकलीर फाटल्यान बसून, मडकंयच्यान घरा येतना एका मोडणार अपघात जालो आनी विठूशेटीक आक्ताक मरण आयलें.

विठूशेटीच्या मरणान गांवांतल्या लोकांच्या मनाचेर कितें परिणाम जालो, हें हांव सांगूंक नकळ. पूण म्हाका मात मळबांत तळपपी सूर्य अकस्मात अस्तमेक देवून सगळ्या वाठाराचेर काळखाचें साम्राज्य पातळ्ळ्याचो भास जालो. खिणांत काळखी रात अणभवाक आयली. मळबांत टिमटिमपी असंख्य नखेत्रांमदें हांगा-थंय, अयस-पयस चकचकपी कांय तेजाळ नखेत्रां दिसलीं. तांतलें एक तुटून खंय नाच्च जालें, तें कळ्ळेंच ना म्हाका!

विठूशेटीक मरून कितलीं वर्सां जालीं हाचो म्हजेकडे हिशेब ना. विठूशेटील्या मरणा आदीं आनी उपरांत गावांतले कितलेशेच मनीस मरून गेले. पूण म्हज्या लक्षांत उल्लो तो फकत विठूशेट!

गांवांत अजून सप्ताह जाता. गांवांभायले एक - दोन पारुय येतात. दिंडेवेळार विठ्ठला नांवाचो गजरूय जाता. मात थंय विठ्ठल आसना. गांवांत अक्षयतृतीयेची लालकी भायर सरता. पूण लालकेच्या फाटीफुडें धावपी विठूशेट ना. विठूशेट म्हणल्यार चैतन्याचो झरो. विठूशेट म्हणल्यार गोंयचें दायज. निरपेक्ष कार्यकर्तो कसो आसचो हाची देख कोणेंय विठूशेटीकडल्यान घे सारखी आशिल्ली.

तशें पळोवंक गेल्यार म्हज्या गांवांत खुबशे गिरेस्त आनी समाजसेवक पळोवंक मेळटात. पूण कोणाविशीं दोन उतरां बरोवचीं अशें म्हज्या मनाक दिसलें ना. म्हज्या मनांत घर करून रावलो तो फकत निरलस, निरभिलाशी, मोगाळ आनी नीट मार्गान चलपी पुडव्यांतलो शेंडीधारी विठूमाम!





- **नं. ध. बोरकार**
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

# काव्योत्सव

**बि म्ब पु र स्का र**

***३० नोव्हेंबर २००९***

*ह्या दिसा बाकिबाब बोरकार हांचे जल्मशतीक आरंभ जाता. हें संपूर्ण वर्स गोंयकार आनी काव्यप्रेमी भारतीय बा. भ. बोरकार हांचें शताब्दी वर्स म्हूण मनयतात.*

*बिम्ब मासिकूय ह्या वर्सा सावन तीन कवींच्या नांवान काव्य पुरस्कार जाहीर करता. काव्योत्सव ह्या सदरांत ह्या म्हयन्या सावन एकाच कवीच्यो पांच कविता येतल्यो. ११ म्हयन्यांत ११ कवी ह्या काव्योत्सवांत हजेरी लायतले. ह्या कवींचेर जाणकार ज्येश्ठ कवी फुडल्या अंकांत भाश्य करतले. बिम्ब मासिकाचे वाचक आनी हेर जाणकार ह्या कवींच्या कवितांचेर मतां उक्तायतले. हातुंतल्यान तीन कवी दर वर्सा वेचून काडटले. हांगा पयलो, दुसरो, तिसरो असो वेगळोचार नासतलो. हे कवितेखातीरचे बिम्ब पुरस्कार बाकिबाब बोरकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय आनी डॉ. र. वि. पंडित पुरस्कार ह्या नांवान वळखतले. २००९ ते २०१० वर्साचे पुरस्कार २६ जानेवारी २०११ सालांत बिम्ब मासिकाच्या थाव्या वर्धापन दिसा व्हडा दबाज्यान भेटयतले. शाल, श्रीफळ आनी रोख रक्कम हाच्या स्वरुपांत हे पुरस्कार आसतले. काव्योत्सवांत उजवाडाक येवपी कविता त्या त्या कवीकडल्यान मागोवन घेतले. जे कोण तसो उल्लेख करून धाडटात तांचोय स्वीकार करतले.*

## मेळचें ना

काबाड कश्ट काडले  
तीळ तीळ तुटलो  
मर मर मेलो  
अशेंच तुका दिसतलें  
सोपेपणान हातांक जैत मेळ्ळें ना  
आस म्हजी मळबा येदी  
दिसान दीस नव्यो यादी  
झाडां पेडां हालोवन लेगीत  
फळांय कशींच पडचिना  
सोपेपणान कांयच मेळचें ना  
जैत रोकडेंच मेळचें ना  
मणभर सुखाखातीर  
जीव सामको आसुसलो  
जीण जाली तिरान तीर  
पूण सूख मेळना जगपाखातीर  
तारणाऱ्याक माल्लो उलो  
जेन्ना संवसार सोसना जालो  
काळखी रात सांगाता घेतली  
सांगाता बीं वयर येना जालें  
तुजे विणे कठीण जिणें  
जालें हांव सैर भैर....  
मन जालें जागें पळय...  
जैत रोकडेंच मेळचें ना  
जैत रोकडेंच मेळचें ना

## तुजें-म्हजें

तुजें मन  
म्हजें मन  
मनांमनांत  
पांचवें तण

तुजें आंग  
म्हजें आंग  
आंगाआंगार  
फुलला चंवर

तुजी जीण  
म्हजी जीण  
जिणे जिणेंत  
म्होवाळ खीण

तुजीं सवंगां  
म्हजीं सवंगां  
न्हिदेचीं, जागेचीं  
सुंदर सवंगां  
सवंगांचीच  
सवंय जाल्या

तुजें हाशें  
म्हजें हाशें  
हाशाहाशार  
फुलत रावलां  
तुजें म्हजें  
म्हजें तुजें

तुजे दोळे  
म्हजे दोळे  
दोळ्यादोळ्यांत  
काजळ काळें

तुजी चाल  
म्हजी चाल  
चालीचालीन  
तेकयल्या फाट

तुजें उतर  
म्हजें उतर  
उतरा उतरांत  
सोबीत कातार



## चान्न्या राती

मीठा कणी जावन  
गेलें हांव दर्या सरीं  
अचळय म्हाका चिमटेंत धरून  
बेगीबेगीन घेतलें कुशींत  
ल्हाराचें दिवन उशें  
वाऱ्याचीं पांगरूणां घालीं  
नखेत्रांची भांगरा बावली  
करूंक लागली खातकुतली  
कितें वयर पळयल्यारी?  
म्होवेलें चान्नें चोखून  
कुपांतल्यान उडी मारीत  
चंद्रीम सरतालो म्हजेसरी  
जालें हांव दर्यायेदी  
न्हिदिल्ले कडेन चान्न्या रातीं

**– रोमा रा. लाड**  
कारायमड्डी, सावर्डें-गोंय

# अलका सिनाय आसोळडेकार हांच्यो कविता : एक भाश्य



'बिम्ब' पुरस्कार येवजणे खाला 'बिम्बा'च्या नोव्हेंबर अंकांत 'काव्योत्सव' ह्या सदरांत छापून आयल्ल्या कवयित्री अलका सिनाय आसोळडेकार हांच्या पांच कवितांचेर हांवें भाश्य करचें अशें संपादक बाब दिलीप बोरकार हांणी म्हाका सुचयलां.

खरें म्हळ्यार दिलीप बोरकाराली 'काव्योत्सव'ची कल्पना म्हाका व्हडलीशी पटूंक ना आनी कवीखातीर मतदान बीन करप हें तर निखालस पटूंक ना. (हो दूरदर्शनाचो परिणाम सो दिसता.) हें म्हजें मत हांवें बाब बोरकाराक सांगिल्लें आसा. जावं. पूण संपादकाच्या उतराक मान दिवन भाश्य करपाक कसलीच हरकत ना.

'आदार', 'शब्द', 'सांगात', 'मळब' आनी 'आपलेंपण' ह्यो कवयित्रीच्यो पांच कविता म्हजे मुखार आसात. कोणेंतरी म्हळां की, "Prose is like walking and Poetry is like dancing." –गद्य आनी कविता हांच्यामदलो फरक ह्या वाक्यांत हांगा बेसबरो व्यक्त जाला. गद्यांत उतरां हीं बेठी 'चलतात' उलट कवितेंत 'उतरां' हीं नृत्य करतात. गद्यांत उतरांक एक साधारण 'वेग' आसता. उलट कवितेंतल्या उतरांक एक 'आवेग' आसता. थोडेभितर खूब कितें आशयघन सांगपाचो हावेस आसता. ते नदरेन कवयित्री असोळडेकाराल्या पांच कवितांतल्या फकत एका कवितेचो 'कविता' म्हणून विचार करूं येता. ती कविता म्हळ्यार – 'सांगात'. हे कवितेंत उतरांचें 'नृत्य' आसा, उलट बाकीच्या चारूय कवितांत कवयित्री बेठो गद्यांतलो walk घेता अशेंच जाणवता. सुर्वेक 'सांगात' ह्या तांच्या कवितेचो आमी विचार करुया. कविता अशी:

**तूं सांगाताक आसताना**
**काळखांत लेगीत**
**चान्याचो भास**

**तूं नासतना**
**चान्याक लेगीत**
**विरहाचो वास**

–कविता ही इतलीच. पूण कवयित्रीची शक्त हे कवितेंत दिसता. हांगा प्रत्येक उतर 'आवेग' घेवन तोलून मापून आयलां. बरे कवितेंत जें कितें आसता तें 'सांगात' हे कवितेंत एकवटलां.

खरें म्हळ्यार हें एके नवोदीत कवयित्रीन बरयलां म्हणुनूच ताचें अप्रूप धरपाचें. कारण हेंच जर कोंकणींतल्या एखाद्या 'यशस्वी' कवीन बरयल्लें जाल्यार थंय हांव झरलेल्या काव्यमय भाशेबद्दल उलोवपाचों. थंय म्हजे कवितेच्या मूल्य मापनाविशीचें भाश्य येवपाचें. पूण नवोदीत कवी वा कवयित्रीचो विचार करताना एक वेगळी नदर, एक सॉफ्ट कॉर्नर घेवनूच बरोवचें पड्टलें. तर सांगपाचें म्हळ्यार 'सांगात' ही कोंकणी कवितेंत भर घालपी 'बरी' कविता न्हय, तर ती कवयित्री असोळडेकाराली एक 'बरी' कविता. 'सांगात' सारकी कविता ही कवयित्रीच्या फुडल्या काव्यप्रवासाची यशस्वी नांदी थरूं येता.

हे फाटभूयेर बाकीच्यो चारूय कविता ह्यो टिपिकल नवोदितान बरयल्ल्यावरी सामक्यो कच्च्यो उतरल्यात. तांची मळब ही ल्हान कविता पळोवया :

**चंद्रीम मळबांत**
**उजवाड फांकयता**
**धर्तरीक चान्या**
**रातीन न्हाणयता**

**संस्काराचें अमृत**
**पाजोवन**
**आवय भुरग्याक**
**वाडयता**

– आतां ही सामकीच 'बाळबोध' कविता. तांच्या 'सांगात' हे कवितेकडेन तिची तुळा करून पळयत जाल्यार ती एकदमूच सकयल्या पावंड्याची दिसता. खरें म्हळ्यार ही कविता न्हयच. हें एक सुभाषित कशें दिसता. संस्कृतांतल्यान कोंकणीत अणकार केल्ल्यासारकें. आतां 'सुभाषित' आनी 'कविता' हातूंत फरक आसा. सुभाषित म्हळ्यार सुवचन, सुविचार. पूण कवितेंत विचारांक व्हडलें म्हत्व नासता. थंय भाशीक भावनेचो आवेग म्हत्वाचो आसता. वा अशेंय

म्हणूं येता की भाशीक भावनेच्या आवेगांतल्यान आयल्ले विचारूच कवितेंत पचून वचूंक शकतात. देखीक, ह्यो गीतांच्यो वळी पळयतात :

**तूं हिंदू बनेगा न मुसलमान बनेगा**
**इन्सान की औलाद है इन्सान बनेगा**

–ह्या साहिर लुधियानवीच्या गीताच्या ओळींत म्हाका अस्सल काव्य दिसता. हिंदू-मुस्लीम भेदभाव, कापाकापी, फाळणी, धर्माच्या नांवान केल्ली अमानुषता ह्या सगल्यांचो संदर्भ एकवटून ह्यो ओळी, हीं उतरां विशाल मानवतेक उलो मारतात. फकत दोन ओळींतल्यान खर आशय सांगता. उलट,

**संस्काराचें अमृत**
**पाजोवन**
**आवय भुरग्याक**
**वाडयता**

–ह्यो ओळी गद्य पातळीरूच उरतात.

'आदार' हे कवितेंतूय कवयित्रीन एक विचारांची माळ गुंतल्या. तातुंतले तिचे विचार प्रामाणिक आसात हेविशीं दुबाव ना. पूण त्या विचारांक काव्यरूप येवंक ना.

'शब्द' वा 'आपलेपण' ह्या तिच्या कवितांत विचार ना. पूण भावना घरगुती तक्रारीच्या सुरांत व्यक्त जाल्यात. संवसाराविशीं, आपल्या मनशाविशीं एखाद्री बायल तक्रार सांगता इतलेंच ताचें वैयक्तीक आनी मर्यादीत स्वरूप उरता. कवितेंत वा कलेंत मांडलेलो अणभव 'युनिवर्सल' जावंक जाय. तो फकत 'वैयक्तिक' उरूंक फावना हें कवयित्रीन मतींत घेवप गरजेचें आसा. आतां हें सगलें तक्रारीच्या सुरांत आयल्ल्या कारणान 'विचारांचें विराठपण' आनी 'भावनेची ओलसाण' हांगा निर्माण जावंक पावंक ना. ह्या संदर्भात साहिर लुधियानवीच्या गीताचेंच आनीक एक उदाहरण दिवचें जाल्यार :

**तुम मुझे भुल भी जाओ**
**तो ये हक है तुमको**
**मेरी बात और है**
**मैने तो मोहब्बत की है**

– ह्यो दिसपाक साद्यो ओळी. पूण तातूंत दोन जीव, त्या दोन जीवांचीं वेगवेगळीं मनां आनी तातुंतल्यान आयल्ली प्रियकराविशीची अढळ प्रेमभावना हांगा ताकदीन व्यक्त जाल्या. असली ताकद कवयित्रीच्या 'शब्द' वा 'आपलेपण' ह्या कवितांनीं येनात. ती येवंक जाय म्हणून कवयित्रीन आपल्या कवितेविशीं मात्शें चिंतन करपाची गरज आसा. त्या खातीर दोन प्रस्न तिणें आपल्याकूच विचारूंक जाय :

१) हांव कविता कित्याक बरयतां?
२) हांवें कविता न बरयली जाल्यार कितें जातलें?

– ह्या दोन प्रश्नांचीं कवीप्रमाण वेगवेगळीं उत्तरां आसूंक शकतात. कवयित्री असोलडेकारान आपलीं खाशेलीं उतरां सोदचीं.

मनीस श्वास घेता, जेवता-खाता-पियेता तो जगपाखातीर. पूण तो बेठो जगपाखातीर कविता बरयता अशें म्हणपाक समा जावचें ना. पूण तो 'अर्थपूर्ण जगपा खातीर' कविता बरयता अशें म्हाका दिसता. अर्थपूर्ण जगपाच्यो वेगवेगळ्यो तरा आसात. तातुंतलीच कविता बरोवप ही एक तरा. आनी आपले जीणेंतलें काव्य सोदल्याबगर खंयचोच कवी बरी कविता बरोवंक शकचो ना. आतां जीणेंतलें काव्य सोदपाच्योय प्रत्येकाच्यो वेगवेगळ्यो भाशीक तरा आसतात. कवयित्री असोळडेकारान गंभीरपणान आपल्या कवितेची साधना चालू दवल्ली जाल्यारूच तिका आपली स्वताची भाशीक तरा गावोंक शकता.

निमणें एक, – कॉलेजींत बीन आसताना मोगा-बिगांत पडलो की कांय जाणांक कविता सुचतात. पूण उपरांत तें मोगाचें भूत मानेवेल्यान देवलें की हेच मागीर कवितेचें नांव लेगीत घेनात. असल्या टेंपररी कवी वा कवयित्रीविशीं हें हांव बरयना. कविता ही अख्खी जीणभर करपाची साधना. ही गजाल एकदां कवीच्या रगतांत भिनली की तो कविता बरोवपाविशीं 'गंभीर' जातलो. कवयित्री अलका असोलडेकाराकडल्यान हो 'सिरियसनेस' म्हाका अपेक्षीत आसा.

तांच्या काव्यप्रवासाक हांव शुभेच्छा दितां.



**– एस. डी. तेंडुलकार**

बिम्ब मासिक आपलीं १० वर्सां पुराय करतलें त्या वेळार फाटलीं धा वर्सां ज्या ज्या कवी साहित्यिकांनीं बिम्ब आपल्या सृजनतायेन सजयला तांची नोंद पुरस्काराच्या रुपान घेवपा खातीर बिम्ब परिवारान नामांकनाक आरंभ केला. खंयचेय कविची एक कविता ही मोलावणेक उपकारता आनी शितावेल्यान भाताची परिक्षा जरी जाणकार घेवंक शकता तरी केन्ना केन्नाय एकेच कवितेन कवी व्यक्त जायना. तेच पासत काव्योत्सवांत तिनां परस चड कविता घेवन पयलीं एका जाणकाराकडल्यान त्या कवितांचें मुल्यांकन जावंचें आनी उपरांत हेर जाणकार रसिकांकडल्यान आपापलीं मतां येवंचीं होच हे मोलावणे फाटलो उद्देश आसा. मतदान हो संदर्भ तसो चुकिचोच आसा. ताचो खरो अर्थ जाणकारांचीं मतां असो घेवंचो.

ह्या सदराचो मुखेल हेतू म्हळ्यार बिम्बांत जे कोण नवोदीत कविता बरयतात तांकां कविता म्हळ्यार कितें आनी ती कशी आसूंक जाय हाची थोडी भोव वळख करप.

– संपादक



## यो रे बेगीन....

राधेन तारू सोडलां
जगते जिणे पलतडीं...
कृष्णाच्या केन्ना लागतलें
मना तडी आलतडीं?

यो रे कृष्णा यो रे बेगीन
सुरुझाडांनी...
राधा तुजी वाट पळयता
दर्यापलतडीं...

यो रे कृष्णा यो रे बेगीन
कुकाऱ्यो घालुनी...
राधा तुजी वाट पळयता
रेवे-घरांनी...

यो रे कृष्णा यो रे बेगीन
दिश्टाव्यांनी...
राधा तुजी वाट पळयता
अधृश्ठल्हारांनी...



– श्रीनिशा नायक
बेतकी – खंडोळा



## हांव पिंपळ

तीळसांज कात्रेक मोगी मनां
नजरांचो हांगा मांडी खेळ
चुकून केन्नाय रंगात येतालो
स्पर्शाचो प्रणय खेळ
दोळे धापून राव उबो
गवाय तांच्या मोगाचो
हांव पिंपळ हांव पिंपळ

हांव पिंपळ हांव पिंपळ
कदीम काळा सावन उबो
अभंग अटळ हांव पिंपळ
वयर दोंगर गांव सकयल
गांवा कुशीक न्हय नितळ
हांव पिंपळ, हांव पिंपळ

शेकड्यानी पावसाळे झेलत उबो
गांवचो जणू हांव थांबो
येतल्या वतल्याक दीत आसा
सावळी म्हजी थंड शितळ
हांव पिंपळ, हांव पिंपळ

सावळेंत म्हजे गोरवां वासरां
आज्या वांगडा केन्नाय नातरां
खो-खो कबड्डी केन्नाय लंगडी
रमतालीं हांगा भुरगीं बाळां
हांव पिंपळ हांव पिंपळ

शिरशम्मेचो पेटारो घेवन
मरकमकार मारी हांगा ठाण
धोलक्याचो आयकून ताल
फाटीर ओडी चाबका वळ
हांव पिंपळ हांव पिंपळ

गांवकारा तोंडार परबां खोशी
जावं चवथ जावं दिवाळी
शिगम्या दिसांनीं रंगताले मेळ
संवसार पडव्याक घुडयांचो खेळ
खोशयेंत तांचे मुरगट्टालो
हांव पिंपळ हांव पिंपळ

दशकां गेलीं शतकां सोपलीं
दिसान दीस बदल घट्टा
मुळांत पेटताली तुपावात
तिवूय आतां चुकून पेट्टा
सणा परबो आजून येतात
रूप मात्र बदलत गेलां
आधुनिकतेच्या नांवा खाला
संस्काराची होळी जाल्या
दोळे आसून कुड्डो जसो
हांव पिंपळ हांव पिंपळ

मरकमकारा पोरां खेळ
आज्या वांगडा नातरां खेळ
कांयच आतां उरूंक ना
टी. व्ही., कंप्युटरा वांगडा आतां
हातांत मात्र आयला मोबायल
तोंड आसून मोनो जसो
हांव पिंपळ हांव पिंपळ

एकलो एकसुरो उबो हांगा
म्हज्याच पानांची आयकत सळसळ
कान आसून भेरो जसो
हांव पिंपळ हांव पिंपळ



– सुफला प्रभू शेळकार-
वास्को – गोंय.

# भरत-पुराण

शारांनी तशेंच गांवांनी पडल्या कचरो-कोयरा घाण
हेच घाणींत बरोवंक बसलां म्हजें भरत-पुराण ॥१॥

हळशिकेंत हे वाचूं नज गिता, बायबल, कुराण
आयचे घाणींत बसचें घेवन एकूच म्हजें पुराण ॥२॥

जाग्याजाग्यार कोयरा ढीग केल्नाच उणे जायनात
मुन्सिपालटी उबारून व्हरना लोकय उजो लायनात ॥३॥

कोयरा राशीर बसून हांव पुराण सोदी सांगूंक
थंय येवन बसलो एकलो नंबर टू करूंक ॥४॥

म्हजेवरी सगळ्याच लोकांक घाणीची जाल्या सवंय
पुराण सोपचे आदींच म्हाका रोग जायत म्हूण भंय ॥५॥

थंयचो उठून रस्त्या कडेक फातरार गेलों बसूंक
कुले तेंकोवच्च्या पयलींच तो फातर लागलो हालूंक ॥६॥

चितूंक पडलों म्हजी तकली फातराक कशी कळ्ळी
कुदळी घेवन दोग मानाय मारी आसले खळी ॥७॥

एक मनीस बडी घेवन म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो
हांगा बसू नाका म्हूण म्हाका धपकावंक लागलो ॥८॥

आदी आमी वाचूंक बरोवंक बस शेता बांदार
आयज सोदून बसचो पडटा मोडक्या झाडा खांद्यार ॥९॥

आवाजाच्या प्रदुशणांत विचारांचो मेळना धागो
मोग्यांक बाबड्यांक मोग करूंक बरो मेळना जागो ॥१०॥

थकल्या भागल्याक बसपाक झाडां सावळी मेळना
पावसांत भिजल्यार आडसाक रावपाक पावळी मेळना ॥११॥

आयच्या काळांत नळाक लेगीत जाता मरे गॅस
उदक ना म्हूण लोकांक घरांत शिजोवंक मेळना पेज ॥१२॥

न्हायनासून गोरे मनीस दिसतात पळोवंक बुरशे
पोटाक नासून ल्हान भुरग्यांचे दोळे जाल्यात वरशे ॥१३॥

पिवच्या उदकांत सोडटात हळशीक कारखान्याची घाण
त्याच उदकान तयार करून बाजारांत विकतात खाण ॥१४॥

मनशांनीच आपोवन हाडल्यात नवे नवे रोग
दिसान दीस वाडत चल्ल्यात कलियुगांतले भोग ॥१५॥

मनशाचो आयज सोंपत आयला धरतेवयलो मोग
पुराण बरोवन भायर काडटां मनांतुलो ओघ ॥१६॥

कशी तुमकां सांगूं आयच्या कलियुगाची कथा
कोणूच फुडें सरना म्हूण मनार घेतलें स्वता ॥१७॥

दोंगरार बसून बरयतलों म्हळ्यार दोंगर जाल्यात बोडके
रगता इतले तांबडे केल्यात काडून काडून कुडके ॥१८॥

दोंगराचे ते हुंडके म्हाका हांगा येतात आयकूंक
धरते रगत शेवाळीं भरून ट्रकांनी लागल्यात ओतूंक ॥१९॥

खंयच म्हळ्यार खंयच मेळना बसपाक इल्ली शांती
धतरी पोटांत वाजता आयज निसंतनाची नांदी ॥२०॥



**- भरत नायक**
रेगो बाग,
आल्तो सांताक्रूज

मनसंवेदना



## आजेच्यो ओपारी

आजे तुज्यो ओपारी
सुकयलेल्यो सुपारी
तुजेकडेंच शिकलों उलोवंक
सांगल्यो बसोन तिट्यारी

आजी नासली शिकलेली
ओपाऱ्यानी पिकलेली
साद घातल्यार कानार पड
तळ्याच्या गे बांदारी

पोटली आसली काणयांची
कळाशी बरी सांगपाची
होवयो कितें गायताली
दळटना गे दात्यारी

कश्ट करूंक वाघीण
रागाक पार्री नागीण
समजिकायेन सजलेली
आसली कितली संवसारी

आंगापांगान वासो कसो
सदगुणांचो घसघसो
दिसनाशिल्ली म्हातारी
हुंपली तरी सत्तरी




– सुनील पालकार
नावशी, ४०३ २०६
फोन : २४५९३२१


# एका युगांतली कोंबरी



ती कोंबरी युगांत एकच फावट फुट्टा
आनी त्या दिसा जो जल्मता तो अवतार थारता ।।

कोण एका घराब्याचेर
जिळमिळटें किरण फांकलें
उजवाडाची शक्त नाशिल्लें
सैमाची घटाय नाशिल्लें
मात आसलो भरवंसो आनी भविश्य वार्ता
ती कोंबरी युगांत एकच फावट फुट्टा
आनी त्या दिसा जो जल्मता तो अवतार थारता ।।

त्या जिळमिळट्या किर्णांतलो अग्नी
एके आवयच्या कुसव्यांत भरसलो
त्याच खिणाक एक आवाज
धर्तरेचेर आकांतून उठलो
राग, द्वेश तिरस्कारान गायली गाथा
ती कोंबरी युगांत एकच फावट फुट्टा
आनी त्या दिसा जो जल्मता तो अवतार थारता ।।

कुसवो फळ्ळो पवित्रतायेन
आत्मीक देण्यांनी भरून
सैमाचे गूण सगळे
आयले दारांत आपूण चलून
त्या दिश्टाव्या गुणांक सलामी फावता
ती कोंबरी युगांत एकच फावट फुट्टा
आनी त्या दिसा जो जल्मता तो अवतार थारता ।।

ती कोंबरी आयज जालां झाड
ताचेर देवला सर्वेस्वराचो आत्मो
जाणवायेचो आनी विवेकाचो आत्मो
बुध्दीचो आनी पदवेचो आत्मो
तोच ताका देव-ओळख आनी भक्ती दिता
ती कोंबरी युगांत एकच फावट फुट्टा
आनी त्या दिसा जो जल्मता तो अवतार थारता ।।

भुरगो कोण जाण्टो कोण
कोंबरेंत भरला पवित्र आशिर्वाद
रोगी कोण निरोगी कोण
आत्म्यान केलां नितांत बिराड
हुलकावणी बंड करून उडटा
ती कोंबरी युगांत एकच फावट फुट्टा
आनी त्या दिसा जो जल्मता तो अवतार थारता ।।

धर्म ताका आडांबो न्हय
पवित्र आत्म्याची शक्ती ताच्यांत देंवता
ते कोंबरेंतलो तो एक भक्त
दाखयता वाट मनशाकुळाक जागयता
आपल्या करण्यांनी भौसाक जिखता
ती कोंबरी युगांत एकच फावट फुट्टा
आनी त्या दिसा जो जल्मता तो अवतार थारता ।।




– विन्सी क्राद्रस
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

## जंय दुख जियेता

दीस गिमाचे
आनी तें भुरगें
एकटें एकसुरें
केंस दोळ्यार, माथ्याक तेल ना
नाक व्हांवता, हातांत लेस ना
आंग उक्तें, धापूंक वस्त्र ना
अशें तें भुरगें
एकटें, एकसुरें
चलता, चलत आसा
भूक लागल्या, खावंक कांयच ना
होटेलां आसात, हातांत पयसो ना
धर्तरी रखरखता, पायांत व्हाणो ना
अशें तें भुरगें
एकटें, एकसुरें
चुरचुरे, चुरचुरे बाबड्याचे
जल्माक आयलां, आवय पळोवंक ना
रडूंक येता, दुकां गळना
हात पसरायल्यात, भीक मेळना
आनी, अशें तें भुरगें
एकटें, एकसुरें
सारता संवसारांतले दीस गिमाचे

– शैला (तरूलता) श. धुमटकार
कलानिकेतन,
दादा वैद्य रोड,
सांत इनेज, पणजी.



## शाख



मज्जे बाजून बशिल्लो
अपरिचित प्रवासी न्हिदून पडला
ताज्जे आंग सैल जावून
ताज्जें माथें म्हज्या खांदार आयलां
स्वत:चे न्हिदेंत कितलो मुग्ध, कितलो निश्पाप
कितलो असहाय दिसता तो
वाऱ्याक ताज्जे हाताचें झगमगी रॉम हालत आसा
तेलकट कपाळाक मुखारचे चार कुरळे केंस चिकटल्या
दोनी दोळ्यांचे बाजूंत क्षीण रेखा–
ताणें खुशीन हासतना थंय नीरे पडल्या पुरो!
जर घरांत आशिल्लो
तर दोन्नी गुडगे पोटाक हाडून
एका हातार माथें दवरून न्हिदता आशिल्लो दिसता
कशी गलगली हालत आसा
ताज्जे लांबट ओंठ–
ताज्जी आवय जोरान माथ्याक तेल घालता आसा तशी
हागेलो आवाज कशी आसच्याक पुरो–
फक्त कॉलरावयर घासून पुसट जाल्ल्या शर्टाच्या प्रींटा बशेन
तागल्या बापायन ताका पैले वेळार
दुकानार सिगरेट हाडच्याक धाडिल्लो तेन्ना
कशी भिऊन कापलो तो?
तिनसाणी दिवे लायताना
कोणाचो उगडास येऊन ताज्जो गळो भरून आयलो
हागेल्या पायाची नाखटां खरखरी वाढत आसात्
एका पावलाच्यांत चप्पल हळू निसरत आसा
एकेके दिशेक एकेक थकिल्ले हात पाय सोडून
एकदम हगुर जाल्ला हो जीव
आता अनेतात फुलत आशिल्लो एक स्वप्नाचो कळो
हागले हे हळू हालता छाती भीतरले
श्वासाचे शाखच पुरो
या अखेऽ जगाक मातशें हुनहुनीत दवरच्याक

हगुर – हल्को (light)
शाख – हुनसाण (warmth)



– जयंत कायकीणी
ई–२०४, आदर्श हील अपार्टमेंट,
कुमारस्वामी लेआऊट,
बंगळुरू ५६००७८

कथा

# नातालांचीं परबीं



नातालांच्या नांवान सांजेर थोडें जेवण तरी घोस्तान रांदूंक मेळटलें म्हण. एक दीस कामाक वचना जाल्यार हे म्हारगायेर दीस काडूंक जायनांत हें आंतोनीकय समजतालें.

सोनल, असिफ, निकिता, रुपा हांकां डेव्हीडान आपणागेर जेवणाकच आपयल्लीं डेव्हीडाचो बापूय गल्फाक आसता. म्हणून नातालांच्या दिसांनी तांच्या घराकडेन घणघण, लायटिची रोशणाय आसता. मायकल, जोयल, वेयल, रिचर्ड हांगेरय तशेंच. जेवण-खाण बी वोर्राद. तातूंत मर्दी हो आंतोन एकलोच हातपोटावयल्या बापायचो भुरगो. ताची परिस्थिती सगळ्यांक खबर आसतनाय तागेर वचपाचो सगळ्यांनी आग्रो धरिल्लो.

"आज खुशालकायेच्या दिसाक तूं असो ओगी कित्याक बसला बाबा?" ताचे आवयन ताच्या फुड्यांत येवन विचाल्लें.

"मांय, म्हजे इश्ट-इश्टिणी आज आमगेर येवपाचीं आसात आमकां नातालांचीं परबीं दिवपाक." मान पोंदाक घालूनच आंतोनीन आवयक सांगलें.

"तुवें तांकां आपोवंक नाका आसलें."

"हावें तशें सांगिल्लें तांकां. पूण ते आयकुपाक कशेच तयार ना जाले. ताणीं हट्ट धरला." ताणें रडकुऱ्या तोंडान सांगलें.

"घरांत आसा तरी कितें तांका दिवपाक? नेवऱ्यो करूंक आमकां तांक तरी आसा? लोकाल्यो नेवऱ्यो पळोवनच आमी पोट भरपाचें. शेव-चिवडा पसून हाडिल्लो ना." तिकाय रडूंक कोसळ्ळें. आपणाक आनी आपणाल्या पुताक आतां लज जातली

आंतोन आपल्या घरांत एका कोनशाक वोगीच बसून आसलो. च्या पिवपाचें लेगीत ताका पडून वचूंक नासलें. काल रात व्हगडावन ताणें धव्या फोलिचें एक नकेत्र करून लायलें. रातच्या मिसाक गेल्यार जागरण जाता म्हण तो सकाळीं मिसाक वचपाचो आसलो.

"आरे पापया, आज नातालां सुरू जालीं मरे. मिसाक बी वचना? आठ वरां जायत आयलीं मरे." आपलो पूत वोगीच बसून आसा तें पळोवन ताचे आवयन म्हळें. ती सकाळीं मिसाक वचून आयिल्ली.

मिसाक वचपाक ताचेकडेन बरे कपडे खंय आसले? गेल्या नातालांक एक खोमीस आनी एक पॅन्ट शिंविल्लें. तेच कपडे घालून ताणें इश्टांली दिवाळी, इद, फेस्तां मनयल्लीं. ह्याय नातालांक तेच कपडे वापरपाचे आसले. पूण कपड्यांक लागून तो वोगी बसून नासलो. बगर ताचेर आकांत आयिल्लो. सत्य परिस्थिती आपले आवयक सांगपाक तो भितालो.

तर कसली ती सत्य परिस्थिती? काल आंतोनीले सगळे इश्ट एकठांय जाल्ले. संदीप, रुपा, सतीश, सोनल, निकिता, असीफ ह्या सगळ्यांनी आंतोनीगेर आनी सगळ्या क्रिस्ती इश्टांगेर नातालां मनोवपाचो बेत केला. आंतोन तांचो चाहतो. कित्याक तांच्या फेस्ता-सणांनी सगळ्यांगेर न चुकता वतालो आनी पोट भरसर खातालो. एक दीस इदाक गेल्लेकडेन ताणें भरपूर चिकन खालें आनी दुसऱ्या दिसा दीसभर परशाकडेन. एक दीस दिवाळेक गेल्ले कडेन भरपूर फोव खाल्ले आनी दुसऱ्या दिसाक पोटांत वळटा म्हण बोबो मारतालो. आज ताचीं नातालां आसलीं आनी दुसऱ्यांक खावोवपाचो दीस आसलो. पूण ताच्या घरांत कसली तयारी आसली? तयारी जातली तरी कशी? ताचो बापूय सकाळीं उठून आजपसून कामाक गेल्लो,

हें येवजूनच तिच्या दोळ्यांत दुकां भल्लीं.

"माय, आमी एक काम करया. हांव आतां मिसाक वतां, तसोच माशेनागेर वतां आनी सोमतो सांजेर येतां. तूंय खंयतरी वचून राव." पुतान मांडणी काडली.

"बाबा....." तिणें आंतोनीक घट्ट वेंगेंत घेतलो आनी ती रडपाक लागली. तोय रडपाक लागलो.

"कित्याक काय देवान आमकां इतलीं दुबळीं केलीं?" तिणें सुस्कार सोडलो. "नाका बाबा, मनांत तशे वायट विचार हाडिनाका. येतात तांकां येवंदी. आजच्या दिसाक घरांत येतल्याक पयसावंक जायना. उदक दिवन भागोवचें. चल तूं मिसाक वचून यो." आवयन धीर घेतलो.

आंतोन पोरणेच कपडे घालून मिसाक वचून आयलो. इतल्यांत एक गाडी येवन घराफुडल्यान उबी जाली. गाडयेंतल्यान डॅव्हीड, मायकल, रिचर्ड, हेजल, स्वीजल आनी जोयल भायर आयलीं.

"हॅलो आण्टी, हॅलो आतोन. नातालांची हुनहुनीत परबीं." सगळ्यांनीं एकामेकाक नातालांचीं परबीं दिलीं आनी बसलीं. आंतोनय तांचे फुड्यांत बसलो. आंतोनीले आवयन सगळ्यांखातीर उदक हाडलें.

"आण्टी, आमकां खबर आसा तुमची परिस्थिती. तरी आसतना आमी तुमगेर आयलीं तुमचे खुशालकायेंत वांटो घेवंक. एकामेकाक मेळून खुशालकाय वाटपांत जो आनंद आसा, तो आनंद व्हडल्या व्हडल्या खाणा-जेवणांत ना. आंतोन आमचो मोर्गाद इश्ट, ताका एकटो आमच्यान कसो सोडूंक जाता?" डॅव्हीडान उदक पितां-पितां म्हणलें. मागीर सगळीं नातालांच्यो गजाली करूंक लागलीं.

तांच्यो गोड गोड गजाली चालू आसतनाच आनीक दोन गाडयो आंतोनील्या दारांत येवन थांबल्यो. ते गाडयेंतल्यान



सोनल, आसिफ, निकिता, संदीप, प्रेमानंद, मयूर, रुपा देंवून आयलीं.

"आण्टी, तूं कांयच चिंता करूं नाका, फक्त तांच्या फुड्यांत बसून राव." सांगून हेजल आनी जोयल भितर गेलीं.

"आरे, तुमीं सगळीं हांगाच आसात?" पयलीं आयिल्लीं तांका पळोवन आतां आयिल्ल्यांनी अजाप उक्तायलें.

"आंतोनीगेर थावन सुरवात करपाखातीर आमी आदींच येवन हांगा रावलीं. चलात बसात." स्विजलान सांगलें.

आंतोनीली आवय लजेन बोटां मोडपाक लागली. तिच्या तोंडांतल्यान बोटां सुटनासलीं. आंतोन तर सामको रडकुरो जाल्लो.

तितल्यान हेजल आनी जोयल प्लेटी भरून भितल्ल्यान खावपाक घेवन आयलीं. तातूंत नेवऱ्यो, दोदोल, बिबीकां आनी करमलां आसलीं. आंतोन आनी ताची आवय अजापान पळोवंकच उल्लीं. मायकलान सॉफ्ट ड्रींक्स हाडलें.

"बरी तयारी केल्या हां आंतोन तुवें. खरें म्हळ्यार तुजी इल्ली फजिती करपाचो आमचो विचार आसलो." संदीपान फकाणां केलीं. थोड्या वेळान परत एक फावट एकामेकाक नातालांची परबीं दिवन सगळ्यांनीं तोंड गोड करून वचपाक लागलीं. डॅव्हीड आंतोनीले आवय फुड्यांत आयलो.

"आंतोनीक सगळ्यां फुड्यांत लज जावंची न्हय, ह्या हेतान आमी आदींच खावपाक आनी पिवपाक घेवन आयिल्लीं. वायट विचारान, जावं तुमकां खालतेंपण दाखोवपाखातीर न्हय. बगर आमी सगळ्यांनी अशें सांगातान, मोगान आनी एकवटान रावंक जाय हेच भावनेन. तुमी राग धरचो न्ही." डॅव्हीडान सांगलें.

"तुमी गरीब म्हण आमी आंतोनीची केन्नाच फकाणां करूंक नांत. ताका आमचे पसून वेगळो म्हण केन्नाच लेखलो ना. आमी पयले इश्ट. आनी खरे इश्टागतींत भेद-भाव, जात-कात कांयच लागना. म्हण आमी इतलीं वर्सां सगळ्या सणा-परबांनीं एकामेकागेर येतात-वतात. आतां आमी आंतोनीक आमचे बरोबर व्हरूं?" जोयलान लागीं येयत तिची परवानगी मागली.

खुशालकायेचीं दुकां दोळ्यांत हाडीत तिणें हांसत्या तोंडान परवानगी दिली. आंतोन खुशाल जावन तांचे बरोबर चलपाक लागलो. तीं सगळीं गाडयेंत बसून पयस पावमेरेन आंतोनीली आवय सगळ्या इश्टांच्या आपलेपणाक मनांतल्या मनांतच तोखेवपाक लागली.

"संवसारांतल्या सगळ्या मनशांक म्हजीं आनी असल्या इश्टांची नातालांची परबीं." तिच्या तोंडांतल्यान नकळटांच उतरां भायर सल्लीं.






– विन्सी क्वाद्रूस
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

# बदल



**बा**यलेक म्हणटात तें कितेंतरी विरंगुळ्याचें साधन जाय. एकच चाकोरेचे जिणेक ती कंटाळिल्ली आसता. आपले विचार, इत्सा दिसपट्टे जिणेंत तिका दामून दवरच्यो पडटात. म्हणूनच ती सनातना सारकेल्या संस्थेच्या आमिशांक बळी पडटात आनी आपलो घुसमटमार कमी करपाचो यत्न करतात. अशें कोणाक तरी उलयतना आयकल्लें. हें खरें आसत काय? हाचेर मन विचार करूंक लागलें. तशें पळोवंक गेल्यार एके बायलेक एका दादल्यापरस चड बेकार वेळ आयचे जिणेंत तरी मेळना, मागीर ती नोकरी करपी आसूं नाजाल्यार नोकरी करिनाशिल्ली. शिक्षीत आसूं नाजाल्यार अशिक्षीत. फुडली पिळगी बरी घडपाक जाय हाचें चेपण तिचेर दादल्यांपरस चड आसता. आनी ह्याच ध्यासांतल्यान ती स्वताच्या पांयाचेर आज उबी रावंक पावल्या आनी शिक्षणाचें म्हत्वूय वळखूंक पावल्या.

कुटुंबांत एक बायल जेन्ना शिकिल्ली सवरिल्ली आसता तेन्ना ती आपलें सगळें कुटूंब साक्षर जावपाक मदत करता. शिक्षणान संस्कृती येता. समाजसुधारणेचें काम शिक्षण करता आनी शिकिल्ली एक बायलच समाज सुसंस्कृत करपाक पर्यायान हातभार लायता. पयलिंच्या बायलांक शिक्षण घेवपाक कुस्तार जातालें. ताणीं घराचो हुंबरो हुपून भायर पसून वचप म्हळ्यार आयब अशें मानप जातालें. मागीर त्यो बालविवाह, विधवापण, केशवपन हातूंतच आपलें जिवीत सारताल्यो. पूण फुले, आगरकर, टिळक हांच्या सारकेल्या फुडाऱ्यांनीं समाजांतली ही विशमताय वळखून बायलांक शिकपाचें म्हत्व विस्कटावन सांगलें आनी प्रोत्साहनय दिलें. आनी आयज बायल आपल्या शिक्षणाचे चीज करत सगळ्या क्षेत्रांत दादल्यांच्या खांदाक खांदो लावन काम करतात.

आयची अस्तुरी नोकरी पसून सांबाळून आपल्या घरादाराची जबाबदारी सांबाळटा. दादले जेन्ना चरितार्थ चलयलो म्हणजे आपलें काम जालें (हाका थोडे अपवादय आसात) ह्या थाटान वावुरतात तशी एक बायल केन्नाच वावुरना. आपल्या भुरग्यांखातीर उपाट कश्ट काडून, घोवाची, घरच्यांची मर्जी दवरून ती अर्थार्जन करता तेन्ना तिचीय तारेवयली कसरतच आसता आनी ती मोठे खोशयेन सगळी जबाबदारी आपल्या आंगार घेता. आपल्या कुटुंबापासत आपूण कितलो त्याग करतां हाचो अहंकार मातसो पसून तिच्या मनांत नासता. हें सगळें करप हें आपलें कर्तव्यच हे भावनेकच ती आपलें सूख मानता.

बायलेन जरी कितलेय घराखातीर उपाट कश्ट काडले, अर्थार्जन केलें तरी भुरग्यांक बरें वळण लावपाची जबाबदारी तिचेरच अशें समाज धरून चलता. एखाद्या भुरग्यान कितेंय बरें काम केलें जाल्यार तो अमक्यालो भुरगो म्हण बापायच्या नांवाचो उदोउदो जाता. पूण तेंच जर वायट काम ताणें करत तर आवयन भुरग्यांक देख सारकी शिकयली ना असो शिक्कामोर्तब जाता. चडश्या वेळार चलयांचे बाबतींत हें दिसून येता. चली जेन्ना लग्न करून दुसऱ्या घराक वता आनी एखाद्री चूक तिचेकडेन जाली जाल्यार 'तुजे आवयन तुका हेंच शिकयलां?' काय म्हण आवयचो उद्‌धार बापायपरस चड जाता. म्हणटगीर जी बायल नोकरी करता तिका दोशीवटेन आपली जबाबदारी वळखूनच काम करपाक जाय. आपलें भुरगें मानसिक तशेंच शारिरीक नदरेन घटमूट जावचें म्हण तिका दोळ्यांत तेल घालून पळोवचें पडटा. कामार आसतना कामावेलो पेंच सांबाळपाचो. परत घरा येतगीर बायलपणाचे भुमिकेंत वचून 'रांदा, वाडा, उश्टीं काडा' पळोवपाचें.

'एक अस्तुरी ही खिणाची बायल आनी अनंतकाळाची आवय' एका यशस्वी दादल्या फाटल्यान एक अस्तुरीच आसता अशें म्हणून बायलांक उंचेल्या पावंड्यार व्हरून दवल्लां. म्हणटकीर घरांतले जाण्टे धरून नेण्ट्यां मेरेन सगळ्यांचें बरें-वायट तिणेंच पळोवंक जाय असो एक अलिखीत नेम जावन पडला. त्याखातीर तिच्या जिवाक तशेंच मनाकय कितलेय कश्ट पडल्यार जाता. हो सगळो राट सांबाळून तिणें घोवाचें मन राखचेखातीर स्वत:क मनान तशें कुडीनय ताजें तट्टटीत दवरूंक जाय.

(पान ५६ पळयात....)

# यादी आजेच्यो !!



**हा**लींच्या काळांत, कुटुंबां ल्हान जायत गेल्यांत. तातुंतल्या तातूंत, घराबो म्हळ्यार, आवय-बापूय, एक वा दोन भुरगीं, इतलेच भितर घुंवता. आजो-आजी, आतें, काका हीं नातीं सवका-सवका परकी जायत वतात. फकत सणां-परबांक एकठांय येतात तेन्ना, 'हीं आमचीं नात्यांतलीं' हाची जाणीव त्या वेळार जाता.

कितलींय आमी एकामेका पसून पयस उरूं, रगताचें जें नातें आसता तें अतूट. आजो-आजीचें नातें तर भुरग्यांची वाड जावंक खूब गरजेचें. थोड्यांक तीं नासून नासतात. जाल्यार थोड्यांक तीं आसून नासतात. तीं आमचे मर्दी आसूं वा नासूं, पूण एक मात खरें, आमचे जिणेंत, तांचे गूण, दोश आनी वागणूक भरसल्ली आसता. तांचे रूपकार आमचे जिणेंतल्यान झळकतात.

म्हजें कुळार, केपेंच्या पुला मुळांत कुशावती न्हंयचे देगेर. आमचें कुटुंब म्हळ्यार, म्हजो आजो-पाय, आजी-माय, काका-आंकल, आतें-बाय, मम्मी-डॅडी आनी आमी पांच भुरगीं. सगलीं चलयोच. खूब तेंप पासून, काका आनी आत्याचें लग्न जावंक नाशिल्ल्यान, आमचें भुरगेंपण, तांच्या 'लाड-प्यारांच्या' पावसांत भिजून गेलें. पूण हांगा म्हाका म्हजे आजेची 'मांयची' खबर सांगूंक जाय.

मांयचो जल्म, केंपेच्या आंबावली वाड्यांत जालो. तिका पांच भाव. आनी ती एकटीच, अपुर्बायेची भयण तांची. भावंडांचो एकामेकाचेर खूब जीव. मोगान ते तिका 'बाय' म्हणी. बायगेर तांचें यो-वच चालूच आसतालें. आनी हाका लागून, आमी नातरांय तांकां, 'मामा' म्हणून मोगान लेखतालीं.

मांयचो सभाव खूब मोगाळ आनी परोपकारी. तिचें न्हेसप सादें, पूण झेतान. उलोवप, मोगाळ, म्होवाळ. केरोबीना तिचें नांव. पूण सगलींच तिका 'केरबीन बाय' म्हणी. शिकूंक नाशिल्ली ती. पूण त्या काळावयल्यो अर्थ नाशिल्ल्यो चाली रिती पाळिनासली. असलेच एके चाली प्रमाणे, घरांत कोणूय मेल्लो आसत जाल्यार सणा परबांक खावड करिनासली. पूण जेन्ना आमचो पाय गेलो, तेन्ना तिणें म्हजे मम्मीक, फॅस्ताक 'सान्नां' करिनासतना आनी नातलांक 'कुंस्वार' भाजीनासतना रावंक दिवंक ना. "तूं सगलें कर. भुरग्यांक खावंक जाय. दुसरो धाडटा ताचेर आमी रावचें न्हय. हे आचार तूं पाळुंनाका." धन्य! आमची मांय. हीच संवय तिणें मम्मीक लायली आनी मम्मीकडल्यान ती आमी घेतल्या.

आमचो वाडो गच्च घरांनी भल्ला. पुराय वाडो एक घरूच कशें अशें म्हळ्यार अतिताय जांवची ना. मांय सगल्यांच्याच आदाराक धांवपी, गरजांक पावपी. देवान तिका बऱ्या गुणांनी शिरंगारायल्ली. तिच्या हातांत अन्नदेवता आशिल्ली. तिच्या हातचें सादें जेवण सुद्दां रूचीक लागतालें. डॅडी सदांच आमकां म्हणी, "मांय फक्त, मसाल्याचो धाडावन केल्लो पिठो घालून आनी चिरिल्लो कांदो घालून मास रांदता, तें कोणाच्यान करूंक जांवचेंना."

दुयेंस पिडेंत तर तिचो सगल्यांकूच आदार आनी सगल्यांचो तिचेर भावार्थ. खूब तरेचो वखदां पालो, पाळां आनी सुकयल्लीं मुळां तिचेकडेन आसतालीं. कामणीचें आनी थंडेचें वखद तर सगल्यांक बऱ्याक पडटालें.

कामीण जाल्ल्याक, पांयार ती लासून व्हांवोवपाची पद्दत आसली. आनी हें काम मांय खूब फिशालकायेन करताली. अकस्मात कोणूय दुयेंत पडल्यार, चड करून भुरगीं आनी रातच्या वेळार आमचें दार पयलीं खटखटालें. कितलेंय पुरो जावन ती न्हिदिल्ली आसल्यार सुद्दां, असल्या वेळार जोगूल कशी ती शेजाऱ्यागेर धांवताली आनी खऱ्यानीच तिचो हातगूण वखदी आशिल्ल्यान, दुयेंतीक गूण मेळून जिवाक थाकाय मेळटाली.

आमगेर गोरवां खूब. शेत जमीन आसतकीर, गोरवां हीं आयलींच. शेत आनी गोठो मांय सांबाळटाली. ह्या गोरवांची तिचेर आनी तिची तांचेर खूब माया आसताली. आमचे मस्ते जोताचे बैल - 'पिंपांव आनी काब्रो' फक्त तिचोच आदेश पाळटाले. दूद दिवपी 'बिरू आनी बुधू' ह्यो गायो, आपले काशींत फक्त तिकाच आनी म्हज्या डॅडीक हात घालूंक दितालीं. दुसरो कोणूय दूद काडूंक गेल्यार, तांचेर अळंग लाथ पडटाली. तांगेर

जाल्ल्यां पाडकांक ती भुरग्यांबशेन सांबाळटाली. मायेन पोशेताली. आनी जण एकल्याक नांव दवरताली. सोमाराक जाल्ल्याक 'सोमू', मंगळाराक जाल्ल्याक 'मंगळो', बुधवाराक जाल्ल्याक 'बुधू' अशें. पाडव्या दिसा तर तांची चडूच अर्थ-अपुर्बाय. तांका त्या दिसा तांदळांची भाकरी करून ती खावयी. तांच्या शिंगांक कागदांच्या फोलींचे 'गोंडे' करून माळ घाली.

हांव आनी म्हजे फाटल्यो दोन भयणी, एका-एका वर्साच्या अंतरान जल्मल्लीं. मांयन आनी बायेन आमकां आपली मायेची उब दिवन सांबाळ्ळीं. आमचें भुरगेंपण आमी बाल काणयो आनी बालगितां आयकत, तांचे कुशींत न्हिदून आनी तांचेच होटयेंत खेळून सारलां. बाळंतरा वेळार जी सेवा, म्हजे मम्मीचे आवयन तिची करूंक जाय आसली, ती मांयन आपणे स्वता, कसलीच कुरकूर नासतना केली. मांय-सुने मर्दी जावपी टांव-टींव आमचे मम्मी आनी मांय मर्दीय जालें. पूण ताचो असर आमचेर भुरग्यांचेर पडलोना. आनी एकामेकाची सेवा करूंक, तांकांय केन्नाच आडखळ आयली ना. धग पेट्टालो तो रोखडोच शांत जातालो. म्हजे मम्मीन सदांच आपल्या मांय-मांवाचे उपकार मनांत दवल्ले आनी तांची तुस्त गायली. गावपाचीच तिणें. ती ते तोखणाये प्राप्त आशिल्ली.

कामेऱ्यांमर्दी सुद्दां मांयचे संबंद खूब बरे आशिल्ले. तांका मोगान आनी मानान ती वागयताली. खाण-जेवण तांका कमी जावंक दिनासली. गोरवां राखूंक आमगेर एक अपंगूळ राखणो आसलो, 'म्हादेव'. मांय ताका खूब मायेन वागयताली. खूब तेंप ताणें आमचीं गोरवां राखलीं. पावसांत तो भिजून येतालो. गोरवांक गोठ्यांत बांदून येवन, मांयच्या हातची, गरम गरम च्या आनी खावंक घेवन, त्याच बरोबर तिचे मायेची उब घेवन घरा वतालो. सकाळचो आयल्या बरोबर ताका ती च्या, आनी चपाती तयार दवरताली. दनपारचो गोरवांक घेवन येतकीर, आमगेरूच जेवन, पडवेर मातशें आड पडून, परत गोरवांक चरवाक व्हरतालो. मांय गेल्या उपरांतूय तो आमगेर ह्या कामांक रावलो. खूब तेंपान मागीर जाण्टेपण जावन ताणें नजो जावन गोरवां राखपाचें सोडून दिलें, आनी आमचें घरूय...

मांय खूब कश्टी, तशीच उमेदी. शेताचो पुराय भार तिच्या माथ्यार. आनी अशेंच त्या वर्सा, पिकेच्या दिसांनीं, आमच्या शेताची लुंवणी चालू आसतनाच तिचे 'पुलमांव' भरून, दोन दीस ती हांतुणार पडली. दोतोराक दाखोवन वखद चालू केलें. पूण तितलो गूण तिका मेळूंक ना. इतली दुयेंत ती केन्नाच जावंक ना. दुसऱ्यांक गूण हाडपी तिचे वखदां पोटलेन तिका बरी करूंक ना. पिडा वाडली तेन्ना, एका दनपारचें, तिणें म्हज्या डॅडीक, आपल्या कुळारा, आंबावली, थंडेचें वखद हाडूंक धाडलो. जेवणाचो वेळ जाल्ल्यान, मामान पयलीं ताका वाडलो. वखद घेवन, नेटान सायकल चलोवन डॅडी परत घरा पावलो. पूण तो येवचे पयलींच, थंडेचो गरगर वाडून, मांयन त्याच गरगरांतल्यान निमणो स्वास सोडलो. डॅडीन वण्टीर हात मारून घेतले, आनी हाडिल्लो पालो शिंवरायलो. "कित्याक हांव थंय जेवंक रावलों? रोखडोंच आयिल्लों जाल्यार, वखद पिवन मांय वाचपाची." पश्चातापान तो रडलो. देवान थारयल्लो काळ कोणाच्यान बदलूंक जाला हय? डॅडीय तें जाणा आसलो. पूण आवय गेल्ल्याचे दुखीन तो कळवळ्ळो. तो दीस एक ऑक्टोबर. दुसऱ्या दिसा, तिचें मरण जालें. सोयऱ्यां-दायऱ्यांनीं आनी गांवच्या लोकांनीं इगर्ज भल्ली. तिचे गुणेस्त जिणेचें सार्थक जालें.

मरणाच्या काशांवाच्या धांपण्याचेर, मेल्ल्यांचें नांव, जल्माची तारीख आनी मरणाची तारीख बरोवन पट्टी लायतात. तिच्या जल्माची तारीख त्या वेळार उक्ताडार आयली. मार्चाचे दोन तारखेर ती जल्मल्ली. कितें सांगूं तुमकां? हांव तिची व्हडली नात, तिच्याच जल्मदिसाक जल्मल्लीं. पूण म्हजो 'बर्थ-डे' मनयतालीं तेन्ना कोणाकूच तें खबर नासलें. सगळ्यांत चड खोशी जाल्ले ते डॅडी आनी अंकल. मांयचें नांव डॅडीन म्हाका दवरिल्लें. आमचो जल्मदिसूच एक अशें कळटांच, म्हजी चडूच अपुर्बाय जावंक लागली.

वर्सां धांवलीं. हांव व्हड जालें. लग्न जावन संवसार मांडलो. लग्ना वेळार म्हज्या डॅडीन म्हाका आलमार दिली. मांयन आपल्या लग्ना वेळार हाडिल्ली तिची देण्यांतली आलमार आमच्या घरांत आतां पोरने कपडे सांबाळटाली. शिश्या मदेराची ती गडगंज आलमार, धुल्ल खायत बंद आसली. जायतीं वर्सां गेल्या उपरांत म्हाका दिसलें, 'हांवें ती हाडल्यार तिचो बरो उपेग हांव करीन' हीं चिंतना मनांत बाळगून, हांवें डॅडीकडेन ती मागली. खोशेन ती दिवंक तोय राजी जालो.

शेणाचे जमनीर ती दवरिल्ली आसतना, शेण पडून ती दाट जाल्ली. कार्पेंटर सुदेशान (तोय आंबावलीचो) ती निवळ करून पॉलीश काडून चकचकीत केली. पुर्विल्लें दायज कशें सांबाळूंक आनी मांयच्यो यादी दोळ्यां मुखार दवरूंक हांवें ती आलमार आमच्या बॅडरूमांत दवल्ल्या. म्हजे आनी घरकाराचे कपडे तिच्यांत दवल्ल्यात. डॅडीच्या आवडीचो ताचो 'सफारी सूट' आनी मम्मीचें एक स्कर्ट-ब्लावज सेट हांवें आल्मारींत लांबोवन दवल्ल्यात. दर खेपे उगडटाना, तांचें स्मरण जाल्या शिवाय रावना. हांव जरी तेन्ना खूब ल्हान आसलें. तिसरेंत काय चवथेंत हांव शिकतालें. तरूय त्यो सुखदिण्यो यादी म्हज्या मना कुर्कुटांत ताज्यो आसात.

■ ■ ■



– ब्रॅन्डा मिनेझीस
द मस्टर्ड सीड,
कुस्मण, केपें.
फोन : २६६२४९१






बा.भ.बोरकार जन्मशताब्दी महोत्सवाचें उक्तावण करतना ज्येष्ठ साहित्यिक मधु मंगेश कर्णिक, नामनेचे कवी मंगेश पाडगांवकार, मुखेलमंत्री दिगंबर कामत, कला आनी संस्कृती खात्याचे संचालक प्रसाद लोलयेकार आनी हेर मानेस्त.

# बाकीबाब हे संत ज्ञानेश्वरां उप्रांतचे आधुनीक कवी

**: मंगेश पाडगांवकार**

बा.भ.बोरकारांचे कवितेचेर भा.रा. तांबेचो प्रभाव नाशिल्लो. तांच्या कवितांचें बालकविंच्या कवितांकडेन साम्य आशिल्लें. तरी लेगीत तांची कविता स्वतंत्र आनी इंद्रिय संवेदनां सारकी प्रत्यक्ष अणभव दिवपी आसा. तांचे कवितेंत सामर्थ्य आसा. मराठींतल्या संत ज्ञानेश्वरां उपरांतचे आधुनीक कवी बोरकार आशिल्ले. तांच्या शब्दांतल्यान संगीत निर्माण जाता. अशें प्रतिपादन नामनेचे मराठी कवी मंगेश पाडगांवकार हांणीं केलें.

३० नोव्हेंबर २००९ सावन कविश्रेश्ठ बाकीबाब बोरकार हांचें जन्मशताब्दी वर्स सुरू जालां. हो सुवाळो मनोवपा खातीर गोंयचे कलाप्रेमी मुखेलमंत्री भौ. दिगंबर कामत हांच्या अध्यक्षते खाल एक समितीय तयार जाल्या. जन्मशताब्दी सुवाळ्याचो आरंब मडगांव शारांत २९ आनी ३० नोव्हेंबराक जालो. वर्सभर चलपी ह्या सुवाळ्याच्या आयोजनाची जापसालदारकी गोंय सरकारच्या कला संस्कृती खात्यान घेतल्या.

मडगांव शारांतल्या रवीन्द्र भवनांत आयोजीत केल्ल्या ह्या उक्तावण सुवाळ्याक उपाट गर्दी जाल्ली. गोंयचे कोंकणी – मराठी साहित्यीक, साहित्य रसिक आपलेमदलो भाशावाद विसरून व्हडा संख्येन जमिल्ले.

दोन दीस चलिल्ल्या ह्या सुवाळ्याक ज्येश्ठ साहित्यीक मधु मंगेश कर्णिक मुखेलसोयरे म्हूण हाजीर आशिल्ले जाल्यार मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हांणीं यजमानकी चलयली. ज्येश्ठ साहित्यीक ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार

भलायकी बरी नाशिल्ल्यान ह्या सुवाळ्याक हाजीर रावंक पावले नांत.

उदघाटक म्हूण उलयतना कवी मंगेश पाडगांवकारान बाकीबाब आनी आपल्या मदल्या नात्याच्यो कांय यादी रसिकां मुखार दवरून सभाघरांत पोरण्यो यादींचो परमळ फांकायलो.

तांची जपानी रमलांची रात्र ही कविता म्हणल्यार मराठी कवितेंतलो मायलस्टोन अशें सांगून पाडगांवकारान ते कवितेसयत 'स्मृती' आनी 'माझ्या गोव्याच्या भुमीत' ह्यो कविता वाचल्यो.

मुख्यमंत्री दिगंबर कामतीन बाकीबाबांचे यादीक एक यादस्तीक उबें करपाचे आसात आनी तें कशें आनी कितें आसचें हाच्यो सुचवण्यो लोकांनी करच्यो अशी विनवणी ताणीं आपल्या उलोवपांत केली.



# जातीयवादाच्या धोक्याक कविताच समर्थपणान तोंड दिवंक शकता

: मंगलेश डब्राल



आतरभारतीय कविता ह्या परिसंवादांत उलयतना ज्येश्ठ हिंदी कवी मंगलेश डब्राल, माचयेर ज्येश्ठ कवी आनी संशोधक के. सच्चिदानंद, ज्येश्ठ समिक्षक डॉ. किरण बुडकुले आनी डॉ. वि.बा. प्रभुदेसाय

पोएट स्पिकींग हातूंत उलयतना कवी ग्रेस, तांच्या वांगडा माचयेर श्रीधर कामत, रमेश वेळुस्कार, डॉ. सुक्रीता पॉल कुमा आनी जयंत कैकीणी



आयज भारत देशाक चड धोको आसा तो जातियवादाचो. देशाचेर हो धोको काळें कूप जावन भोंवता. मात हे परिस्थितीक समर्थपणान तोंड दिता ती कविता. खात्रीन एकदीस कविंच्यो कविता हातूंत हस्तक्षेप करून ही परिस्थिती बदलतली अशी आस्त ज्येश्ठ हिंदी कवी मंगलेश डब्रालान उक्तायली.

बा.भ.बोरकारांचे जन्मशती निमतान आयोजीत केल्ल्या आंतरभारतीय कविता ह्या परिसंवादांत ते उलयताले. ह्या परिसंवादांत ज्येश्ठ कवी आनी संशोधक के. सच्चिदानंद, ज्येश्ठ समिक्षक डॉ. किरण बुडकुले हांणीं वांटो घेतलो. डॉ. वि.बा. प्रभुदेसाय हांणीं परिसंवादाची यजमानकी चलयली.



यादीतले बाकीबाब कार्यावळींत उलयतना ज्येश्ठ कवी नागेश करमली, माचयेर श्रीराम कामत, माधव बोरकार आनी हिरालाल कामत.



सगळ्या परिसंवादांक बसून राविल्ले साहित्यिक, रसिक आनी हेर मानेस्त.



'हांव राजकारण्या वांगडा न्हय.
एका बऱ्या मनशा वांगडा बसलां'
– कवीश्रेष्ठ मंगेश पाडगांवकार



# भाशेमुखार कवी ल्हान
:निझाम

भाशेमुखार कवी सदांच ल्हान आसता. कारण भास म्हणल्यार आवय अशें ज्येश्ठ उर्दू शायर शीन कौफ निझामान म्हणलें.

बा. भ. बोरकार उर्फ बाकीबाबाचे जल्म शती कार्यावळीच्या समारोप सुवाळ्यांत ते मुखेल सोयरे म्हूण उलयताले.

ह्या वेळार माचयेर बाकीबाब जल्म शती समितीचे उपाध्यक्ष दत्ता दामोदर नायक, कलाआनी संस्कृती खात्याचे संचालक प्रसाद लोलयेंकार आनी सिताराम टेंगशे हाजीर आसले.

बा. भ. बोरकार हे श्रेश्ठ कवी. कवी हो कवितेचो आसता, खंयचे भाशेचो न्हय, अशें मत उक्तायतना श्री निझामान आयज मेरेन कवितेची समान अशी व्याख्या कोणूच करूंक शकलो ना अशें म्हणलें.

तांच्या मतान, कविता म्हळ्यार एक दर्या जाका कोणूच आपले वेंगेंत धरून दवरपाक शकना. कविता म्हळ्यार एक वैयक्तीक सपन. कविता ही एकटोच बसून स्वताक पळोवपाची गजाल. हें सपन पळोवंक स्वताचे दोळे आनी स्वताची न्हीद जाय पडटा. दुसऱ्याक मेळूंक जाय जाल्यार गद्य बरोवप आनी स्वताक मेळूंक जाय जाल्यार कविता. कविता कवीक वैयक्तीक खोस दिवपी आसता. दुसऱ्याचें दुख्ख हें आपलें दुख्ख समजता ताचें नांव कविता अशे विचार ताणें ह्या वेळार मांडले.



अजित कडकडेन आपल्या गायनान सांज गाजयली

# कविता म्हळ्यार जिणेकडेन पळोवपाचो दिश्टीकोण
: पॉएट स्पिकिंग

आपली कविता आनी सृजन प्रक्रिया अशी एक सुरबूस कार्यावळ बा.भ.बोरकार जन्मशती उक्तावण सुवाळ्याक दवरिल्ली. हातूंत मराठींतले नामनेचे कवी ग्रेस, कोंकणींतले रमेश भगवंत वेळुस्कार, कन्नड कवी जयंत कैकणी आनी इंग्लीश कवी डॉ. सुक्रिता पॉल कुमार हांणीं वांटो घेतलो.

जीण म्हळ्यार क्रिएटिव्हीटी न्हय, क्रिएटिव्हीटी ही म्हजी जीण अश्या उतरांनी कवी ग्रेसान मनोगत उक्तायलें.

हे वेळार माचयेर रवीन्द्र भवनाचे उपाध्यक्ष श्रीधर कामत हाजीर आशिल्ले. कार्यावळीचें सुत्रसंचालन कवी प्रा. अनिल सामंत हांणीं केलें.

## बाकिबाबाच्यो यादी जागल्यो

यादींतले बाकीबाब हीय एक कार्यावळ ह्या सुवाळ्यांत जाली. कवी नागेश करमली, श्रीराम कामत आनी हिरालाल कामत हांणीं हे वेळार बाकीबाबांच्यो यादी उपस्थित रसिकां मुखार मांडल्यो.

बाकीबाबांच्यो यादी ताज्यो करपी फोटयांचें आनी वस्तूंचें प्रदर्शन रवीन्द्र भवनांत भरयल्लें. ज्येश्ठ साहित्यीक मधु मंगेश कर्णिक हांणीं त्या प्रदर्शनाचें उक्तावण केलें.

तांचे वेगवेगळे फोटो, आपल्या काळांत बाकीबाब वापरताले तें मेज, टायपरायटर, वेगवेगळे पुरस्कार ह्या प्रदर्शनांत मांडिल्ले.



पडवेर

# गजाल सादीच पूण....

**हा**लींच ओरीसा कोलकाताची भोंवडी करून आयलें. ट्रेनीत प्रवास करप हो म्हजो छंद. ह्या ट्रेन प्रवासांत कितलेशेच अणभव येतात. बरे तशेच वायट. दरेका खिणाक सादूर रावल्यार आमी वायट अणभव टाळून बरे अणभव घेवपाक शकतात. असोच एक मजेशीर अणभव ह्या प्रवासांत आयलो. ह्या 'अणभवांतलो' विनोद अणभवतना विचारांकय चालना मेळ्ळी.

वास्कोच्यान सुटिल्ली 'हावडा एक्सप्रेस' दुसरे दिसा सकाळीं आंध्रप्रदेशच्या एका स्टेशनार 'धा' मिनटां थांबली. तेन्ना एक गुजराती बायल आपल्या पंचवीसेक वर्सांच्या पुताक घेवन आमच्या डब्यांत चडली आनी म्हज्या मुखावयल्या जनेलाकडल्या सीटार बसली. कुशीक तिचो पूत. हमालान सामान हाडून सीटापोंदा घालें. ती बायल व्हडल्या व्हडल्यान उलयताली. झगडटा काय उलयता कांयच कळनाशिल्लें. इतल्यान जनेलाभायल्यांतल्यान एक वीस-बाव्वीस वर्सांचें सोबीत जोडपें तिचेकडेन उलोवपाक लागलें. तांच्या वागपावयल्यान नवीनूच लग्न जाल्यांत म्हणपाचें कळटालें. उलयतां उलयतां ती लग्न जाल्ली चली बां... बां... करीत रडपाक लागली. तेन्ना समजलें की ती तिची धूव म्हूण आनी तो जावंय. धुवेक रडटा ती पळोवन 'बा'नूय रडपाक सुरवात केली. गाडी सुटपाक दोन-तीन मिनटां उरिल्लीं. आतां ही गाडी आवय-धुवेची ताटातूट करतली हें येवजून म्हजेंय काळीज भरून आयलें. रडटां रडटां धूव जनेलांतल्यान हात भितर घालून आवयच्या पायांक हात लावपाचो यत्न करूंक लागली. तें पळोवन ते बायलेन सीटार बशिल्लेकडेनूच आपले दोनूय पांय उखलून जनेलार दवल्ले. धुवेन पांय घट्ट धरून पायांक तकली तेंकयली. पायां पडून घेवपाखातीर चलिल्लो हो प्रकार पळोवन म्हाका आनी कुशीक बशिल्ले म्हजे इश्टीणीक प्रीतीक



कसोच हांसो दामून दवरूं नजो जालो. आमी तिका हांसतात तें तिका कळ्ळें. तिणें म्हळें, "अरी क्यों हँस रही हो? ये तो हमारा रिवाज छे." तिची तुटकी-मोडकी गुजराती-हिंदी आमी पचयली. गाडयेन शिटी दिली आनी चित्र बदल्लें. आवयन दोळ्यांत दुकां हाडीत धुवेचो उमो घेतलो आनी आपल्या गळ्यांतली भांगराची नवी सरपळी धुवेच्या गळ्यांत घाली. गाडी सुटली. आवय मान वाकडी करून धुवेक पळयताली. हांवूय पळयतालें. धुवेन गळ्यांतली सरपळी काडली आनी घोवाच्या गळ्यांत घाली. तें पळयनाफुडें आवयच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. तिणें म्हाका म्हळें, "देखा बिटीया, इस लडकी को... हम प्यार से अपनों को कुछ देते है और वे वही चीज निकालकर उनके अपनो को देते है, तब-बडा दर्द होता है।" हांव तिचें दुख्ख समजलें. गजाल ल्हानशीच पूण... आवयच्यो भावना दुखावल्यो. अपुरबायेन आवयन धुवेच्या गळ्यांत घाल्ली ती सरपळी... तिका रोखडीच घोवाक कित्याक दिवपाक जाय आशिल्ली?

आमचे जिणेंत लेगीत खूब फावट अशें घडटा. खरें म्हळ्यार ह्या संवसारांत कोणावाचून कोणाचें अडना. कालचक्र थांबना. पूण ज्या मनशांभितर आमच्यो भावना घुस्पल्ल्यो आसतात; मोग माया आपलेंपण आसता तांका आमी अपुरबायेन आमच्या मायेमोगाचें प्रतीक म्हूण 'भेट' दितात. बदलाक परत कितेंच मेळोवपाची अपेक्षा नासता. फकत आपली भेट वस्त घेतल्यान, अपुरबायेन सांबाळून दवरची ही सादी अपेक्षा. खरें तर तीय आसपाक जायना. कारण वयर सांगिल्ल्या घडणूकेप्रमाण तशें घडलें ना जाल्यार आमी दुख्खी जातात.

एकदां हांवें नणंदेक बनारसच्यान एक सुंदर साडी हाडली. तिणें ती उमेदीन घेतली. पूण गरजेवेळार घरांत नवी साडी नाशिल्ल्यान घरा पयलेच फावट आयिल्ले एके व्हंकलेक होटयेंत ती दिवन उडयली. ते व्हंकलेन अशीच ती आपल्या सोयऱ्यांक दिली. चार म्हयन्यानी हांव एका सोयऱ्यांगेर गेलें. ताणी म्हजी होटी भल्ली. घरा येवन पळयत जाल्यार नणंदेक दिल्ली तीच बनारसी साडी म्हजेकडेन परत पावली. फाटले चार म्हयने ती बऱ्याच सोयऱ्यांगेर भोवून आयिल्ली. हांवें ती साडी वापरपाची थारायली. घरचेच एके कार्यावळीक न्हेसलें. नणंदेन विचाल्लें "तुवें म्हाका दिल्ली तसलीच साडी तुकाय हाडिल्ली गो?" हांवें 'हय' म्हळें. पूण ताचें मन ताका खातालें. निमाणें ताणेंच खरें सांगलें. म्हजे दोन णंडावे आनी दोन भाचे फॉरेनाक आशिल्ल्यान वर्साक चार सुळसुळीत फॉरेन साडयो मेळटाल्यो. म्हाका सुळसुळीत साडयो आवडनात देखून हांवूय त्यो कोणाकोणाक

होटयेंत दिवन उडयतालें. तेन्ना भाच्यांक वायट दिसतालें. एका भाच्यान म्हळें, "मामी, तुका आमी अपुरबायेन साडयो हाडटात आनी तूं त्यो न्हेसना. तुका कितें आवडटा तें तरी सांग. पूण आमी तुका हाडिल्ल्यो वस्तू दुसऱ्यांक दिवं नाका." म्हाका तांच्यो भावना कळ्ळ्यो. हांवें मेकळेपणान म्हजी आवड सांगली. तेन्नाच्यान साडयां वाट्याच्यो चेराच्यो (सेंटाच्यो) बाटल्यो मेळपाक लागल्यो. त्यो मात हांव केन्नाच कोणाक दिना. कारण चेराचो परमळ म्हजे जिणेंत भाच्यांचे मायेचो दरवळ जावन वावुरता.

तेवीस वर्सां पयलीं म्हज्या एका आळशी इश्टाक नोकरी मेळ्ळी. बेगीन उठून तो वेळार कामाक पावचो म्हूण ताच्या वाढदिसाक ताका हांवें एक 'गजराचें घड्याळ' दिलें. चावयेच्या हे घडयाळीक सेकंद काटयाच्या जाग्यार एक कोंबो आशिल्लो. तो दर सेकंदाक तकली हालयतालो. घड्याळ दितना हांवें म्हज्या विनोदी सभावा प्रमाण इश्टाक म्हळें, "तूं संवसारांत खंयूय वच पूण एक लक्षांत दवर हो कोंबो तकली हालोवपाचो थांबलो की हांव मेलें म्हूण समज." (उद्देश इतलोच की ह्या कारणा खातीर तरी ताणें सदांच घडयाळ चावी दिवन चालू दवरचें आनी सकाळीं बेगीन उठचें.) हे गजालीक तेवीस वर्सां जालीं. मदीं कितल्योश्योच घडणुको घडल्यो. फाटलीं धा वर्सां तर ह्या इश्टाकडेन फोन, पत्रां, मेळप असलो कसलोच संबंद उरूंक नाशिल्लो. दोन म्हयन्यां पयलीं अचानक सकाळफुडेंच ह्या इश्टाचे बायलेचो फोन आयलो, "तूं कशें आसा? आमच्या हाका सपन पडिल्लें की तूं खूब बरें ना म्हूण आनी तुवें दिल्ली घडयाळूय बंद पडल्या. फाटलीं तेवीस वर्सां हाणें ते घडयाळीक एकदिसूय बंद पडपाक दिली ना. देखून खूब अपसेट जाला." तें भियेतभियेत विचारतालें.

म्हाका हासचें काय रडचें तेंच कळना जालें. हांवें ताका म्हळें, "हांव एकदम ठणठणीत आसां. कांयच काळजी करूं नाका." पूण ताचो विश्वास बसलो ना. दुसरे दीस म्हजो हो इश्ट बायलेक घेवन फोंडेच्यान शिवोले म्हजे खबरेक आमगेर आयलो. धा वर्सांनी जायना काळाच्या प्रवाहान शेणिल्लो एक बरो इश्ट परत मेळ्ळो तो फकत ताका हांवें मायेन दिल्ले एके भेटवस्तूक लागून.

अशोय भावना आसतात. इश्ट-इश्टीणी, सोयरे आसतात. जांका आमी आपले मानतात जे आपलेपणाच्यो भावना जिव्यो दवरतात. ही जिणेंतली व्हडली जोड आसता.

देखूनूच म्हणटात,
"अपने तो अपने होते है
बाकी सब सपने होते है..."





– **अपर्णा गारूडी**
शिवोली, गोंय
फोन : २२७२७५१

# पेनाचें गुपीत



**अ**क्षयाचो पेन फॅक्टरींत आज दुसरो दीस आसलो. ताका काम सामकें सादें : तयार जाल्ल्या पेनांचेर लेबल लावप. कन्वेयर बॅल्टावेल्यान पेन पडून अक्षयाच्या मेजार येतालें. लाकडाचें एक लेबल गन वापरून तो लेबलां लायतालो.

ताचें पुराय नांव अक्षय पाटील. कामाच्या सोदांत तो शारांत पाविल्लो. गल्लींतल्या बिराडांत तो रावतालो.

असोच एक दीस तो कामाक गेल्लो. सदचे भशेन पेन पडटा... अक्षय गन घेवन लेबल लायता. एक पेन पडलें... लेबल लायलें... दुसऱ्या कन्वेयर बेल्टार दवरून फुडें धाडलें. पूण एक पेन अचकीत अक्षयाक विचित्र दिसलें. ताणें बेल्टावेल्यान पडिल्लें पेन उखल्लें आनी लेबल लावंक गन उखल्लां मात... ताका हुंदरान केल्ल्या आवाजा भशेन बारीक सो आवाज आयलो. आशीकुशीक पळयल्यार कोण ना. ताणें परत गन उखल्लें. परतून तोच आवाज.

तेवटेन बेल्टावेल्यान पेनां पडून रास जमा जाल्ली. अक्षयान काचाबूल जावन त्या पेनांक लेबलां लायलीं. अक्षय एका कोनशाक बसून काम करतालो. बरेंच जालें, अक्षयान चिंतलें, म्हजें हें कर्तुब कोणें पळोवना. वेवस्थापकान पळयल्यार म्हाका खातलो आसलो.

दोनांक पेंSSS करून फॅक्टरीचो भोंगो वाजलो. अक्षयान गुपचूप तें 'हुंदरा भशेन आवाज काडपी' पेन आपले पोतयेंत घालें. आनी तो घरा वचूंक गेलो. तो बसींत बसलो आनी आपलो पोती मांडयेर दवल्ली. पोती पातळ आसली पूण भायर भडक रंग मारिल्ल्यान भितल्लें दिसनासलें. त्या पेनाची आकृताय पिशवेचेर दिसताली. अक्षयान उमळशिकेन त्या 'विचित्र आवाजाच्या' पेनाचेर हात दवल्लो. अचकीत तें पेन अक्षयाच्या बोटांमदीं हालूंक लागलें. हळुहळू हालपाक लागलें आनी तोच आवाज काडूंक लागलें... चींचीं... चींचींचीं... ताणें आपलो हात फाटीं काडलो. आवाज आनी हुळहुळप बंद जालें. अक्षय चितूंक लागलो. कितें काय हें विचित्र गुपीत. चिंतता म्हणसर रोखडीच बस पावली. अक्षय देंवलो. ताका थोडेंच खबर फुडें ल्हान संकट ताका राविल्लें तें.

ती आसली शालीनी आण्टी, भुरग्यांक पेडे दिताली. अक्षयाक पळोवन ती सोमती धांवत आयली. तिगेली नारंगी साडी धांवता धांवता वयर सकल हालताली. अक्षयाकडे पावतकच तिणें आपलें सुरू केलें, "अक्षयबाबू, तुकां हे गल्लीची व्हड खबर कळूंक ना आसतली. यो यो बाबू," अक्षयाक भुजांकडे धरून तिणें ओडीत व्हेलो. "तुका खबर आसा, आमी मरे स्वीफ्ट डिझायर हाडल्या. सामकी फर्स्ट हॅण्ड. दुकानदार मरे आठ लाख सांगतालो. पूण तुवें म्हज्या घोवाचो पासबूक पळयलाच आसतलो, म्हजो घोव दानशूर. ताणें तांकां आनीक पयशे वाडोवन बारा लाख दिले."

गाडयेफुडल्यान ताका उबो करून ती घरांत पेडे हाडूंक गेली. पूण अक्षयाक तिणें एक पेडो दिलोना. तर २५ पेड्यांची कासूच दिली.

अक्षयान तिका कृतज्ञपणान धन्यवाद म्हळें आनी ती कास आपले पोतयेंत घाली. तो पावंडे चडलो. ताचें बिराड सामकें वयर पांचव्या मजल्यार आसलें.

पावंडे चडटा थंय परत सुरू.... चीं ची... हुळहुळप... चीं चीं... पूण अक्षय चडत आपल्या बिराडांत गेलो. भुकेक पेडे खातलो म्हूण ताणें पेड्यांची कास काडली. कास काडून पळय जाल्यार कितें????

बॉक्स खालीं! अक्षयान बॉक्स घेतना पंचवीसेक पेडे आसा म्हूण पळयिल्ले. पूण आतां कोनशानीं बारीक बारीक कुडके सोडून कांयच नासलें. त्या पेनाचो अक्षयाक दुबाव माल्लो. पूण

थकिल्ल्या कारणान ताणें दोन उकडिल्ले बटाट आनी तमाटां खालीं आनी खाटीर न्हिदलो.

सांजे तो उठलो आनी पावंडे देंवून सकल गेलो. गल्लींत तो जादू करपा खातीर फामाद आसलो. आनी आज ताचो व्हड जादू आसलो, जसो कितें ल्हानसो कार्यक्रम.

एका मनशाक ताणें जमनीर न्हिदयलो. ताचेर एक पांय दवल्लो आनी दुसरो पांय जमनीर दवल्लो. जादू सादोच : तो ते न्हिदिल्ले कुडीचेर पांय दवरून दुसरे वटेन उडी मारतालो.

ताचें गुपीत सादेंच. जो पांय कुडीचेर दवल्ला त्या पांयाचेर तो पेज घालना, जाका लागून न्हिदिल्ल्याक कांयच दुखना. सगळो पेज दुसरो पांय उखलतालो. पूण पळोवप्याक दिसतालें न्हिदिल्ल्या कुडीन हाचो भार घेतलो आनी पेज सोंसलो. जादूगाराक तो खरो एकाग्रतेचो खेळ. पूण बाकी लोकांक तो जादू. अक्षय तयार जालो.

मनांत एकाग्रताय जमोवन हाडली....४....कुडीचेर पेज घालप ना....३....इल्लो पेज पडल्यार?...२.... नाक कापतलें....१....मार उडी! पूण कितें चुकलें! अक्षय उडी मारून दुसरे वटेन पावलो, पूण न्हिदिल्लो मनीस फट्ट करून उठलो आनी रगत ओकूंक लागलो...

सगळे गल्लींतले 'प्रेक्षक' आयले, ताका उखल्लो आनी सकयल आशिल्ल्या प्राचार्य पंढरीच्या बिराडांत व्हेलो.

अक्षय दुख्खान आपल्या बिराडाक गेलो. ताचे चुकीचें कारण ताची एकाग्रता आसली. ताचें लक्ष खंय गेल्लें? रोखडेंच ताका कळ्ळें पेनाचेर.

तो घरा आयलो. बिराडांतले एके खुर्चेर ताणें पोती दवरिल्ली. ती पोती ताणें उखल्ली आनी दाराकडेन शेवटीली रागान. उदकाची बाटली, वक्लाचें बॉक्स, आयचें दिसाळें हाचेसयत तें पेन पोतयेंतल्यान उसळून सैर वैर गेलें.

पूण अखेरेक आनी एक वस्त तांतल्यान उसळ्ळी...

काळीच गुबगुबीत अशी ती वस्त शेंवटली आनी दारार आपटली. बारीक पळोवन अक्षयाक कळ्ळें : ती वस्त आसली हुंदीर.

आतां पेनाचें गुपीत साफ जावंक लागलें. फॅक्टरींत तो हुंदीर पेनाक स्टॅप मारतना आवाज काडटालो. आनी मुर्ख अक्षय तो आवाज पेनाचो म्हूण समजलो मागीर उत्सुकतेन तो हुंदीर ताचे पोतयेंत गेलो. बसींत ताणें पेनाक हात लायिल्लो तेन्ना हुंदराकय लागिल्लो म्हूण ताणें आवाज केल्लो.

आतां जर कोणेंय म्हाका पत्रान वा आनी कशेंय विचाल्लें, "मागीर पेढे कशे ना जाले तर?" जाल्यार ताचे वा तिचे तकलेंत बटाट भरल्या म्हूण समजुपांत अजाप ना.

■ ■ ■



– सिध्दांत प्रेमानंद फडते
यत्ता : णववी
भाटीकार मॉडॅल हायस्कूल,
मडगांव – गोंय.

## मामाचो गांव

झूक-झूक गाडी
धांवता नेटान
गाडयेंत बसला
बाबू झेतान
शंभर रुपया
तिकेटीक मोड
बाबूक आमच्या
मामागेर सोड
झूक-झूक गाडी
नेटान धांवली
सारकीच वचून
मामागेर रावली
बाबू आमचो
गाडयेंतलो देंवलो
हांसत हांसत
मामागेर पावलो
मामाच्या आंगणांत
पेरीक पेरां
मामाच्या पोरसांत
आंब्याक तोरां
मामाक सांगून
बडी हाड
पेरां-तोरां
जाय तीं काड
बाबू तुजे
धुवून घे हात
मामीन केला
साकर भात
गरम गरम
मेजार काड
बशी भरून
बाबूक वाड



– ग्वादालूप डायस
नुवें.
फोन : ९९२२५६१५६८

# खरो इश्ट



पांचव्या पांचव्या रानांत एका
दोगजाण इश्ट रावताले
एक आसलो कावळो ताचें
नांव आसलें सुबुध्दी
दुसरो एकटो हरणा पोर
नांव आसलें चित्रांग
दोगूय आसले घट्ट इश्ट
हासुखेळून रावताले

चित्रांग एक दीस तण खायत
रानमळार भोंवतालो
एका कोल्यान तेन्ना ताका
जिबली चाटीत पळयलो
चिंतलें ताणें हरणा पोराक
गोड उलोवन लागीं ओडचो
संद बरी पळोवन मागीर
रूच काडीत चाबडावचो

अशें चिंतून लागीं वचून
कोल्यान ताची घेतली खबर
"हरणा पोरा इश्टा म्हज्या
आसा मरे बरो तूं?"
चित्रांगान पळयत ताका
अजापानच विचाल्लें

"कोण रे बाबा, खंयचो तू
कुत्र्यावरी दिसता खरो
रानांतलो काय गांवांतलो?"
"न्हय रे बाबा गांवांतलो?
तुजेचवरी रानांतलो
नांव म्हजें क्षुद्रबुध्दी
एकलोच रावून वाज आयलो
आयच्यान तुका मानलो हांवें
इश्ट जिवाभावाचो
मानता मरे तूं म्हाका
चाकर तुजे आज्ञेचो?"

सादो भोळो चित्रांग बाबडो
भुललो ताचे भाशेक
उमेदीन म्हणलें ताणें
"बरेभाशेन बरेभाशेन"
सांजच्या वेळार भरून पोट
धरली ताणें घरची वाट
कोलेय लागलो चलूंक तसो
शेंपडी कसो फाटोफाट

घरा दारांत चाफ्या रुखार
बसून आसलो सुबुध्दी
अजापानच म्हणलें ताणें
"इश्टा म्हज्या चित्रांगा
खंयचो बाबा, कोण हो
नवो नवो सोयरो तुजो?"
जाप दिली चित्रांगान
"न्हय रे म्हजो सोयरो हो
इश्ट जावंक सोदता आमचो
सभाव ताचो कळ्ळो म्हाका
येवकार दिवन हाडलो ताका"

आयकून ताची असली जाप
कावळ्याक जालें व्हड अजाप
रागान ताणें म्हणलें ताका
"आरे पिशा चित्रांगा
इतलेंय तूं नकळो हय रे
अनवळख्यांक सोपेपणी
इश्ट अशे मानचे न्ही"

उतरां आयकून कावळ्याची
कोल्यान विचारलें रागान
"कितें उलयता कावळेमाम,
अनवळखीच आसलो न्ही तूं
इश्ट तुजो चित्रांग जेन्ना
पयलो तुका मेळ्ळो तेन्ना?"

चित्रांगान म्हणलें तांकां
"चड उलोवन फायदो ना
मेळून आमी रावया तिगूय
केन्नाच कोणे झगडप ना
वायट कांयच जावचें ना"
तेन्ना म्हणलें सुबुध्दीन
"जावं रे बाबा जावं
तूं म्हणटा तशेंच जावं
कोण कितले बुध्दीन भले
आयकून तरी जाणां हांव"

# भुरग्यांचें आंगण

थोडो काळ तेन्नाच्यान
एकठांय रावले तिगूयजाण
वेगळेवेगळे भोंवताले
घरा येवन रातीकडेन
तिगय विसव घेताले

क्षुद्रबुध्दीन मागीर एक दीस
चित्रांगाक सांगलें कानांत
"रानाच्या एका पोंतार
पाचवें बरें शेत आसा
पळयन तुका दिसता जाल्यार
व्हरून हांव दाखयतां"
चित्रांग ती आयकून खबर
शेत खावंक आशेलो
कळून ताची उमेद
क्षुद्रबुद्दी खोशी जालो
दुसरे दिसा शिटूक कोलो
घेवन ताका शेतार गेलो

दोन दीस वचून शेतार
चित्रांगान माल्लो ताव
तिसरे दिसा शेतकाराक
लुकसाणेचो लागलो सुगाव
चारपायां चोराक धरूंक
वाटेर ताणें चलो डाव
शेतकारान थंय लायलो सापळो
चित्रांग जेन्ना परतून गेलो
सापळ्या भितर शिरकलो

यत्न केले फुकट गेले
इश्टां वाटेर लायले दोळे
"कोणूय इश्ट सोदूंक येतलो
मरणांतल्यान वाटायतलो"
कोलो मात पळोवन ताका
खूब खूब खोशी जाल्लो
"शेतकार ताका मारतलो
कूड ताची काडून मागीर
शेताभायर उडयतलो
देवूच म्हाका पावलो आज
मोव ताजें मास खावन
दातांची वतली खाज!"
सपन रंगोवन कोलो
हरणा म्हऱ्यांत गेलो

खोशी जावन चित्रांगान
कोल्याक केली विनवणी
"सोडय मरे इश्टा म्हाका
कसो पळय शिरकलां
शेतकार फाल्यां येतलो
आनी जीव म्हजो घेतलो
संकश्टांत पावता जो
तोच न्हीरे इश्ट खरो?"

भोवून बरें बारीकसाणेन
कोल्यान जाळें पळयलें
सुटका ना हरणा पोराक
कळ्ळें तेन्ना बरें दिसलें
"सांपळ्याक त्या बांदल्या दोरी
जनावरा आंतकटेची
उपास मरे आज म्हजो
दातांनीं कातरूं कशी?
काम तुजें करतां हांव
सकाळ मेरेन राव"
अशें म्हणून कोलो
आडसाक वचून लिपलो

थंयसाकून चित्रांगाचेर
नदर लावन बसलो

वाट पळोवन इश्टाची
सुबुध्दीक हुसको जालो
तिनसांजच्या वेळार तो
शेतावटेन उडत गेलो
सांपळ्यांत पळोवन चित्रांगाक
खूब खूब दुख्खी जालो
"कशें बाबा जालें अशें
सांग म्हाका घडलें कितें?"
"कितें सांगू इश्टा तुका?
म्हणणें खऱ्या इश्टाचें
कानामनार घेतलें ना
पाड बुद्द घातक्याची
वेळार म्हाका कळ्ळीना!"
"खंय रे आसा फटींग तो?"

"बसला थंय वाट पळयत
मेल्ले म्हजे कुडीची
सपन तो पळयता,
शेतकारान मारचो म्हाका
मास खावंक मेळचें ताका"
"तुका आदींच सांगिल्लें
तोंडार करपी तुस्त तोखणाय
चाबतात येवन फाटलेवटेन
असल्या ह्या घातक्यांक
वाटावन मुखार वचूंक जाय."

रात गेली, सकाळ जाली
दांडो घेवन आयलो शेतकार
पळोवन ताका सुबुद्दीन
शिटकायलो चित्रांगाक
"मेल्लेवरी पडून राव

बंद कर सामको स्वास
फुलोवन धर पोट
मदींच पांयांक झटके मार
कुरू हांव करता तेन्ना
उडकी मारून धांव मार."

सापळ्यांतल्या हरणाक पळोवन
खोशी जालो शेतकार
पूण मडें ताचें पळोवन
ताणें काडले उदगार
"घेतलें मरे मरण ओडून?"
आनी अशें म्हणटनाच
लागलो जाळें काडूंक
थोडे खीण गेले आनी
कावळ्यान केलें 'कांव'
त्याच खिणाक उडी मारून
चित्रांगान माल्ली धांव
जीव वाटावन धांवलो
आनी वळखी रानांत पावलो

तिडकीभरशीं शेतकारान
शेवटून माल्लो दांडो
हरणाक तो लागलो ना
कोल्या तकलेर पडलो
क्षुद्रबुध्दी कोल्याचो
थंयच अंत जालो
खरो इश्ट कोण तो
चित्रांग बरें समजलो



– रमेश लाड
मडगांव – गोंय.
फोन : ९७६४९२४५५२

# आमगेली पिकनीक



**त्या** दिसा आयतार आशिल्लो. म्हज्या पप्पान थारायलें आयज आमी खंय तरी भोंवपाक वच्चें. कोणाक कळनासलें खंय वच्चें तें. पूण हांवें थारायलें नितळसाण आनी शांततायेचो सैम पळोवंचो. म्हणून आमी आंबोले घाटार वच्चें थारायलें. आमी सगळीं मेळून णव जाणां आसलीं. आमकां भायर सरता म्हणसर धा जालीं. पावस पडत आशिल्लो. दोंगराच्या तळपावेल्यान दुदाचे घोगे सकयल पडटाले. ताचो आवाज घसघस करून कानार बसतालो. सगळेकडेन पांचवेंचार दिसतालें. आमचो सगळ्यांचो जीव धादोस जालो. आमचे नानीन आमकां गरमगरम च्या आनी बटाटवडे दिले. च्या पियेवन आमकां बरें दिसलें. मागीर आमी थंयचे खाशेले जागे पळोवंक गेलीं. थंय एक सोबीत म्हादेवगड पॉइंट पळयलो. तो इतलो सोबीत आशिल्लो की आमकां थंयच्यान येयन दिसना जालें. थंय इतलें खोल आसलें की घरां फस्कां कशीं दिसतालीं. थंय बारीक बारीक गाड्यांनी गरम गरम भाजलेले मके मेळटाले. ते आमी घेवन खावंक वतालीं. इतल्यान थंय आशिल्ल्या खेत्यांनी झोपय माल्ली आनी मको घेवन गेलीं. हांव भियेलें. आनी हेर सगळ्यांक मजा दिसली. मागीर थंयच्यान आमी कावळे साद पॉइंट पळोवंक गेलीं. तो पळोवन म्हाका अशें दिसलें, की हांव सपनांत आसां! थंय आमी सगळ्यांनी भरपूर मजा केली. म्हजी धाकटी भयण थंय नाचूंक लागली. मागीर दनपारच्या अडेज वरांचेर आमी सगळीं जेवंक बसलीं. म्हज्या मम्मान म्हज्या आवडटे सुंगटांचें हुमण हाडिल्लें. उकडें शीत, आनी तळिल्लें नुस्तें. आनी म्हज्या मामागेलें सगळें शिवराक. तीं आपलें शिवराक जेवण घेवन आयिल्लीं. आमी सगळीं त्या सुंदर सैमांत रुचीन जेवलीं. मागीर आमी सगळीं पत्त्यानीं आनी अंताक्षरी खेळ्ळीं. खूब खूब मजा आयली. करतां करतां सांज जाली. सूर्य तांबडोगूंज दिसूंक लागलो. सुर्यास्त पळोवन खूब बरें दिसलें. मळबांत सगळो पोपाय ज्यूस कसो दिसूंक लागलो. मागीर आमी परत घरा येवपाची वाट धल्ली. रातचीं सावंतवाडी जेवलीं. थंय सोबीत मोती तलाव पळयलो आनी रातचीं साडे धा वरांचेर घरा पावलीं. हांव हो दीस केन्नाच विसरूंक पावचें ना.





– रिचा लवू गोवेकार
यत्ता : चोवथी
सेंट ॲन्स गर्ल्स स्कूल,
साखळी – गोंय.
फोन : ९३७०७७२७४०

# मूर्ख बिल्लू



एका गांवांत भानुशेट नांवाचो एक पसरकार रावतालो. ताच्या दुकानांत सगळे तरेचें सामान मेळटालें. ह्या गांवांत सगळ्यांत व्हडलो पसरो आनी गिरेस्त पसरकार तो भानुशेटच. पूण ताका गर्व नासलो. तो सगळ्यांकडेन मनमेकळो वागतालो. आपल्या सदच्या गिरायकांक तो घरगुती वातावरणांत दवरतालो.

गिरायक सदांच भानुशेटीचेर खूश. दुकानार बिल्लू नांवाचो एक कामगार आसलो. इल्लोसो पोरांटो कामाक हाडिल्लो. तो आज ताचे पुतावरी भानुशेटीक सांबाळटालो. खूब मायेस्त आनी प्रामाणीक, शांत आनी सरळ. स्वताची ताका अक्कल नासली. ताचेर कसलेंय काम सोपयल्यार मात तो जबाबदारेन चुकनासतना करतालो.

एकदां भानुशेटीक अकस्मात घरा कामाखातीर वचचें पडलें. वतना ताणें बिल्लूक सांगलें, "हें पळय हांव मात्सो घरा वचून येतां. तूं खंय वचूं नाका. हांव रोकडोंच येतां. तूं दुकानाचें दार सारकें पळय. कळ्ळें? दार सोडून खंय वचू नाका." हें सांगून भानुशेट ताकतीकेन घराकडेन गेलो.

बिल्लू सादो आनी सरळ, "चलात तुमी शेटजी, हांव तुमचें दार पळयतां. हुस्को विरयत वचून येयात." भानूशेट वचूंक गेलो. मुखावयल्या उक्त्या जाग्यार जादूगार येवंचो जाला. हें ताका खबर आशिल्लें म्हूण ताचें लक्ष लोक धांवतात, येता-वतात ताचेर आशिल्लें. भुरगेपणांतल्यान बिल्लूक जादूगार आवडटालो. ताका आपणें जादूगार जावंचो अशें दिसतालें. वाड्यावेल्या दोन-चार जाणांनी, "बिल्लू शो सुरू जालो." "बिल्लू तूं येना" अशें विचारतगीर बिल्लूच्यान रावंक नजो जालें. तरीपूण कितलो तरी वेळ बिल्लू दाराक घट्ट धरून पांय वयर करीत हेवटेन तेवटेन पळोवन जादू दिसलो ना तरी जादूगार दिसता काय म्हूण पळयतालो. निमाणें कांयच दिसना म्हूण तो निर्शेलो.

भितल्ल्यान ताच्यान रावंक नजो जालें. निमाणें ताका दिसलें, शेटजीन 'दार सोडून खंय वचनाका' म्हणिल्लें. तें कानार आयकूंक येतालें. म्हणटगीर दार सोडून खंयच वचप ना म्हूण ताणें दाराचे लोखणाचे जोड दिसपीसान निखळायले. दार काडलें. खांदार माल्लें आनीक तो त्या जादूगाराचो जादू पळोवंक गेलो.

जादुगाराचो जादू खूबच रंगांत आयिल्लो. बिल्लूय पळोवपाक तन्मय जाल्लो.

इतले मजगती भानुशेट पसऱ्यार पावलो. बिल्लूक उलो मारतां मारतां ताचें लक्ष दारार गेलें. ताचेर आकांत आयलो. ताणें शेजरा हेवटेन तेवटेन थंय कोण दिसता तांका बिल्लूविशीं विचाल्लें. सगळ्यांनी ताका जादू पळोवंक गेला आसत असोच दुबाव दाखयलो. तें आयकून भानूशेटीक आनीक राग आयलो.

घामाघूम जाल्लो भानूशेट आपल्या पुडव्याचें पोत सांबाळीत, चणचणत त्या उक्त्या मळार पावलो. बिल्लूक श्वास घेनासतना उल्यार उलो मारीत रावलो. शेटजीक पळयतांच खांदार दुकानाचें दार घेवन धांवत पडत बिल्लू शेटजीच्या सामकारा आयलो. शेटजी ताका पळोवन तापलो. "तूं दुकान सोडून हांगा कसो पावलो? तुका हांवें सांगिल्लें मरे दुकानाचें दार सोडनाका म्हणून? खंय गेल्या रे तुजी अक्कल? शी तुजे अकलेक."

"शेटजी हांवें खंय कोणाक दाराक हात लावंक दिला. तुवें सांगिल्ले प्रमाण दारच हें पळय हांव घेवन आयलां. तुवें सांगलें शेटजी दार सांबाळ म्हूण! कोणाक कापस्ताद आसा ह्या दाराक हात लावपाक?" बिल्लू सादेपणान उलयत आशिल्लो. ताचें उलोवपाचेरय भान नाशिल्लें.

"आरे हय रे मुर्खा, तूं दुकान उगडें उडोवन आयला हाचें तुका कांयच दिसलें ना? चल तूं!" म्हणचे मुर्खच म्हणत भानूशेट फुडें आनी फाटीर दार घेवन बिल्लू दुकानाची वाट चलताले.

■ ■ ■

– सुफला रूद्राजी गायतोंडे
मिरामार – पणजे.
मो. – ९८२३१११९१७



# जतनाली दिवाळी



दिवाळेक तीन-चार दीस उरिल्ले. वाड्यावयले भुरगे नरकासूर करपाक गुल्ल जाल्ले. जतनाक ताच्या बापायन फोग हाडून दिल्लो. केन्नाकाय जतनाक फोग लावपाची उमळशीक लागिल्ली. पूण ताच्या बापायन ताका सांगिल्लें, की आपूण आसल्या शिवाय फोग लायनाका.

जतनाली भयण जिज्ञासा आनी आवय दिवाळेचो फराळ करतालीं आनी ताचो बापूय आकाशदिवो हाडपाक बाजारांत गेल्लो. आपल्याचेर नदर दवरूपाक कोण ना ही संद पळोवन जतन एक नारींग आनी एक सुरसुरी लावन बेगी-बेगीन फाटल्यान आयलो. नारिंगाक मात्सो उजो लागलो आनी पालवलो. उजो पालवलो हें पळोवपाक जतन नारिंगाफुड्यान गेलो तेन्नाच नारींग मात्शें हाललें आनी नारिंगाचो फार जालो. आनी जतनाचो हात फुटलो. आनी दोळ्यांकूय मार लागलो.

फाराचो आवाज आयकून ताची आवय आनी भयण भायर आयलीं. जाल्यार कितें? जतनाचो हात फुटला. तेन्नाच ताचो बापूय थंय आयलो. आनी तोवूय जतनाफुड्यांत धांवत धांवत गेलो. ताच्या बापायन १०८ ह्या नंबराचेर ॲम्बुलन्साक फोन केलो. ॲम्बुलन्स जतनाल्या घराकडेन पावली. जतनाक ॲम्बुलन्सांत घातलो आनी हॉस्पीटलांत व्हेलो. जतनाच्या दोळ्याचें ऑपरेशन केलें.

पुराय बरो जावपाक ताका दोन म्हयने लागले. तितले म्हणसर ताचें स्कूल सुध्दां चुकलें. तेन्नासावन ताणें म्हणजे जतनान फोगाक हात लेगीत लावंक ना. आपणें आपल्या बापायचें आयकूंक ना आनी जाणटेलो कोण सांगाताक नासतना फोग लायलो म्हूण हें जावपाक पावलें हें ताका समजल्लें. ह्या मुखार अशें करप ना असो ताणें निर्णय घेतलो. जतन आता शाणो भुरगो जालो.

■ ■ ■



– अपुर्वा अनिल नायक
यत्ता : सातवी
श्रीमती इंदिराबाई भट ढवळीकर,
हायस्कूल – ढवळी, फोंडें – गोंय.

# भांगराळें जावपाचें फूल



नितळ सोबीत अश्या एका गांवांत दामू आपले आजेवांगडा रावतालो. ताची आवय-बापूय एका अपघातांत भायर पडिल्लीं. गरीब आजी दामूची कसलीच इत्सा पूर्ण करूंक शकली ना. ल्हान आसतना दामू तिचे होटयेंत पडिल्लो. तिचेर सामकें मळब कोसळिल्लेभशेन जाल्लें. आपल्या पुताच्या पुताक वयर काडूंक ती खंबीर उबी रावली. लोकांचें उश्टें काडून, भात कांडून ती आपलें आनी दामूचें पोट भरताली.

दामूक ल्हानपणासून कागद दिसलें की तो कितें ना कितें करतालो. अशींच ताणें खूब कागदांचीं फुलां करून दवरिल्लीं. मागीर आजेक तीं खूब आवडलीं आनी तिणें व्हरून तीं फुलां विकलीं. सगळेकडेन ताच्या फुलांची तोखणाय जाली. एक दीस तो असोच फुलांच्या झाडापोंदा बसून दिवाळे दिसांनीं फुलां करतालो.

अचानक एक भांगराळें फूल ताच्या फुलांभितर मिसळ्ळें. दामू पयलीं अजाप जावन त्या फुलाक पळयत रावलो. तेन्ना तिनसांज जाल्ली. दामू हेवटेन-तेवटेन पळयता तें पळोवन तें फूल दामूकडेन उलोवंक लागलें. "हांव रे तें भांगराळ्या रंगाचें फूल. तूं ज्या झाडापोंदा बसून रखरखत्या वतांत घाम गळोवन कागदाचीं फुलां करतालो थंयच हांव आशिल्लें. हांव एक जादवाचें फूल. तुज्या फुलाबरोबर मिसळून आयलां."

दामू हें पळोवन अजापलो. ताका कितें करूं कितें नाका कशें जाल्लें. तो तोंड आं करून विचार करपाक लागलो. ताणें अशें ताची आजी काणयो सांगतना बी आयकल्लें कीं जादवाच्या फुलाकडेन कितेंय मागल्यार मेळटा म्हूण. फुलांक ताच्या मनातली घालमेळ कळ्ळी. जादवाच्या फुलान ताका आपूण जावन विचाल्लें तुका कितें जाय?

दामू ताचीच वाट पळयतालो. ताणें आपल्याक घर जाय, कपडे जाय, बरीं-बरीं खाणां मागलीं. आनी तें फूल नाच्च जालें. ताणें मागलेलें तितलेंय त्या भांगरा फुलान ताका दिल्लें.

ताची आजी पयलींच न्हिदिल्ली. तिका कांय खबर नाशिल्लें. दामूक न्हिदूच पडनाशिल्ली. तो अर्दवट न्हिदिल्लो कारण ताका केन्ना सकाळ जावन आजेक सांगू अशें जाल्लें. हें सगळें पळोवन आजी अजापच जाल्ली. दामून तिका सगळी गजाल रूचीन सांगली.

ती सामकी खोशी जाली. ही गजाल सगळेकडेन फां फां जाली...

मोठे-मोठे लोक दामूची वासपूस करीत गाडयो बी घेवन येवपाक लागले. तरी दामू आपलो सदचो वावर फुलां करपाचो करीत आशिल्लो. अशें करून दामूची प्रगती वाडत गेली. गांवांत ताचो जयजयकार जालो. आजीक खोशयेन रडूंक आयलें. ताचें नांव गाजपाक लागलें आनी वयर सल्लें.





– संजना सं. घोडगे
यत्ता : सातवी
विद्यानगर मडगांव गोवा,
भाटीकार मॉडेल हायस्कूल
फोन : २७५९६४७

# आमची जात्रा



जात्रा म्हणटकीच सगळ्यांकूच उमेद जाता. जात्रा हो सगळ्यांचोच सण: जात्रेक सगळे जाण एकठांय येतात. भुरगे, जाणटे, तरनाटे सगळे. जात्रा हो देवाच्या नांवान सगळ्यांक एकठांय हाडपी सण. सोयरीं सगळीं एकठांय येतात आनी उमेदीन जात्रा मनयतात. गोंयांत पयलीच जात्रा जाता त्यो कार्तिक पुनवेक नागेशीं आनी बोरये. नागेशीं जात्रा जाली काय सगळ्याक जात्रा सुरू.

नागेशींची जात्रा म्हणल्यार आमची जात्रा. सगळ्यांक जाता तशी खोशी म्हाकाय जाली. वर्सांतल्यान एकदांच येवपी जात्रा आनी तीय बी एका दिसाची म्हणल्यार आनीकूय उमेद. कॉलेजीक दांडी माल्ली आनी गेलों जात्रेक. आमची जात्रा वेगळीच. जात्रेक सकाळीं सुरवात जाता. दुसऱ्या वाड्यावयल्या श्री पुर्वचारीच्या देवळांतल्यान एक घुडी येता. हे घुडयेचें खाशेलेंपण म्हणल्यार ही घुडी कोंड्याची. गांवांतलो सगळ्यांत लांब कोंडो कापून हाडटात आनी ताका घुडी लायतात आनी वयल्या पोताक पुर्वचारीची मुर्त आसता. कोंड्यांक मदीं रूप्याचे वाळे घालतात. हे वाळे लोकांनी आंगोवणी करून घाल्ले आसतात. हे घुडयेबराबर बेत्याची बडी घेवन भार आसता. तो सगळ्या लोकांक बीबूत लायत, लोकांच्या प्रस्नाच्यो जापो दीत, दिश्ट काडीत आनी कौल दीत नागेशीं येता. भार नागेशीं पावता तसो श्री. पुर्वचाऱ्याची जात्रा उलगता आनी नागेशीं जात्रा सुरू जाता. नागेशीं प्राकारांत पावतकीच भार त्या कोंड्याचेर न्हिदता आनी घुडयेची मुर्त व्हरून नागेशाच्या लिंगाक लायतात आनी भार विसर्जन जाता. उपरांत जात्रेक सुरवात जाता.

मुर्त लिंगाक लागतगीर दिवजां पेट्टात. दिवजांक बायलो णववारी कापडां न्हेसून, भांगरां शिंगरां घालून हातांत दिवज घेवन देवळाचो भोवताडो मारतात. तातूंत भितर नवें लग्न जाल्लें जोडपें आसता. ल्हान चलयो श्री कृष्णाचो भेस करून आसतात. तर ही जाली व्हडल्यांची जात्रा. भुरग्यांची जात्रा तर दुसरीच. भुरग्यांचें लक्ष आसता तें फक्त माणांचेर. जात्रेक भरपूर माण येतात. खेळण्यांचे, आयदनाचे, कपड्यांचे, खाज्यांचे आनी जायते. दुकानकार तर तरेतरेच्यो मोटारी, गाडयो आनी खेळ भुरग्यांक दिसता तशें दवरतात आनी भुरगीं तर खेळ घेतल्या शिवाय आवयबापायक कशींच सोडिनात. भुरगो म्हणटा ती गाडी आपल्याक जाय म्हणून, बापूय घेवपाक तयार नासता. भुरगो रडटा आनी कसो बसो बापूय गाडी घेवपाक तयार जाता. बापूय तयार जातकीच भुरग्यांक उमेद. भुरगो बापायक दुकानाचेर ओडीत व्हरता. बापूय दुकानाचेर येवन गाडयेचो रेट विचारता आनी तो रेट आयकून बापायची तकली घुंवता आनी तो ती गाडी वा खेळणें घेना आनी परत भुरग्यांली रड. हें पळोवन म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतली याद जाली. म्हणलें हावूंय असलेंच करतालों. पूण तसली उमेद आतां ना. आतां फकत आमी जात्रेक

भोवपाचें काम करतात. दनपार म्हणल्यार नागेश रथांत बसून महालक्ष्मीक येता आनी नागेशीं जात्रा थंडावता. श्री महालक्ष्मी देवळाकडेन जात्रेचो बोवाळ सुरू.

सांजेच्या वेळार श्री नागेशाचो रथ श्री महालक्ष्मीच्या देवळांतल्यान नागेशाच्या मळार येता आनी जात्रा परत भरता. मळार रथ भरपूर नाचता. भरपूर फोग लायतात. बाण, मराण, नारंगां आनी जायतें. फोग पळोवपाक जायती गर्दी जाता. तिळसांज जाली काय परत भोवपाक सुरू. घेवपाचें कांय नासता तरी पूण परत परत भोंवप. प्रत्येक खिणाक ल्हानपणाची याद येता. बोमाडे, खेळणी, बॉल अशे खूब नग घेवप. पूण आतां फकत चणे, भिकणां आनी खाजें सोडून आनी कांय घेवपाचें नासता. हें सगळें जाता म्हणसर रथ भितर प्राकारांत सरता, देवळांचो भोवताडो मारता आनी रथ दवरतात. रथ दवल्लो म्हणटकीच सगळे लोक रथाच्यो घुडयो काडपाक लागतात. देवळांत आरती जाता, प्रसाद वाट्टात आनी जात्रा सोंपता.

एका वर्साच्यान वाट पळयतात आनी जात्रा एका दिसान सोंपता. भुरग्यांच्या तोंडार हाशें आसता. कित्याक तर ताका कितें ना कितें घेवन दिल्लें आसताच. अशे तरेन जात्रा सोंपता आनी लोक फुडले जात्रेची वाट पळयत घरा वतात.

पूण म्हाका हो सदांच प्रस्न पडटा की सगळ्यो जात्रा थंडेनूच कित्याक येतात? हांवें हो प्रस्न म्हज्या आज्याक केलो तर आज्यान सांगलें. थंडेन मनशांच्या आंगांतली साखर कमी जाता. आनी जात्रेक लोक खाजें खातात आनी खाजें हें गोड. गोड खालें म्हणटकीच साखर वाडली. ह्याच खातीर पयलीच्यान थंडेंत जात्रा सुरू केल्ल्यो.



– अमोघ प्रसाद बुडकूले
श्री महालक्ष्मी देवळा लागीं,
बांदोडें, फोंडे-गोंय

# हांवें मनयल्ली दिवाळी

वायटाचेर बऱ्याचें जैत म्हणजे दिवाळी. कृष्णान नरकासुराक मारून वायटाचो नाश केलो म्हणून ताच्या राज्यांत दिवे पेटोवन खोस मनयली. म्हणून नरक चतुर्दशी दिसा फांतोडेर दिवे पेटोवन दिवाळी मनयतात. काळखांतल्यान उजवाडाकडेन वचपाचो संदेश दिणारी ही परब. उत्तर भारतात रामाचे यादीक दिवाळी मनयतात.

दिवाळेक हांव म्हजे मावशेगेर भेडशी गेल्लों. थंय हांवें खूब मजा केली. थंय म्हजे खूब इश्ट आसात. म्हजो मावस भाव, इश्ट आनी हांवें मेळून नरकासूर केलो. तो नरकासूर दिवाळेचे आदले रातीं दोनाक करून जालो. मागीर अडेज वरांचेर हांव न्हिदूंक गेलों. आनी मागीर फांतोडेर उठून साडेचारांक नरकासूर जळयलो. नरकासूर करपाक आमी भेडशी बाजारांत वर्गणी मागपाक भोंवले. आमची वर्गणी ६०० रुपया जमली. आमी सकाळीं उठून न्हावन धुवन नवे कपडे घाले. मावशेन आमकां दिवे दाखयले. आमी भुरगीं सगळीं जाणट्यांक पायां पडलीं.

सांजची हांवें लक्ष्मीची पुजा केली. चिरमुल्यो जमोवपाक बाजारांत सगळ्यां दुकानांचेर गेले.

दुसऱ्या दिसा म्हजो मामा मावशेगेर आयलो. म्हजे मावस भयणीन म्हाका आनी म्हज्या मामेभावाची भाऊबीज केली. मावशेन मामाक भाऊबीज केली. सांजचीं आमी मामा बरोबर तिराळी धरण पळोवन आयलीं.

ताच्या दुसऱ्या दिसा हांव मामाबरोबर मावशेगेरच्यान म्हज्या घरा आयलों.

अशी हांवें दिवाळेक खूब मजा केली आनी दिवाळी बरे भशेन मनयली.



– गंधार सुबोध ठाकूर
यत्ता : ३री
विद्या भुवन कोंकणी शाळा,
आकें – मडगांव.

# किल्ल राजमाची

मुंबई, पुणे महानगरां मद्यें खंडाळा, लोणावळा म्हळिल्लीं हिलस्टेशनूस आस्सती. थंच हवामान थंड. शनिवारा, आयतारा आनि रजे दीस भरपूर प्रवासी थंय येत्ताती. पावसाडिंतु आनीक जास्ती शहरांतुल यांत्रिक जीवनान निर्माण जालि Depression (निरुत्साह) एक-दोन दीस शहरापासून दूर, अलिप्त, मोकळे वातावरणांतु वोच्चून राबल्यारी बरेचशें कमीं जात्ता.

लोणावळासाव्न पाय वाटेन चलत चार-पांच तास अंतराचेर राजमाची, कोरीगड, लोहगड, विसापूर, तिकोना... इत्यादी एतिहासीक किल्ले आस्सती. बौध्द कालीन कार्ला, भाजे, कोंडाणे लेणी (caves) आस्सती. त्या पैकी ट्रेकिंगाचो आनंद घेव्चो आसल्यार पावसाडींतु 'राजमाची' वोचका.

लोणावळा बस-स्थानकासाव्न, मुंबई-पुणे वोच्चो रस्तो दांटून (हुपून) तुंगार्ली गांवां वोचका. चलत गेल्यार अर्ध तासा वाट. ओटो रिक्षा वत्ताती. ताजेर गेल्यार बेगी पावतले. तुंगार्ली गांवच्यान खरें ट्रेकिंग सुरू जाता. वीस-एक मिनिटं गुड्डो (पर्वत) चडून गेल्ले नंतर तुंगार्ली धरण दिसतलें. धरणा लागून, दावे दिकान चलत गेल्यार राजमाची वोच्ची वाट मेळता. वाट कच्ची आस्सिल तिकी (तरी) रूंद आस्सा. अवघड ना. पायाक पक्का ग्रिप आस्सिले पावसाडी बूट वापरा. तुंगार्ली धरण पावसान भरील आसल्यार पांच-धा मिनिटां थंय् बस्सून आराम करा. ट्रेकिंगा वत्तल्यांनी केन्नां गडबड कोरच्याक ना. निसर्गाचो पूर्ण उपभोग घेवका. हो आनंद पैसेन विकत मेळना. फक्त निसर्गांत फुक्कट मेळता.

पावसांत तिंबत (भिजत) हरिद्वर्ण परिसरांत फुलिल्लीं रंग-बिरंगी रानफूलं पळैत, त्या फुलांचेरी अगदी नाजूकपणान खेळत, उडत, नाचचे फूलपाखरूं पळैते, उंच गुड्डे (Hills) वैय्ल्यान सर सर देंव्न येव्चे अनेकानेक शुभ्र जलधारा पळैत, ताजेमुळांत बसून न्हाय्त, मस्ति-मजा करत 'राजमाची' पावतना चार-पांच तास वेळ गेलिलो कळना.

तीस वर्षां माक्षी (आदीं) प्रथम, हांवु 'राजमाची' गेलिलों. नंतरचे कालांतु सात-आठ पंता गेलां. आत्तां माक्का अेकसृष्ठ वर्षां प्राय. अजून उमेद कमीं जालिल ना. वर्षा ऋतुच वाट पळैतना दूर आकाशांत वाऱ्यार अेकादें उडत वोच्चें मोड (कूप) दिसलें की, मन प्रसन्न जात्ता. हांव भित्तर गुंडाळून दवरीलें सेकबेग भार्य हाणु दवर्ता. ट्रेकिंगा वोच्च तयारी लागतां. श्रावण महिन्यांतु गेल्यार आनिक जास्त मजा. कारण निसर्गांतु नव चैतन्य चिगुरील (पालेल्लें) उर्ता. त्या नयन मनोहर निसर्गाची वर्णन कर्तल जाल्यार कवी जाव्न जन्मा येव्का.

राजमाचीच पायामुळांत उदेवाडी गांव आस्सा. सान गांव तो. त्या गांवांत डोंगर कोळी, महादेव कोळी लोकांले वीस-बावीस घरं आस्सती. थंच लोकांले आडनांव उंबरे, वरे, वाघमारे... इत्यादी. ते गांवतुले पूरा अेकमेकांक संबंधीच. शिवाजी महाराजाले कालांत गडारी चाकरी कर्तले ते, नंतर थंईची स्थाई जाल्ले खंय्! गडारी आयिल्यांक तेची राबच्याक जागो दित्ताती. तुम्मीं सांगल्यारी, खाव्ची व्यवस्था बी तेची कर्ताती.

उदेवाडी पाव्ले की पय्लें कांदे भजी आनि च्याचे ओर्डर दिया. तुम्मीं हात-पाय धुव्न फ्रेश जावरी भजी आनि चहा तयार जालिल उरता. पाव्सांत तिंबून गेले नंतर, थंचे थंडगार वातावरणांत गरम-गरम कांदा भजी खाव्न गरम चहा पिवची मजा ती वेगळीच. रात्री जेवणाचे ओर्डर दिव्न, राजमाची वयलो बालेकिल्ला पोळोन येया. जास्त वेळ आराम केल्यार नंतर उट्टाचें नाक्कशें दिसता. आनि हेरदिस ते पोळोन परत वत्तलो म्हळ्यार जमशिना. खूब वेळ जात्तलो. अर्दे पोळोन वोच्चें पट्टलें.

बाले किल्ला दोन आस्सती. पूर्वेक दिस्ता तो 'श्रीवर्धन' उंची साधारण ९१० मीटर. पश्चिमेक दिस्ता तो 'मनरंजन' उंची श्रीवर्धना किंता (परस)जरा कम्मी. ह्या दोनी बालेकिल्यां मद्यें ३०० मीटर खोल खिंडी (दरी) आस्सा. अेक बाले किल्या वैल्यान आनेक बाले किल्ल्यार वोच्याक खिंडींत देंव्नु वोचका. वाट्टेरी खिंडींत भैरवेश्वर मंदिर मेळटलें. थंय देवदर्शन घेव्न, थोड वेळ आराम कोर्येत.

श्रीवर्धन गड पळोवच्याक दोन तास लागतले. सातवाहन कालांत बांधिलील ह्या किल्यांची तटबंदी अजून शाबूत आस्सा. उत्काची टाकी आस्साती. अग्दीं 'मे' महिन्यांत आयलेतिकी गडारी उदाक उरता. आनी कस्सलें ऐतिहासिक वास्तू अस्तित्वांत ना. पण ध्वज खांब्यालाग्गी बस्सून सुत्तु (भोंवतणचो) सह्याद्रीचो परिसर पळयल्यारी,

ट्रेकिंगांत आस्सिल तितलो आनंद दुसरेखंचांतु ना म्हळील खात्री तुमकां जात्ता.

'मनरंजन' गड एका तासांत पोळोन येवत. थंयू बी ऐतिहासीक दृष्टीन पोळोच तस्सलें वास्तु आज उरिलनांती. पण गडावैल्यांन कर्जत गांव, उल्लास नदी पात्र आनि ताजे आस-पास आस्सिले सान्न-सान्न गांव अती सुंदर दिसताती. 'ढाक' किल्ला दिस्ता. लोणावळाचे 'ड्यूक नोस' (Duke Nose) दिसता. ते न्हंयशी लोणावळा-कर्जत-लोणावळा वोच्ची-येव्ची ट्रेन अेकेक बोग्दयांतु घुस्तना, घुस्सून भार्यी येत्तना पोळोच्याक मजा जात्ता. दुर्बीन आसल्यार होरच्याक विस्सोर्नाक्काती.

दुसरे दीस परत वत्तना उदेवाडी गांवातुले तलाव आनि तलावा बगलेन आस्सिलें शिव मंदिर पोळोच्याक विस्सोर्नाक्काती. या जगांत चराचरार्चे नियंत्रण कोर्ची अेक प्रचंड शक्ती आस्सा. त्या शक्तीचे अस्तित्व ह्या निसर्गांत स्पष्ट दिस्सून येत्ता.

लोणावळा साव्न राजमाची गेलिले, परत अेत्तना कर्जत वाट्टेन येया. वाट अनोळखी जाल्यार, उदेवाडींत कोणाक गाईड म्हूण सांगाती घेया. कारण ही रानवाट चुकल्यार 'मनरंजन' गडाक प्रदक्षिणा घालत भलतेकडेन पावतले. ही वाट देंवणी (उतार); निसरडी म्हणून काळजी घ्या.

देड तास वाट चमकनापडेन रानांत, क्रि. श. पूर्व २०० वर्ष पुरातन लेणी (cave), कोंडाणे केव्स मेळतली. हांगा थोड वेळ आराम करा. बौध्द कालीन गतवैभवाचो भग्नावशेष पळया. पाव्स पडत आसल्यार गुड्डे (दोंगरा) वेल्यांन झोरान देंवन आयिल उदाक, ह्या गुहेंचे दारांत बस्सून आंगारी घेया. अंग मर्दन (Body Massage) केल्यावरी, हो सुखद अनुभव तुमगेल ट्रेकिंगाच्या उत्साहाक उत्स्फूर्त (Encouraging) जावनास्सा.

कोंडाणे साव्न कोंदिवडे गांवा पावच्याक दोन तास लागतले. थंचान कर्जत वोच्याक (Aproximately 15 k.m.) बस् किंवा ओटो रिक्षा मेळताती. कर्जत साव्न ट्रेन धोर्न तुमतुमगेल गांवा वोचेत.

सह्याद्रींत ट्रेकिंग कोरच्याक वर्षाऋतु इत्लो बेस्ट सीजन दुसरो ना. पावसाडींत घरांत बस्सून, खिडकिंतुल्यान भार्यी निक्कून पोळोच्यांत मज ना. भार्यी येया; अेकपंता मोकळेपणान पाव्सांत मनसोक्त भिजत फिर्न येया. नंतर तुमगेल्यांत बी ट्रेकिंगाची आवड अंकुरतली. पाव्साची वाट चातक पक्षीवरी तुम्मी पळैतले.

■ ■ ■



– पद्मनाभ नायक
तिलक नगर,
डोंबिवली (ई) ४२१ २०१
फोन :(०२५१)२४२१४०१

# ब द ल

(पान ३६ वेल्यान....)



बायल घराभायर वता तेन्ना तिच्याखातीर एक लक्ष्मणरेशा काडिल्ली आसता. दादल्यांचे बाबतींत अशें केन्नाच घडना. दादलो खंयच्याय वेळार घराक आयलो, हेर बायल वा दादल्यां वांगडा कसोय उलयलो, खंयय भोंवलो जाल्यार समाज तें दुर्लक्ष करता. पूण एके बायलेक मात असले बाबतींत सुगूर रावंक जाय. नाजाल्यार तिका घरांतल्यांचे तशेंच भायल्यांचे थोमणे आयकुपाचे पडटात. एकेकदां तर तिच्या चारित्र्याचेर पुसून शितोडे उडोवपाक समाज फाटीं रावना.

पूण एक अस्तुरीय आतां दिसानदीस निगरगट्ट जायत चल्ल्या. संवसार रथाचें आपुणय एक म्हत्वाचें चक्र म्हणपाचो तिका दिश्टावो जाला. आपले वाचून संवसाररथ सुरळीत चलप शक्य ना हें तिका उमजलां. सगळीं बंदना झुगारून ती सगळ्या क्षेत्रांनीं, अंतराळ म्हण नाका, माहिती तंत्रज्ञान म्हण नाका, खेळामळार, राजकारणात एका थिकाभशेन चकचकता आनी उजवाड घालता.

चल्याक वंशाचो दिवो म्हणटा म्हणटा चलयोय पणटी जावन पेटतात आनी आवय-बापायचो म्हातारपणांतलो आधार जातात. वंशाचो दिवो उजवाड घालपाक (आपलें करीयर करीयर करीत) भायल्या देशांनीं वता. तेन्ना ते आपल्या जाण्ट्यां आवय-बापायन काडिल्ले कश्ट विसरतात. नाकाआशिल्ल्या व्यसनांचे भकीक पडून काबार जाल्ल्यान पुताचो अंत्यसंस्कार करपाचो प्रसंग बापायचेर येता, तेन्ना दिव्यापरसय पणटेचो मंद उजवाड बरो अशी विचारसरणी जायत चल्ल्या. हाचेफुडेंय वचून चलयांनीं आतां अशें पावल उबारपाक सुरवात केल्या तें म्हळ्यार आपल्या आवय-बापायचे अंत्यसंस्कार करून चल्याची उणीव भरून काडपाची.

■ ■ ■



– रूपा कोसंबे
शिंदोळी,सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

# स्वस्ताय म्हागात पडली




*इतक्यात येस. टी. चालू झाल्याबरोबर थॉड्याच येळात सदूक् आपणाक् सगळे बाजून कोणतरी आवळता हां असा वाटाक् लागलां. त्यॅना सीटवरच चाळवाचाळव करून बगितल्यान, पण सीटवर काय नाय हुता, म्हणान् शर्टाची बटणा काढून भुतूर हात घालूक गेलो, तर हात जायना इतक्या ता सफारी शर्ट त्याका घट्ट वाटाक् लागला. पॅन्टही त्यॅका सगळेबाजून् आवळूक लागली. आपला असा काय व्होता ह्याच त्याका कळंना. तसेच स्थितीत गाडी तळेगावात इली नी सदू खाली उतारलो, तर म्हारूती किचाळलो, "मेल्या सदग्या, तुज्या सफारीचा असा काय झाला तां? मेल्या, ती ढॉपरात वर इली नी हात कॉपरात इले."*

२०१० सालात होवची विधानसभा निवडणूक जवळ ईली आनी सगळीकडे निवडणुकीचाच वारा व्हावंक् लागलां. ज्याच्या त्याच्या तॉंडात निवडणुकीचोच मुद्दो. वायंच्-वायंच् शिकलंल्या कोकणातल्या सगळ्या झिलग्यांका आनी तश्याच शिकलंल्या पोरींक सुदा यंदा आपूनच आमदार व्होतंलंय असा वाटाक् लागलां. ह्या विषयातला आपल्याकंच लय समाजतां अश्या तॉऱ्यात जो तो दुसऱ्याक् कमी लेखूंक लागलो. तळेगांवांत काय येगळी परिस्थिती नाय हुती. बाबलो आनी म्हारुती तर आता राजाच् झाले हुते. कारण अनेक पक्षांचे कार्यकर्ते गावात फेरये मारूक लागले हुते. त्येंची गाडी गावात शिरली काय सरळ पारावरसूनच गावात फुडे जाय. पारावर हे दॉग जान टपलंलेच आसंत. नयी गाडी दिसली काय दॉग जानंय हात जोडून गाडयेचो रस्तो आडयीत. मग गाडयेतले कार्यकर्ते खाली उतारले काय, हे दॉग जानंय् 'आमी तुमच्याच पक्षाचे' म्हणान् त्यांच्या पक्षाचो झेंडो घेवन् फुडे धावत्. रामा शिंद्याच्या झिलाकडसून असे त्येंनी ५-६ पक्षांचे झेंडे शिवान् ठेवलंल्यानी. त्यामुळे ज्या पक्षाची गाडी येयत् त्येचो झेंडो घेवन् फुडे धावायचा, अख्ख्या गावाची मतां आपल्याच पक्षाची आसंत् म्हणान् सांगायचा, नवीन मतदारांका आपल्या पक्षाकडे वळवूक थोडो चाय-पानयाचो खर्च येता म्हणान् सांगान् पाचशे-हजार रुपये त्यांच्या कडसून घेवन् त्यांका थंयसूनंच् दुसऱ्या गावाच्या वाटेक् लावायचा, मग संद्याकाळी त्याच पैशात्सून गावठी सोरो मारून झिंगतच घराकडे जायंचा असो सद्या त्येंचो धंदो सुरू होतो.

अशातच येके दिवशी त्या मतदारसंघातलो आमदार परत आमदारकी मिळवूच्या आशेन् मतांसाठी सगळे गांव पालथे घालीत तळेगावात दाखल झालो. बाबलो आनी म्हारुती त्याच्या सेवेक् नेहमीपरमान् हजर झाले. दुसरे दिवस त्या आमदारानं ह्या दॉगा कार्यकर्त्यांका खाव-पिवक् घालून अख्ख्या गावाची सभा बोलंवल्यान्. खाल्लंल्या अन्नाक् जागाचा म्हणान् ह्या दॉगांनी त्या सभेक् खॉटा-नाटा सांगान् अख्खो गाव जमा केल्यानी. सभेत

त्या आमदारान् गाववाल्यांका खोटी-नाटी आश्वासना दाखवून गावचो विकास करूसाठी आपल्याकच परत निवडून देवसाठी गांववाल्यांका हात जोडल्यान्. बाबल्यान् सदूक फुडें करून आमदाराचो हार घालून सत्कार केल्यान् नी 'सगळो गांव तुमच्या पाटीशी आसा' म्हणान् त्याका शब्द दिल्यान्. खाल्ल्या अनाक् जागाक् तर व्होया!

गाववाल्यांका बाबल्या-म्हारुतीचा वगीचंच ह्या फुडे-फुडे करना आवाडला नाय. पण आमदारासंबूर बोल्तले काय? अखेरीस आमदारान् आपल्या मतदारसंघाचो एक मेळावो मुंबैत घेवचो ठरवून त्याका सगळ्या गाववाल्यांनी उपस्थीत न्हवाचा म्हणान् सांगान् सभा सपवल्यान् नी वाटेक लागलो.

आट दिवसांनी आमदाराचो गावात निरोप पोचलो. त्यापरमान् ८ मे रोजी मुंबैच्या आझाद मैदानावर मेळावो घेवसाठी आमदाराच्या मतदारसंघातले बरेचसे लॉक मुंबैक गेले. आमदारान् ५-६ येस. टी गाडये सोडलंल्यान्. परत आपापल्या गावाक् हानून सोडूची सुदा बोली केल्ल्यान्. त्यामुळे फुकट मुंबै बगूक् गावतली म्हणान् तळेगावचे बरेचशे तरूण झिलगे मुंबैक गेले. त्यांच्यात बाबलो, मारुती, सदू, पांडू, लक्ष्मुण गावडो आनी शिवराम हे पयल्या फळयेतले झिलगे सामील झाले हुते.

ठरल्यापरमान् आझाद मैदानावर मोठी सभा झाली. आमदारान् आमदारकीचा तिकीट मिळवूसाठी ह्या सभेचो शक्तीपरीक्षेसाठी बरोबर उपयोग केल्यान्. मेळावो घेवचो त्येचो उद्देशच तो हुतो. पक्षांतल्या मोठमोठ्या नेत्यांका हानून त्येंचो त्यांना सत्कार केल्यान्. दॉपारी १२-१ व्हाजता सभा सपली नी सगळ्यांका दोन-दोन वडे पाव देवन् त्या आमदारान् आपल्या मतदार बंधू-भगिनींची बोळवण केल्यान्. गावकऱ्यांका वाटलंला ह्यो मस्तेपैकी चमचमीत जॅवणा-बिवणाची सोय करतलो! पण कसला जॅवाण नी कसला काय! सभा सपल्यावर आमदार जो गायब झालो तो परत खयच्याच गाववाल्यांका शोधून सापाडलो नाय. त्यॅना जे येस.टी. गाडये मैदानात उबे केलंल्यान् ते बी दुपारी कॅवातरी गायब झाले. आमदाराच्या कार्यकरत्यांनी परतीच्या प्रवासाची सोय करुसाठी कानावर हात ठेवल्यानी. कोणाक् इचारूची सोय उरली नाय. त्यामुळा संद्याकाळी परत गावाक् जावची सोय काय म्हणान् लॉक चिंतेत पडले. सगळ्या लोकांनी आमदारासाठी ठेवणीतले शेलके गाळी भायर काढल्यांनी नी परत मतदारसंघात तो इलो काय त्येचो 'उत्तम' सत्कार करुचो ठरवल्यांनी. कायजणांनी रातरीची कोकण कन्या रेल्वे गाडी सुटंपर्यात् मैदानातच मुक्काम करुचो ठरवल्यांनी, तर कायजाण तिकटासाठी पावण्या-रावळ्यांचे पत्ते शोदूक भायर पडले. आमच्या म्हारुतीन् 'रातरीची मुंबै येगळी आस्ता' असा कदीतरी कॉनाच्या तरी तॉंडात्सून आय्कल्यान हुता. त्यामुळा ती येगळी मुंबै बगुची कल्पना त्यॅना आपल्या बाकीच्या दोस्दारांकडे मांडल्यान्. सगळ्यांनी होय-नाय करीत सकाळी मांडवी गाडी पकडूचा ठरवून म्हारुतीच्या कल्पनेक मान् होलावल्यांनी. रेल्वेन फुकट जावक् मिळात ही आयडीया त्यापाठीमागे हुतीच.

सगळ्यांनी सोबत थोडेफार पैसे हानलंले हुतेच. त्यामुळे पयल्यांदा दुपारी ३-४ व्हाजताच्या मानान् गेटवे बगूक जावचा त्येनी ठरवल्यांनी आनी तोपर्यात त्या मैदानातच सावलेत ताणून दिल्यानी. बाबल्यान् सगळ्यांका चार-साडेचार व्हाजता उठवल्यान् नी थंय 'चाय, गरम चाय' करीत इल्लंल्या भैयाकडसून सगळ्यांका दोन-दोन रुपयांची कटिंग चाय पीलवल्यान्. सगळे आता फिराक् जावक् तयार झाले नी गजाली मारीत-मारीत रंगीबेरंगी माणसांची मुंबै बगीत हुतात्मा चौकात इले. थंयसर परत्येक वस्तूचो रस्त्यावरच नुस्तो बाजार फुल्लो हुतो. असो काय मोर्चा-मेळावो आस्लो काय फेरिवालेसुदा त्या लॉकांका लुटूसाठी रस्त्यावरच दाटीवाटीन् दुकाना मांडतंत. बाबलो, म्हारुती मागे येकदा मुंबैक येवन् गेले हुते. त्यामुळे ते काय लयसे गांगारले नाय, पण सदू आनी पांडूची अवस्था पयल्यांदाच मुंबैक इल्यामुळे न इचारण्या सारकी झाली हुती. इतक्यात सदूच्या कानावर '५० रुपायात सफारी शिवा, पचास रुपयेमे सफारी शिलाव' असो जोरदार आवाज इलो. म्हणान् तो पाटी वळान् बगता, तर रस्त्याच्या कडेक् जम्नीवरच येका म्होट्या सुटकेसम्दी पॅंटपीस आनी शर्टपीसां नीट घडी घालून ठेवलंली त्याका दिसली. लॉक कपडो उचलून बगीत नी फुडे जायंत्. सदूची पावला थंय थांबलीशी बगून तो कपड्याचो इक्रेतो भैया म्हणालो, "साब, पचास रुपयेमे पॅंट और शर्ट का कपडा ले जाव, आपको सफारी अच्छा दिखेगा." म्हणान् कपड्याची घडी उगडून सदूच्या खांद्यावर टाकल्यान्. "देखो साब, ये कपडा आपको कितना अच्छा दिखता है! दुकान मे ये पॉंचसो को भी नये मिलेगा! हमारे यहा खाली पचास मे मिलता है! ले लो! सोचो मत! ऐसा मौका बारबार नही मिलता!"

सदून तो कपडो हातांत घेवन् बगीतल्यान. बरो वाटलो, शिवाय फकस्त ५० रुपयात? सदून् वायंच ईचार केल्यान. मनात म्हणालो, "गाववाल्यांवर 'इम्प्रेशन' मारूच्या म्हंजे ह्यो सफारी शिवाकच व्होयो." इतक्यात दोन-चार गिराईका येवन् पटापट ५-१० कपडे घेवन् गेली. सदूक वाटला. इतकेजाण घेतंत तर आपणाक् येक कपडो घेवक् काय जाता? कसलोही मागचो-फुडचो इचार न करता त्यॅना कपडो पिशयेत टाकल्यान् नी दुकानदाराक् पन्नास रुपयांची नोट देवंन् वाटेक् लागलो. बाकीचे गावकार थोडे-फुडे जावंन् सदू खंय चुकलो म्हणान् उबे न्हवान् हडे-तडे बगीत हुते. इतक्यात त्यांका सदू दिसलो.

"काय रे, पाटी खंय न्हवलंस? मेल्या चुकलं बिकलंस तर तुज्या आवशी बापाशीक् आमी काय सांगाचा?" बाबलो करवादलो. सदू म्हणालो, "काय नाय,

दुकाना बगीत येतंय् तवसर तुमी फुडे गेलास.'' पण सदून् कपडो घेतल्यान् ह्या त्यॅना त्यांका कळाक् देवक् नाय. त्यॅका गांववाल्यांका 'सरप्राईज' देवचा हुता.

रातरी अकरा-बारा व्हाजस्तगत ते गेटवे वरच हुते. गेटवे वरची ती सगळी येगयेगळी कपड्यातली माणसां बगून सगळेच कायतरी येगळाच बगल्यासारक्या करीत हुते. त्याच्यातच कोण समुद्र बगीत हुतो, तर कोन बोटी बगीत हुतो. पांडू आनी सदू ह्या पयल्यादाच बगीत आसल्यामुळा त्यांका काय बगू नी काय नुको असा झाला हुता. त्याच्यातय फॉरेनची अर्धी उगडी सफेत बाईल मान्सा बगून तर त्येंची अवस्था सांगता येयत् नाय नी सहन होयत् नाय अशी झाली हुती. त्यांच्या त्या अवस्थेचा वर्णन करूचा म्हंजे दोन पाना खर्ची पडतीत. येक डोळो त्या मान्सांवर तर दुसरो डोळो आपल्याक् असा करतंना कोन बगीन नाय ना? ह्याच्यावर व्हतो.

रातरी थंयसरच रस्त्यावर पुन्ना वडो-पाव खावन् त्येनी भूक भागवल्यांनी, नी कसेतरी ढकलत-ढकलत, रस्त्यावरचे लायटी, इमारती बगीत व्ही. टी. स्टेशनात इले. रातरीच्या वेळेक स्टेशनाची इमारत बगून त्यांच्या डोळ्यांचा पारणा फिरला. काय ती लायटींग, काय ती गर्दी आनी काय ते गाडये! सगळे अवाक् झाले हुते. शेवटी थंयसरच रात काडून त्येंमी सकाळी सात वाजता मांडवी गाडयेचो जनरल डबो पकडल्यानी. नी संद्याकाळी गावाक् पोचले. दुसऱ्याच दिवशी सदू मालवणाक् जावन् त्या घेतलंल्या कपड्याचो सफारी ड्रेस शिवाक् देवन् इलो, नी आट दिसान् अडीचशे रुपाये शिलाय देवन् ड्रेस घेवनसुदा इलो.

फुडच्या चार दिसानी मामलेदारान खत विक्री, कर्ज, बी-बियाणा वाटप वैगेरेसाठी पंचक्रोशीतल्या शेतकऱ्यांची येक सभा ठेवल्यान्. तळेगावचे बरेचशे शेतकरी गेले हुते. सदूसुदा सफारी घालून मिरवूसाठी



मालवणाक् त्या सभेक् गेलो हुतो. येदो कपडो घेतल्यान, ड्रेस शिवल्यान पण आम्का कॉनाक समजाक् देवक् नाय म्हणान बाबलो, म्हारुती नी कंपनी सदूवर जळत हुती, आनी तो बी त्यॅका जळईत हुतो. हजाराचो ड्रेस आसा म्हणान् सगळ्यांका सांगत फिरत हुतो.

मामलेदाराची सभा सपली नी अचानक आभाळ भरान् ईला. काय वेळेतंच धो-धो पावस् पडाक् लागलो. सगळ्याभर मातयेचो पयल्या पावसाचो सुगंध पसारलो हुतो. चिखलही झालो हुतो. पावस् काय थांबण्याची चिन्हा दिसत नाय हुती. पण हयसरंच थांबला तर दॉपारची तीन ची येस. टी. गाडी चुकतली म्हणान् सगळे भिजत भिजतंच मालवणाच्या येस. टी. स्टँडावर इले, आनी ओल्या-ओल्यानीच तळेगाव येस. टी. पकडल्यानी. ड्रेस भिजल्यामुळा सदू थोडो हिरमुसलो हुतो, पण नाईलाज हुतो.

इतक्यात येस. टी. चालू झाल्याबरोबर थॉड्याच येळात सदूक् आपणाक् सगळे बाजून कोणतरी आवळता हां असा वाटाक् लागलां. त्यॅना सीटवरच चाळवाचाळव करून बगितल्यान, पण सीटवर काय नाय हुता, म्हणान् शर्टाची बटणा काढून भुतूर हात घालूक गेलो, तर हात जायना इतक्या ता सफारी शर्ट त्याका घट्ट वाटाक् लागला. पँटही त्यॅका सगळेबाजून् आवळूक लागली. आपला असा काय व्होता ह्याच त्याका कळंना. तसेच स्थितीत गाडी तळेगावात इली नी सदू खाली उतारलो, तर म्हारूती किचाळलो, ''मेल्या सदग्या, तुज्या सफारीचा असा काय झाला तां? मेल्या, ती ढॉपरात वर इली नी हात कॉपरात इले.'' बाबलो सुदा हसाक् लागलो. म्हणान् सदून् खाली वाकान् बगल्यान्, तर पँट तोकडी व्होवन ती ढॉपरात इल हुती. शर्टाचीही तीच गत झाल्लंली. सगळे फिदीफिदी हसाक् लागले. तॉंड लपवून आडवाटेन् सदू कसो तरी घराक् इलो नी पँट-शर्ट काढूक् बगता, तर ती आंगात्सून येयना इतकी घट बसली हुती. सदूक थारो व्हयना. तो बॉंब मारून् रडाक् लागलो. शेवटी सद्याच्या बापाशीन् कैची हाणून ती पँट आनी शर्ट मिळात थंयसर कापून बकरो सोलतंत तसा सोलून काढल्यान् नी सदूची सुटका केल्यान्. तेवा ह्यो सफारीचो कपडो इतको स्वस्त कसो गावलो ह्या सदूक समाजला.

दुसरे दीस बाबल्यान् नी म्हारूतीन सदूच्या ऑपरीशनची ही गजाल सगळ्यांका सांगान् सदूक नुको जीव करून टाकल्यानी. पण सदूक खरा दूख झाला हुता ता 'धा आण्याची कोंबडी नी बारा आण्याचो मसालो' अशी गत झाल्याचा! तॅवापासून मुंबैक गॅला तरी स्वस्त दिसणाऱ्या वस्तुकडे संशयान् बगुचाच त्यॅना ठरवल्यान्.



**- शामकांत मर्गज**



गॅझेटिअर विभाग,
महाराष्ट्र शासन, २७,
बरजोरजी भरूचा मार्ग,
फोर्ट, मुंबई-४०० ०२३
मो.: ०९८६९९०२३६२



दिल्ली हांगा जाल्ल्या १०व्या अखिल भारतीय कवयित्री सम्मेलनांत गोंयच्यो कवयित्री ग्वादालूप डायस हांच्या जलस्थल ह्या काव्यसंग्रहाक विशेश काव्यसेवा पुरस्कार फावो जालो. त्या वेळार तांचो पद्मश्री डॉ. बिंदेश्वर पाठक आनी मोरिशसचे उच्चायुक्त श्री चुन्नी हांच्या हस्तुकीं भोवमान जालो.

---



नामनेचे मराठी कवी

## नरेंद्र बोडके

हांचो नवो निबंद संग्रह

## अडीच अक्षरे

ढाई आखर प्यारके... हें कबीराचें वचन प्रसिध्द आसा. प्रेम हो फकत अडेज अक्षरांचो शब्द आसलो तरी तो कशें आयुश्य व्यापून उडयता हें कबीराक कळ्ळें. ताणें मानवी संस्कृतायेचें खाशेलेंपण म्हूण प्रेमभावनेकडेन पळयलें. प्रेमात आशिल्लो मनीस आपल्याय पलतडीं पळोवंक शकता. मागीर पलतडीं पळयतां पळयतां ताका विस्वांतल्या परमप्रेमाची प्रतिती येता. स्त्री पुरूश प्रेम हो आरंभ आसता. अशें सांगत सांगत कवी नरेंद्र बोडके ह्या निबंदांतल्यान अचळय वाचकांक भोंवडावन हाडटा.

११८ पानांचें हें पुस्तक वसंत बूक स्टॉल, पुणे हाणीं उजवाडाक हाडलां.

नामनेचे कोंकणी कवी

## काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

हांचो नवो काव्यसंग्रह

## काव्यसूत्र



**काशि म्हंटा** (१९८२) **काशिक म्हणचेंच पडटा** (१९९७) आनी **काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना** (१९९९) ह्या तीन काव्यझेल्या उपरांत काशिनाथ शांबा लोलयेंकार हाणीं कांय कविता सूत्ररुपांत बरयिल्ल्यो. बालसूत्र, फामीलसूत्र, मित्रसूत्र, गणपतीसूत्र, कामसूत्र, अध्यात्मसूत्र, काव्यसूत्र. तातुंतलें फकत एकूच सूत्र म्हळयार काव्यसूत्र.

कविते संबंदी बरयल्ल्यो कविता अशें ह्या **काव्यसूत्र** झेल्याचें स्वरूप आसा.

# भेसळ



आमी काल सकाळच्यान दिसभर लायनीक रावून घरा वचून आयज परत आयल्यांत..." तिचे ते जापेक म्हजेकडेन जाप नासली. मनांत म्हळें, ह्या जोरान 'आपूण येतलों' म्हूण कालूच सांगिल्लें जाल्यार हांवूय कालूच हांगा येवन लायनीक रावपाचें.

सकाळीं फुडेंच हांगाच्या सगळ्यांक मात्शी तरतरी आसता. वेळ वता तसतसो सगळे भुकेच्यो जांभयो दिवपाक लागतात.

मुखावेली बायल कितलो वेळ म्हूण ओगी रावतली आसली? म्हाका हळूच म्हणपाक लागली... "वदळ आमी बरी लटाफट केली न्हय", हे भावनेंतल्यान म्हाका परत परत पळयताली. ती जाणा आसली हे गर्देन दुस्मानावरी राग दवरपाक कोणाक पांसियेस नासता. दरेकल्याक बेगीन तपासून घरा वचपाचें आसता. इल्लें इल्लें करून तिणें म्हजे कडेन उलोवपाकूय सुरूवात केली. हळुहळू गर्दी कमी जावपाक लागिल्ली. आमच्या मुखावेलीं आनीक दोगां जाणां उरिल्लीं. अचकीत मुखावेली बायल म्हाका म्हणपाक लागली, "वता मगे तूं मुखार वच तर, हांव हांगा लागींच रावपी, हांव तुजे फाटल्यान वतां..."

एकदांचीं आमी दोतोरा म्हऱ्यांत पावलीं.

दोतोराक आमी देव मानतात. ताका मनशाच्या भायल्या आंगा परस भितल्या आंगाची म्हायती चड आसता.

**का**वंटरार बशिल्ले सिस्टरिकडेन वाद घालपी पेशंटाक पळोवन मनांत विचार आयलो, इतले सकाळींफुडें बाबडे धुवेक उठोवन घालून कांयच फायदो जालो ना. हांगा तर आमच्याय पयलींच कितली गर्दी जाल्या, आनी लोकांनी नंबरा खातीर झगडीं लेगीत करपाक सुरूवात केल्या. लोकांची लायन तर सोरपुले वरी एकामेकांक तेंकपाचीच उरिल्ली. सोरपावरीं हॉस्पिटलाक वेटाळो घाल्ले वरीं दिसताली. सगळ्यांकच तपासून बेगीन घरा वचपाची घाई.

एकली म्हणपाक लागली, "आगे हांव पयलीं आयिल्लीं मगे."

दुसरी म्हणपाक लागली, "कितें सांगता गे तूं, हांव पयलीं आयिल्लीं मगे." तिसरी म्हणपाक लागली, "आगे ही लायन कोण घराकडल्यान गुंथून घेवन येना. हांगा मातशी रांगेन रावत सर हांगा थंय जाताच." हांवें म्हजे मुखावेलेकडेन वळख मारपाक सुरवात केली. दोन वरांचे वाटेक दोतोरागेर आयलां म्हणटगीर म्हाका हेरां परस बेगीन वचपाची ताकतीक आसतलीच न्हय? कित्याक तर हांव धुवेक घेवन आयिल्लीं, ताका भूक लागतलीच न्हय.

आनी म्हजी एक पाडी संवय. व्हडली लायन पळयली म्हण्टकच म्हजी तकली पयलींच घुंवपाक लागता. मागीर तें देवालें देवळांतलें जेवण लेगीत आसूं. बाकीकडेन कोणूय मात्सो मुकार वच म्हळ्यार आयकता. पूण हांगा सगळींच भुकेल्लीं आसतात.

सदचे संवयेवरी गाळी खावपाचे तयारेन हांवें म्हजे मुखावेले बायलेक म्हळें, "हांव मात्शें मुखार वचूं गे? धाकटें भुरगें आसा न्हय वांगडा, ताका भूक लागतली..." इतलें म्हळें आनी हांवें तकली सकयल घाली. तिची फुडली प्रतिक्रिया आयकुपाक इतल्या लोकांमदीं म्हाका झेंपतलें काय ना ह्या विचारान...

"आनी आमी कितें पोट घरा दवरून आयल्यांत गे?" दुर्गेचें रूप घेत ती आइडली. हांव तिच्या त्या अवताराक भियेलां हें तिका कशें दाखयतलें. हांवेय म्हळें, "कितले सकाळीं पावल्यांत मगे आमी हांगा...."

"आयचे सकाळींच पावल्यांत मगे?

ताणें धुवेक म्हळें, "आगो सामकें बारीक जालां मगो तूं, कांय खायना काय कितें गो?"

हांवें मनांत म्हळें, मोठें आसा हें दाखोवपाक एका वयर एक कपडे घाले म्हूण दोतोराक कळपाचें रावता?

हांवें सांगलें, "दोतोर जोर येता ताका."

"थंड उदक पियेता आसतलें फ्रिजांतलें. ना जाल्यार आयस्क्रीमी खाता आसतलें."

हांवें म्हळें, "केन्नाय पिता-खाता."

"हें पळय ताका तें दिवंनाका, उदक गरम करून दी..."

"आयकच ना म्हणटकच केन्ना केन्ना दिवचें पडटा."

"तुमी आवयोच चड वाट लायतात भुरग्यांची... एकदांचीं ओगी रावुंदी म्हूण दितात तांकां मागता तें... हें पळय थंडी आसा ताका... तेलाचें दिवनाका, चड गोड दिवनाका. भाज्ज्यो भरपूर खावय..."

म्हाका मनांत मात्शें बरें दिसलें. इतलो तेप हाका मोठे करपाचें यत्न करतालें. ताणें कितें खावपाचें तें डॉक्टरान आयज सांगिल्लें, म्हणटगीर म्हज्या माथ्यावेलो भार मात्सो कमी जाल्लो. प्रत्येक आवयक आपलो भुरगो मोठो गुबगुबीत जावचो अशें सदांच दिसता. दोतोरान सांगतकच मागीर तागेलें वजन देवोवपाक कितल्योच उठाबशी आवय-बापायकय भुरग्यां वांगडा काडच्यो पडल्यार उपकरता.

दोतोरान दिल्लें रशेद घेवन आमी भायर आयलीं. ते बायलेक, "देव बरें करूं..." अशें म्हणपाक हांव तिका सोदपाक लागलें. पूण ती खंयच दिसली ना. आनी मागीर कोणाकडल्यान तरी म्हाका कळ्ळें, आयजूय ती बायल बेजारून परत घरा गेल्ली. मनाक चुरचुरे पडले, पूण कांयच करपाक



शकनासलें. आमी थंयच्यान घरा परतलीं.

म्हजें लक्ष आतां घरांतल्या कामांत गुंथलेलें.

पूण हांगा धुवेच्या विचारांचें चक्र सुरू जाल्लें. ताणें हळूच म्हाका विचाल्लें...

"मम्मा डॉक्टरान म्हाका कितलेंशेंच कितें कितें खाव नाका म्हूण सांगलां मगे, तशें जाल्यार हांवें खावपाचें तरी कितें? भाजयो म्हूण कितल्योतरी खावपाच्यो गे? म्हाका जाल्यार दोनूच भाज्ज्यो आवडटात..."

"कितें तरी खावपाचें गे...?" होच प्रस्न सद्या सगळ्या संवसाराचो जाला.

'भेसळ' हें उतर आयकून तर जीव सामको विटला. दुदांत भेसळ, खावपाच्या वस्तुनी भेसळ, उदक नितळ जावपाक वखद, शेतां पिकोवपाक वखद, भाजयो व्हड जावपाक वखद, सगळ्याक वखद आनी वखद... हें सगळें वखद आमी खातात आनी पियेतात अशें लोक म्हणटात. तें कितलें खरें आसा तें भेसळ करप्यांकूच चड बरे खबर आसतलें. भेसळ ही कितें आताच जावपाक लागल्या अशें न्हय, आदींय जाताली. दूद विकपी दुदांत उदक घालतालो, तीय एके तरेची भेसळूच. तें उदक तरी निवळ आसतालें काय कोण जाणा... कड्डणांनी आमकां खंय तरी एकादो गुणो-फातर मेळटालो, तेन्ना आमी म्हणटालीं, वजन वाडोवपाक हें केलां. तो फातर वेंचून भायर तरी मारपाक मेळटालो.

बरेच फावट आमी म्हणटात आमचे कुडीक करीत ती संवय लागता. अशें आसलें तरीय वीख पियेवन कुडीक संवय लावया अशें म्हणपाची पिशेंपणां कोण करचो ना. हळुहळू हे भेसळीचे परिणाम आमचे कुडीचेर जावपाक लागतले. एकफावट टी. वी.चेर एक बातमी दाखयली. तातूंत एका शेतकाराक (दुदी) भाजयेचो आकार वाडोवपी इंजेक्शन तोंपतना पळोवन दुसऱ्यान विचाल्लें, "आरे हे भाजयेक इंजेक्शन कित्याक तोपता तूं?"

ताणें जाप दिली, "तशें केलेंना जाल्यार आमचीं भुरगीं कितें खातलीं? बेगोबेग पयशे मेळोवपाक म्हूण आमी हें करतात..." आयकून आंगार कांटो उबो रावलो.

मळ्यांतल्या भाज्ज्यांमदीं भेसळ करून, तांकां विखारी इंजेसांवां तोंपून तो आपल्या भुरग्या - बाळांचें पोट भरपाक सोदता. पूण हें करतना तो, आपलीं तशींच हेरांचींय भुरगीं, हाचो विचार करिना. केन्नातरी हेरांनी केल्ली भेसळ आपल्या भुरग्यांच्या पोटांत वचचिना कित्यावेल्यान हाचेंय ताका पडिल्लें नासता.

अशेतरेन दर एकलो जर आपले परतोच विचार करपाक लागलो जाल्यार केन्नातरी तो स्वत:च्याच पांयाचेर कुराड मारून घेतलो हें निश्चीत. अशावेळार मागीर दोतोरांच्या दारांचेर जात्रेवरी गर्दीच दिश्टी पडची ना जाल्यार आनीक कितें...?



– सुनीता जय नायक
भाटलें-गोंय.
फोन : ९४२२४४४२१९

# रांदची कूड



Sponsored By :

Chef Fernando's Nostalgia RAIA-GOA

## चॉकलेट केक

**साहित्य :** २ तातयां, १०० ग्राम मैदा, १५ ग्राम कोको, पाव ल्हान कुलेर बेकींग पावडर, १२० ग्राम साखर, ८० ग्राम मार्गारीन नाजाल्यार बटर, थोडें दूद.

**करपाची तरा :** मैदा, बेकींग पावडर आनी कोको एकठांय करून तीन वेळां बारीक चाळणीत चाळचें. मार्गारीन आनी साखर एकजीव जायसर फेटून घालचें. मागीर एक तातीं फेटून ह्या मार्गारीन साखरिच्या मिश्रणांत घालचें. मागीर तातूंत थोडो थोडो मैदो घालून फेटून घेवचें. मागीर दुसरें तातीं फेटून ह्या मिश्रणांत घालचें थोडो थोडो मैदो घालून बरें फेटचें. घट्ट जाल्यार थोडें दूद घालपाचें. केक पात्राक तूप लावन तातूंत हें मिश्रण घालचें. ओव्हानात १२० डी. चेर ३० मि. दवरचें.
(टीप : ओव्हन (OTG) वापरतना सदांच पयले प्रिहीट करून घेवचें.)

## स्पॉंज केक

**साहित्य :** ४ तातयां, २ वाटयो मैदा, २ वाटयो साखर, देड कुलेर लिंबाची किसलेली साल, २ ल्हान कुलेरां तूप.

**करपाची तरा :** बरो घट्ट जायमेरेन तातयांचो धवो भाग फेसून घेवचो. मागीर हळदुव्या भागात साकर घालून फेटची. ह्या भागांत हळुहळू मैदा घासून चाळत रावचें. धव्या भागांत लिंबाची साल घालून चाळची.

मागीर हे दोनूय भाग एक करून बरे चाळचे. हें मिश्रण तूप लायिल्ल्या केक पात्रांत घालून, ओव्हनांत १८० डी. चेर २५ ते ३० मि. दवरचें.
(टीप : ओव्हन (OTG) वापरतना सदांच पयले प्रिहीट करून घेवचें.)

## ब्रेड पुडींग

**साहित्य :** १० ब्रेडच्यो स्लायसी, १ वाटी किसलेलें गोड, ३ तातयां, १ कुलेर केशर, अर्द व्हड कुलेर वेलचेचो पिठो, अर्द वाटी काजुचे कुडके, २ कप दूद.

**करपाची तरा :** ब्रेडच्या स्लायसीच्यो कडो काडच्यो. थोड्या दुदान केशर घोळून घेवचें. तातयां बरीं फेटून घेवचीं. उरिल्ल्या दुदांत गोड, केशर, काजू कुडके, वेलचे पिठो घालून धवळचें. मागीर तातयांचें मिश्रण घालून बरें एक जीव करचें.

एका कुकराच्या आयदनांत ह्यो ब्रेडच्यो स्लायसी दवरच्यो. ताचेर हें मिश्रण ओतून घेवचें. हें आयदन कुकरान दवरून ७-८ शिटी काडच्यो. थंड करून खावपाक दिवचें.

## दॉस

**साहित्य :** १/२ किलो चण्याची दाळ, २ नाल्लांची सोय, १ किलो साकर, ३ व्हडलीं कुलेरां तूप, वेलचेचो पिठो.

**करपाची तरा :** चण्या दाळ बरी शिजयात. सोय बरी बारीक वाटून घेयात. चण्या दाळूय उदक घालनासतना बारीक वाटून घेयात. वाटिल्ली नाल्लांची सोय, बारीक वाटिल्ली चण्या दाळ आनी साकर एकठांय करात. तातूंत वेलचेचो पिठो आनी तूप घालात. हें मिश्रण एका दाट तोपांत नाजाल्यार नॉनस्टीक आयदनांत घालून घट जायसर धवळीत रावात. एक फावट तोपाच्या कडांतले सुटूक लागलें म्हणटगीर हें मिश्रण एका ताटांत घालून ताची तुमकां जाय त्या आकाराचीं कापां करात.

## धोदोल

**साहित्य :** ४ नाल्लांची सोय, ५०० ग्राम तांदळांचें पीठ, १ किलो गोड, ५० ग्राम काजुचे कुडके.

**करपाची तरा :** बरो दाट नाल्लाचो रोस काडात, तीन लिटर अदमासान. थोड्या नाल्लाच्या रोसांत हें तांदळांचें पीठ घोळून बरें रांदनीचेर आटोवन घेयात. गोड आनी रुची पुरतें मीठ घालून धवळीत रावात. थोड्या वेळान उरिल्लो नाल्लाचो रोस घालून घट जायसर आटोवन घेयात. एका ताटाक तूप लावन हें मिश्रण ताटांत ओतून ताचेर बियां कुडके लावचे. थंड जातगीर कापां करून खावचीं.

## बेबीन्का

**साहित्य :** ५०० मिली. नाल्लांचो दाट रोस, ४०० ग्राम साकर, १० तातयां, १०० ग्राम मैदा, १२५ ग्राम तूप, १ व्हड कुलेर जायफळाचो पिठो, मीठ.

**करपाची तरा :** साकर, नाल्लाच्या रोसांत एक जीव करून घेवची. तातूंत मागीर तातयांचो हळदुवो भाग एक एक करून घालून बरें चाळून घेवचें. एका आयदनाक तूप लावन तातूंत हें मिश्रण एक कप ओतून घेयात. हें आयदन १५ मिं. बेक करात. परत ताचेर तुपाचो एक थर लायात परतून एक कप मिश्रण घालात आनी परतून १५ मि. बेक करात. अशे ६-७ फावटीं करात. थंड करून, खावपाक दिवचें.

■ ■ ■




– रिना साईश लवंदे
कळंगूट – गोंय
फोन : २२७६२९४

# तैवानाक भांगरा मोर

'आय कान्ट लिव्ह विदाऊट यू' ह्या तैवानी चित्रपटाक उत्कृष्ट चित्रपटाखातीरचो सुवर्णमयुर पुरस्कार भेटयतना राज्यपाल एस. एस. सिद्धू.

तैवानाच्या 'आय कान्ट लिव्ह विदावट यू' चित्रपटाक ४०व्या आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांत मानाचो भांगरा मोर फावो जालो.

लियोन दायन दिग्दर्शीत केल्ल्या ह्या चित्रपटाक भांगरा मोरा वांगडा ४० लाखांचें रोख इनाम राज्यपाल डॉ. एस. एस. सिध्दूचे हस्तुकीं भेटयलें. कोरियन चित्रपट 'अ ब्रँड न्यू लायफा'ची दिग्दर्शक ओनी लिकोम्तेक उत्कृश्ट दिग्दर्शनाचो रुप्या मोर आनी १५ लाखांचें रोख इनाम फावो जालें जाल्यार ज्यॉर्जीयन चित्रपट 'द अदर बँक' चित्रपटाचे दिग्दर्शक जॉर्ज ऑवाश्विलीक परिक्षकांचो खासा रुप्या मोर आनी १५ लाखांचें इनाम फावो जालें.

दक्षिणेंतले नामनेचे चित्रपट अभिनेते मामुटी, हिंदी चित्रपट सृश्टीचे नामनेचे कलाकार जॅकी श्रॉफ, रती अग्नीहोत्री, केंद्रीय राज्य म्हायती आनी प्रसार मंत्री एस जगतरक्षकन, मुख्यमंत्री दिगंबर कामत आनी हेरांचे हाजिरेंत काल समारोप सुवाळो जालो.

भारतीय हरशीं वेगळ्यो भासो उलोवं, मात चित्रपटां कडेन पावतकच आमी फकत मानवी भावनांची भास उलयतात अशें मत मामुटीन उक्तायलें.

भारतीय चित्रपट ह्या खिणाक तंत्रीक नदरेंतल्यान संवसारीक पावंड्यार फाटीं आसलो तरीय आंतरराष्ट्रीय मळार ताचेर भासाभास जाता. भारतीय चित्रपट एक दीस संवसारीक चित्रपटाचेर शेक गाजयतलो असो हावेस तांणी उक्तायलो.

गोंयांत फिल्म सिटी स्थापन करपाविशीं आतां गंभिरतायेन विचार जावप गरजेचो अशें मत राज्यपाल डॉ. एस. एस. सिध्दून उक्तायलें.

गोंयांत खूब चित्रपटांचें शुटींग जाता. गोंयांत फिल्म सिटी स्थापन जाली जाल्यार इफ्फी खातीर ती फायदेशीर थारतली अशें ताणी सांगलें.

केंद्रीय राज्य म्हायती आनी प्रसारण मंत्री एस जगतरक्षकन तशेंच मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचींय ह्या वेळार उलोवपां जालीं.



# 'पलतडचो मनीस' चित्रपटान इंडियन पॅनोरमाचो प्रारंभ

४० व्या आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांत इंडियन पॅनोरमा विभागाचें उद्घाटन गोंयकार दिग्दर्शक लक्ष्मीकांत शेटगांवकार हांच्या 'पलतडचो मनीस' ह्या चित्रपटान जालो. लक्ष्मीकांत शेटगांवकार हाणी दिग्दर्शीत केल्लो आनी एन एफ डीसीन निर्माण केल्लो पलतडचो मनीस हो अत्यंत आशयघन चित्रपट. गोंयचे सामाजिक स्थितीचें अत्यंत विदारक तितलेंच काळजाक स्पर्श करपी चित्रण ह्या चित्रपटांत पळोवंक मेळटा.

ह्या चित्रपटाक ह्या वर्साचो टोरांटो आंतर राष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांत, हाँगकाँग एशियन फिल्मोत्सवांत, कैरो चित्रपट महोत्सवांत, मुंबय फिल्मोत्सव ०९ आनी बर्लीन आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव ०९ हातूंत वेगवेगळे पुरस्कार लाबल्यात.

गोंयच्या सैमीक सुंदरायेचें चित्रण ह्या चित्रपटांत पळोवंक मेळटा वास्तववादी छायाचित्रण आनी अभिनय हाका लागून हो चित्रपट खूब प्रभावी जाला.





मानवी मुल्यांचेंच अखेर जैत जाता हो संदेश दिवपी हो चित्रपट म्हळ्यार गोंयच्या चित्रपट संस्कृतायेचो मैलाचो फातर. ह्या चित्रपटाच्या यशाक लागून गोंयांत चित्रपट सस्कृताय रुजल्या म्हणपाचें सिध्द जावंक लागलां.

उत्कृश्ट सिनेमेटोग्राफी, अभिनय, दिग्दर्शन, गोंयचें सैम, ताचेर जावपी आघात, लोकांच्यो अंधश्रध्दा, ह्या सगळ्यांचेर हावी जावपी मनीसपण आनी अन्यायाक उबगून शेवटाक ह्या मनश्याकच फाट करपी लक्ष्मीकांत शेटगांवकाराचो पलतडचो मनीस....

इंडियन पॅनोरमाची सुरवात कोंकणी चित्रपटान जावप ही गोंयकारांखातीर एक गर्वाची गजाल. इफ्फी गोंयांत कित्या खातीर म्हणपी लोकांनीं पलतडचो मनीस पळोवंचो. जापो आपशीच मेळटल्यो. मात हे जापेंतय प्रस्न आसा हें खुद्द शेटगांवकारान मान्य केलां. कितलेशेच नवे प्रस्न खुद्द ताणें मांडल्यात. पूण पलतडचो मनीस ही नक्कीच सुंदर सुरवात आसा म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

चित्रपटाचो विशय पर्यावरण, अंधश्रध्दा ह्या सगळ्यांक हुपून निमणे मनीसपणाचेर येवन रावता. गोंयच्या गांवांतल्या रानांत आशिल्लो एक सादोसुदो फॉरेस्ट गार्ड, विनायक. रानां सांबाळपाचो ताचो यत्न. मात सगळे सरकारी कायदे आनी नेम हुंपून रानांतल्या टेकडेचेर लोकांच्या श्रध्देंतल्यान उबारता एक देवूळ. प्रस्न श्रध्देचो वा देवळाचो ना. मात ताचो पुरेपूर उपेग करून आपले राजकीय हेत सादपी राजकारणी हांचें एक हुबेहूब चित्र ह्या चित्रपटांतल्यान मांडटा.

देवळाच्या बांदकामाच्या आडोसा फाटल्यान सायल्याचीं झाडां मारपी सरपंचाचे लोक आनी हाचेर आक्षेप घेवपी विनायक. मात काणी हांगां सोंपना. हे काणयेक खरे मनीसपणाचें रूप दिता ती हे काणयेंतली ती पिशी बायल. विणा जामकाराच्या उत्कृश्ट अभिनयांतल्यान फकत 'नाका' हें उतर तुमच्या काळजाक पीळ घालता. ती आनी कांयच उलयना. मात तिचें मोनेंपण सगळें कितें उलयता.

हे पिशे बायलेक लागीं करपी विनायक, तांचे मदले संबंद आनी त्या संबंदांतल्यान जल्माक आयिल्लें बाळक. हरशीं ह्या सगळ्यांचें कोणाक पडून वचचें नाशिल्लें. मात सरपंचाच्या मनशाक सायल चोरतना पळयतकच जेन्ना विनायक ताका अटक करता तेन्ना सरपंचाक उस्तुरें येता. विनायकाच्या वयर आशिल्ल्या ताच्या अधिकाऱ्यांक रानांतल्या रानवटी जनावरांच्या बळीक पडिल्ले लोकांचें कांयच ना. मात सरपंचाच्या मनशाचे वाटेक वचनाका हें सांगपाक तो विसरना. आनी निमणे ह्या सगळ्यांचेर हावी जाता ती लोकांची अंधश्रध्दा आनी ताचें भांडवल करपी राजकारणी.

खुंटये पुरीस कौल दिता देवाचो जागो भश्टल्ल्याचो. एक मोने, निराधार बायलेक मदतीचो हात दिवपी विनायक खिणां भितर अधर्मी जाता. आपले ते बायले वांगडा लग्न लावन दिता काय म्हूण भटाक विचारिल्ले कडेन तो भट तूं जाग्यार ना म्हूण थंयच्यान वता आनी त्याच भटाच्या आंगांत देव भितर सरून विनायकाक गांवांतल्यान भायर काडपाचो सल्लो दिता.

एके वटेन पालखी आनी देवाच्या नांवाचो जल्लोश आनी दुसरे वटेन स्वताक धार्मीक मानपी लोक विनायकाचें घर उध्वस्त करून ते बायलेक आनी ल्हान बाळकाक घरा भायर धांवडावन घालतात. विनायक सैरभैर जाता. मात दोन दिसांनीं बायलेक आनी भुरग्यांक सुखरूप पळोवन तो गांव आनी रानाक जोडपी पुलच मोडून उडयता. विनायकाचें आनी गांवाचें नातें तुट्टा खरें मात तो मेरेन हो चित्रपट लोकां कडेन मनीसपणाचें नातें जोडून वता.

चित्ररंजन गिरी आनी विणा जामकर ह्या बिगर कोंकणी कलाकारांसयत प्रशांती तळपणकार, वसंत जोसलकार, दीपक आमोणकार आनी हेर थळाव्या कलाकारांच्या अभिनयाची उंचाय आनी महाबळेश्वर सैलाची काणी आनी लक्ष्मीकांत शेटगांवकाराच्या दिग्दर्शनाचो सुमेळ पलतडच्या मनशाक तुमच्या काळजाच्या लागीं हाडले बगर रावना.




# डायरी-ए-काश्मीर

आमच्या घरची भटी संस्कृताय, हांव एरंड कसो वाडलों, चार बुकां शिकलों, चार गांव भोवलों तरी म्हाका सोडूंक तयार नाशिल्ली. घरांत मटन-चिकन केन्ना शिजलेंना. हांव गजाल करतां ती भुरगेपणातंली. म्हजो बापूय तातयां लेगीत खांय नाशिल्लो. नुस्तेंय हाडटाले तें बारीक. ते पासत मातशें व्हडलें नुसते आसल्यार हांव खावंपाक विटेतालों, अजून विटेतां.

काळाप्रमाण घरांत लग्न जावन वेगळे संस्कृतायेंतलीं मनशां आयलीं. तांचे लगाडीक पडून म्हजे कांय भाव चिकन, मटन खावंक शिकले. घरांत चिकनमटण शिजूंक लागलें. हांव मात अनवाळोच उल्लों. तशें चुकून, खबर नासून खालांय हांवें मांस. पूण मागीर विटलां. जाच्या गांवांत दिवसपट्टीं धुकरां कापतात, जाच्या गांवचीं च्योरिसा संवसारभर फामाद त्या आगशी गांवांत जल्मून लेगीत हांव मांस पळोवन विटतालों.

काश्मीर तर मुस्लीम राज्य. थंय हॉटेलांनी कितें शिजता देवाक खबर! म्हाका कितें खावंक मेळटलें हाची कांय कल्पना नाशिल्ली. सकाळीं ब्रेकफास्ट घेवंक आमी भायर सरिल्लीं. सकाळ कसली कपलाची? दनपार जायत आयिल्ली. आमी ब्रेकफास्ट करून दल सरोवरांत सैर करपाचीं आशिल्लीं. म्हणटकच चलूनच वचप बरें अशें आमच्या सांगात्यांनी म्हणिल्लें. कुकी तर भूक भूक करतालो. आझाद आनी मन्सूर, दिलीपजी आप क्या खायेंगे, क्या खायेंगे म्हणत म्हजो जीव खाताले. पूण खावंक खंय वचपाचें तें सांगनाशिल्ले.

ताणीं आमकां श्रीनगराच्या बाजार वाठारात व्हेले. बाजारांत भितर सरलां मात थंयच्यान पळ काडचो अशें दिसलें. बाजार कसलो? बसस्टॅन्डा लागचीच एक गल्ली ती. दोनूय वाटांनीं दुकानां. चडशीं दुकानां मटनाचीं. चिकन, मटन सगळें आशिल्लें. व्हडलीं व्हडलीं पेंगटां लांबतालीं. एक विचित्रसो हरवंस दर्प सगळ्याक पातळिल्लो. असल्या ह्या वातावरणांत हांव कितें मडें खातलों? हांगच्यान दुसरे कडेन या म्हणपाकूय भिरांत. भुकेन खासावीस जाल्ले म्हजे वांगडचे हेर जीव म्हजे आंगार कच्च करून येवपाची भिरांत आशिल्ली. ते व्हरतात थंय तांचे फाटल्यान ओडत वचून मेळटा तें खावपांतूच शाणपण आशिल्लें.

पूण कुकीकूच तो वाठार आवडलो ना. ताणें थंय नाका म्हणटकच आमी दल सरोवरावटेन आमचें येरें घुंवडायलें. आमी चलत चलत दल सरोवराच्या काठावेल्यान चलताले. जें दल सरोवर आमी सिनेमानी आयजवयर पळयल्लें ते शेकान शेक आमच्या दोळ्यांसामकार पातळिल्लें. ह्याच सरोवराची भोंवडी आमी आज करपाचीं आशिल्लीं. पूण पयलीं पोटपूजा केल्या उपरांतूच.

हांव जलामळाक नदर भोंवडायतूच चलतालों. भूक लागिल्ली खरी, पूण काश्मीर पळोवपाची भूक त्याय परस व्हडली आशिल्ली.

आमी जंयसून आयिल्लीं आतां ती सुवात दल सरोवराक तेंकूनच. अहमदाचें हॉटेल सोडून चलत सरोवराकडेन येवं येता. येवं येता कितें? चलतूच येवपाचें तें! गाडी व्हरतलो खंय आनी दवरतले खंय?

हॉटेलाकडच्यान दल सरोवराकडेन वचपा खातीर एक पूल लागतालो. तो हुपून

दावे वटेन देंवकतकच दल सरोवराची वाट. उजवे वटेन गेल्यार तो बसस्टॅन्ड. जंय आतांच आमी गेल्लीं. ज्या पुलावेल्यान पूल हुपून आमी आयिल्लीं, तो पूल म्हळ्यार सामको आमचो पाटो पूल. आमचो सांकळयो पाटो पूल मात्सो कुबड आयिल्लेवरी आर्क कसो. हो हांगचो पूल सपाट. पाटो पुलाचें बांदकाम वेगळे पद्धतीचें. ताका मदीं खांबे नांत. हें बांदकाम अशें जातूंत फातर एकमेकांत अशे गुंतल्यात की त्या फातरांचे विणेंतूच त्या पुलाचें तोलप निंबून आसा.

ह्या पाटो पुलाकडल्यान रस्तो हॉटेल सोना कडल्यान मुखार कोर्तीन वता. पूण ह्या पुलाकडल्या कोर्तिनच्या वाटेन देंवतना जी फूटपाथ लागता, जी कोर्त दे ओयरें लागता तातूंत आनी काश्मीरच्या ह्या पुलांत फरक ना. खीणभर कोणाकूय दिसतलें आपूण कोर्त दे ओयरें पावलां. वो काश्मीरच्या त्या पुलाकडेन पावलां. जर कोर्त दे ओयरेंची ती खाडी सरळ व्हांवनासतना ताचें मुखार सरून तळें जाल्लें जाल्यार दल सरोवर आनी हे सुवातेंत फरक दिसचोना आशिल्लो. हॉटेल सोना पासून मेरी इमाक्युलेट, पिपल्स हायस्कूल बी आसा थंय मेरेन जशें दिसता तशेंच हांगा दिसतालें. फूटपाथूय तशेच. कितलें सारकेंपण आशिल्लें वाठाराक. कमतरता ती मात पिपल्साकडेन मुखार खाडी तितलीच उरता. तीच जर वाडून मुखार लांब रूंद सरोवर आशिल्लें आनी तातूंत हाऊस बोटी, शिकारे अशिल्ले जाल्यार हीच सुवात काश्मीरच्या दलासरोवराची प्रतिकृती अशें कोणाच्यानूय म्हणूं येतालें.

थोडी वाट चलून गेल्या उपरांत आमकां जॉनसाबाच्या भाच्याचें दुकान लागलें. हांगा प्रत्येकाचें नातें मामा-भाच्याचें. जाणटो आसलो जाल्यार तो मामा आनी भुरगो आसा तो भाचो. कसो भाचो, खंयचे भायणीचो चलो? कितल्यो भयणी? ह्या गजालींक हांगा अर्थ ना. जाणां जावंक



गेलो जाल्यार पडलोच त्रासांत. ते परस मामा भाचे म्हणूनच तांचे कडेन पळोवप आनी तांच्या नात्याक दुवो मागप हेंच आमच्या सारख्यांक फायद्याचें अशिल्लें.

जॉनाच्या भाच्याच्या दुकानालागींच एक गुजराती रेस्टारंट आशिल्लें. गुजराती म्हणटकच हांव खुश. कारण गुजराती तातयांक लेगीत आफडनात. काश्मीरच्या गुजरात्यांचें खबर नाशिल्लें. थळ काळाप्रमाणे ते कितेंय खावंक शिकल्याय आसत. पूण धंद्यांत फटींगपणां नांत. दुडवांकडेन फटींगपणा चलत पूण शिवराका बाबतींत ना. शिवराक म्हणजे शिवराक. हांव निश्चिंतपणान थंय खावंक शकतालों. गुजरात्यांच्या जेवणाचो खुन्नस आसुनय!

म्हजें गुजरात्यांनी कसलें घोडें मारूंक ना. पूण हांव मुंबय पंदरा दीस एका गुजरात्याकडेन रावलां. रावपूय कसलें? हांव म्हळ्यार तांचो देव. जाणट्यां बायलांपासून ल्हान भुरगीं लेगीत म्हाका कितें खावोवं आनी कितें नाका हाची सर्त लावन बशिल्लीं. तें गोड गोड खाण खावन हांव पिसो जावपाकडेन पाविल्लों. जेवण म्हणटनाच म्हाका ढवळून येतालें. नाका म्हणपाची माणसुकी नाशिल्ली. अक्षरशा जबरदस्ती करतालीं. तो त्या जेवणाचो सुवाद, ती गोडसाण, तो दुदाचो वास. ह्या वासानूच तकली फोडटाली. तो वास त्या घरच्या बायलांक लेगीत येतालो. तेच पासत उप्रांत हांव गुजराती चलयां बायलांकडेन लेगीत लागीं वचना आशिल्लों. म्हाका अहमदाबादच्यान अमिता दवे म्हूण एक चली दिसाक एक पत्र धाडटाली. तें पत्र आयलें म्हणटकच त्या पत्रांक त्या जेवणाचो वास मारता अशें म्हाका बेठेंच दिसूंक लागतालें!

पूण आतां गुजराती म्हणटकच हांव निश्चिंत जाल्लों. व्हडल्या आरिश्टा परस ल्हान अरिश्ट सुखाचें म्हणटात तें फट न्हय.

त्या गुजराती हॉटेलांत बऱ्यो इडली बी खावन हांव घटमूठ जालों. कामिनीन कितें तरी उप्पीट मागयल्लें. तें खावन ताणें तातूंत मेळिल्ल्या फातरां खातीर आनी न्हिविल्ले च्या खातीर पयलीं थू थू केलें आनी मागीर थंयच्या वेटरा सयत त्या हॉटेलच्या मालकाक खालो. कामिनी मुंबयचें आनी गुजराती बरें उलयता. त्यांचे संभाशण गुजरातींत चलतालें आनी तें तांचेकडेन झगडटा इतलें म्हाका कळटालें.

आमचे संताजी धनाजी आमकां थंय सोडून खंय तरी गेल्ले ते बद्द आयले आमचें

बील फारीक करूंक. बील कोणें दिवपाचें हाचेर कामिनीचें आनी तांचें एकमत जायनाशिल्लें. तितले म्हणसर हांव बील दिवन भायर सल्लों दल सरोवराकडेन वचपाक.

गोंयांत कितें वो काश्मीराक कितें! जंय जंय पर्यटन थळ आसा थंय थंय संस्कृताय एकूच. हॉटेलांतल्यान भायर सरून रस्त्यार पावल दवरलां तेन्ना सावन फाटल्यान कोण ना कोण लागतालो. प्रत्येक जाण आमकां शिकाऱ्यांत आनी हाऊस बोटींत व्हरपा खातीर आतूर आशिल्लो. आमी शिकाऱ्यांत बसना, त्या हाऊस बोटींतलो अणभव घेना जाल्यार संवसार बुडटलो असोच भोवतेक तांचो समज जाल्लो जावं येता आनी देखून ते सगळे हिचण कशे आमच्या फाटल्यान लागिल्ले. आमी मोन्यानी आझाद आनी मन्सूराकडेन बोट दाखोवन हुसक्या मेकळीं चलतालीं.

इतले मजगतीं मन्सूराक कंटाळो आयिल्लो जावंक जाय. जावंक जाय न्हय, आयिल्लोच. तो आमच्या फाटल्यान बोल्सांत हात घालून पांय ओडीत चलतालो. तोय जॉनाचो भाचो काय खबर ना. पूण जॉनान सांगलां म्हणू तो आमचे फाटल्यान रखडटालो. आझादाक गाडी चलोवंक येना आशिल्ली देखून ताका ड्रायव्हर म्हणनू सांगाताक घेतिल्लो. आतां गाडीच नाशिल्ली, म्हणटकच ड्रायव्हर कित्याक कपलाक? तेच पासत तो आझादाकडेन कितें तरी उलयलो आनी ताणें कूस माल्ली. तो खंय गेला काय विचाल्ल्यार आझादान सांगलें, तो आमचे खातीर गाडी आरांजार करूंक गेला!

आझाद दल सरोवराच्या काटा काटान फूट पाथावेल्यान आमकां व्हरतालो. आमी काश्मीराक आशिल्लीं. दल सरोवराच्या काठावेल्यान आमी भोवतालीं. पूण शिकारे वाले, हाऊसबोटवाले दादले सोडल्यार थंय सगळे पर्यटकूच. तांका पळोवन आमी काश्मीराक पावल्यात अशें दिसच नाशिल्लें.

त्या शिकाऱ्यावाल्यांनीं घाल्ल्या काबायांक लागून आनी मुखावेलें दल सरोवर, तांतले शिकारे आनी हाऊस बोटी पळोवन आमी खरेंच काश्मीराकूच आसात अशें आमकां पटोवन घेवंचें पडटालें. पुराय दल सरोवराचो वाठार पर्यटकांनी आपल्या नांवार केल्लो.

तरीय अदीं मदीं एखाद्री काश्मीरची ललना हाऊसबोटीवेल्यान व्हडें घेवन कसल्या ना कसल्या कामाक तडीक येताली. केन्ना भुरग्यांक पावंक तर केन्ना कितेंय सामान हाडूंक व्हरूंक. तांकां अशीं व्हडीं ताणटना पळोवन एक अजापूच कशें दिसतालें. व्हडें ताणोवंक तांची ती फिशालकाय म्हळ्यार एक अप्रुप गजाल आशिल्ली. जाण्टीं नेण्टींच न्हय, माणकुलीं भुरगीं लेगीत व्हडें घेवन एकट्यानूच आलतड पलतड मारतालीं. सायकली घेवन रस्त्यार ओल्तां मारचीं तशीं.

आझाद आमकां घेवन एका शिकाऱ्या कडेन गेलो. तांचे भाशेंत ताचेकडेन कितें तरी उलयलो. तो आमकां दल सरोवरांत भोंवडावपा खातीर शिकारो मोलायता म्हणपाचें म्हाका कळटालें. आतां पर्यटन थळ म्हणटकच दराची घासाघीस आसतालीच. पूण थंय सरकारान वराक अमूक म्हणून दर थारायला जाल्यार मागीर घासाघीस ती कसली? फटींगपणा काय आसचिंना. थारावन दिल्ल्या दरान भोंवडावन हाडप हें तांचें काम. आतां आपल्याकूच गिरायक मेळचें म्हणून दाम अदीक उणें करप हें सगळे कडेन चलताच.

आमकां कोणें फटोवपाची शक्यताय नाशिल्ली. कित्याक आमचे वांगडा थळावो मनीस आशिल्लो. तोय गिरायक दिवन आपलें कमिशन सोडोवपी न्हय तर आपल्या बोल्सांतल्यान दुडू मोडून आमकां दल सरोवराची सैर करूंक आमचे वांगडा आयिल्लो. तांच्या उलोवपांत दखल दिवपाची आमकां गरज नाशिल्ली. तरीपूण तांच्या नाड्यार आमी कित्याक फोल्गां मारपाचीं? तेच पासत तो शिकारो वराक कितले दाम घेता हें जाणां जावन घेवप आनी फारीक करिना जाल्यार जाणविकाय दवरप म्हणून हांवेंच ताका दर विचाल्लो.



तर आझाद म्हणूक लागलो, छोडिये वो हमारा चाचाजी है!

जावं सायबा, हांगा चाचाय आसात तर! म्हाका दिशिल्ले काश्मीर म्हळ्यार मामा भाच्याचें साम्राज्य म्हूण!

खरें म्हळ्यार आझादाक आमकां दीसभर दल सरोवरांत भोंवंडावपाचें अशिल्लें. तसो ताका ताच्या मामान म्हळ्यार जॉनसाबान आदेश दिल्लो. तो आदेश पाळपा खातीरच तो आमकां सांगतालो, कल पुरा दिन घुमेंगे. आज सीर्फ थोडा घुमेंगे. आमकां दीसभर त्या शिकाऱ्यांत कितें करपाचें आशिल्लें? एक आदेसूच खूब जाल्लो. भायर वत सामकें रखरखाचें. म्हळें, आयच्या दिसाच दल सरोवराचे सफरीचो अणभव घेवया. आनीक एक दीस घालोवपांत अर्थ ना.

आझादान ताचेकडेन कितलो दर थारायल्लो खबर ना. पूण ताचो चाचा आमकां भोंवडावंपाक तयार जालो आनी आमी ताच्या शिकाऱ्याचो ताबो घेतलो.

श्रीनगरांतलो आमचो हो पयलोच दीस आशिल्लो. आमी कशे पद्धतीन काश्मीराची भोंवडी करप, खंय खंय वचप हाची कसलीच आखणी आमचे कडेन नाशिल्ली. आमी पुराय जॉन आनी ताच्या मनशांचेर आदारून आशिल्लीं. हांगा या थंय या अशेंय सांगूंक शकनाशिल्लीं. ताणी ह्या पंदरा दिसांचो कितें कार्यक्रम आखला, हाचीय आमकां कल्पना नाशिल्ली. तातूंत ह्या शोपिया प्रकरणाक लागून नाय म्हळ्यार थोडी आडखळ आयिल्लीच. वेळकाळ, प्रसंग पळोवन आमीय तांकां सहकार्य करपाची गरज आशिल्ली. तांचे कडल्यान सुखांच घेवपाचो न्हय तर तांच्या दुख्खांतूय आमकां वांटेकार जावपाचें आशिल्लें.

हांव जेन्ना आमचो भारत हो एक देश म्हूण पळयतां तरी तो एक राज्यांचो चोमो. एका देशाचे नागरीक जावनूय आमकां कांय राज्यांतल्या लोकांची भासूय कळना. आमी काश्मीर हो आमच्या देशाचो घटक म्हणटात. थंय दक्षिणेकडल्या केरळ राज्याकूय आमी आमच्या देशाचो घटक मानतात. तेय भारतीय आनी हांवूय भारतीय. म्हजो जितलो ह्या देशाचेर हक्क आसा तितलोच तांचोय आसा. पूण ते कितें सांगूक सोदतात तें म्हाका कळना आनी हांव कितें सांगतां तें तांकां होलमोना. ते खातीर आमकां इंग्लेज जावं हिंदीचो आदार घेवंचो पडटा. तातूंत तर थोड्यांक हिंदीच कळना जिका आमी राष्ट्रभाषा मानल्या आनी परकी भास जाल्ल्यान इंग्लिशय कळना. तरी आमी एकमेकाकडेन भारतीय म्हण संपर्क दवरतात. एक मेकाक समजून घेतात. आनी अशें अर्दकुटें समजूनच आमी नेटान म्हणटात, हम सब एक है!

आझाद काश्मीरी भाशेंतल्यान त्या शिकारोवाल्या चाचाकडेन कितें उलयल्लो तें म्हाका कळूंक नाशिल्लें पूण अदमास काडूं येतालो.

तो शिकारोवालो हो आझाद आनी कंपनीचे मर्जीतलो नाशिल्लो. जाका कोणाक ताणीं सांगिल्लें तो आमकां येवंक कळाव जाल्ल्यान आपल्या कामाक गेल्लो.

आमकां पुराय एक दीस दल सरोवरांत भोंवडावण हाडपाचो तांचो मनोदय आशिल्लो. पूण पयलीं गाडी सोदूंक भोंव, मागीर आनीक कितें हाका लागून सकाळ गेल्ली. आतां दनपार सरिल्ली. दनपारचीं दोन जाल्लीं. वतूय रखरखतालें आनी आमकां जरी दल सरोवर नवें अशिल्लें आनी पळोवपाची उमेद आशिल्ली तरी तितलीशी मनाची तयारी नाशिल्ली. आझादाचेंय वेळापत्रक थोडें बिगडील्लें. आनी ताका जाय तो शिकारेवाला नाशिल्लो. तेन्ना ताणेंच म्हळें, आमी फक्त एक वरभर सरोवरांतल्यान सफर करूया आनी मागीर फाल्यां सकाळफुडें येवन पुराय दीस ह्या सरोवरांत घालोवया.

त्या शिकाऱ्यावाल्यान आमकां सरोवरांत अशेऽ भोंवडायल्ल्यावरीं केलें. ताकाय आमच्या सारख्यांचें गिरायक व्हडलेंशें फायद्याचें दिसूंक ना जावंये. वर भरचे आर्दीच आमकां तडीक हाडून पावयले.

दल सरोवर हे श्रीनगराचेंच न्हय तर पुराय काश्मीराचें भूशण. तें अशें उबगल्ल्या मनान, थकिल्ल्या शरिरान उपभोगपाचें म्हाका नाशिल्लें. दल सरोवराची मजा घेतलो जाल्यार पयलें मन प्रसन्न आसूंक जाय हें म्हाकाय कळून आयिल्लें. फाल्यां पुराय दीस दल सरोवरांत भोवपाचें आसा अशें म्हणत ताणीं आमकां हॉटेलार हाडून सोडलीं. आमकांय तेंच जाय आशिल्लें. अजून मेरेन तशे आमी फ्रेश जावंक पावूंक नाशिल्लीं. काश्मीराची सुंदराय तोखेतलो जाल्यार पयलीं मन फ्रेश करपाची गरज आशिल्ली. दल सरोवराच्या उदकावरी.

क्रमशा:

– दिलीप बोरकार
आगशी–गोंय



भलायकी

# एच. आय्. व्ही / एड्स

एक डिसेंबर ह्या दिसा (संवसारीक एड्स दीस) मनयतात. एड्स दुयेंस खूब वर्सांपासून जगांत आसा. सगळ्यांत पयलीं १९८१ सालांत अमेरिकेंत समलिंगी संबंद दवरणाऱ्या मनशांत हें दुयेंस सापडिल्लें. तशेंच भारतांत १९८६ सालांत आनी गोंयांत १९८७ सालांत हें दुयेंस पयलेच खेप सापडलें.

## एच. आय. व्ही. विशाणूचो संसर्ग कसो जाता.

एच. आय. व्ही. विशाणूचो प्रसार रगत, वीर्य आनी योनीमार्गांतल्यान जावं येता.

- एच. आय. व्ही आशिल्ल्या मनशाबरोबर लैंगीक संबंद दवल्ले जाल्यार.
- एच. आय. व्हीची लागण आशिल्ल्या मनशाचें रगत जर खंयच्याय दुसऱ्या मनशाक दिलें जाल्यार.
- जंतूनाश करूंक नाशिल्ल्या सुयांचो, ब्लेडींचो वा हेर उपकरणांचो वापर केलो जाल्यार.
- गुरुवारपणांत एच. आय. व्हीची लागण आशिल्ल्या आवयकडल्यानं आपल्या भुरग्याक जावं येता.

एच. आय. व्हीचे विशाणू कुडींत प्रवेश करतकच ३-४ आठवड्यांनी त्या मनशाक जोर, आंग दुखप, ताळो दुखप अशीं लक्षणां दिसतात. हीं लक्षणां ३-४ दिसांनीं कमी जातात आनी फुडलीं थोडीं वर्सां तो मनीस सामको बरो उरता. त्या रोगाची कसलींच लक्षणां ताका आसनात. म्हूण हें दुयेंस एके कुडींतल्यान दुसरे कुडींत पसरत आसता. ह्या वेळांत पूण एच. आय. व्हीचे विशाणू कुडीचेर वायट परिणाम करीत आसता जेणे करून मनशाची रोग प्रतिकार शक्त कमी जायत आसता आनी आतां ताका ह्या दुयेंसाची लक्षणां दिसूंक लागतात.

## एड्साची लक्षणां अशीं आसतात

- एका म्हयन्यावयर जोर येत रावप.
- मनशाचें वजन कमी जायत रावप.
- एका म्हयन्यावयर पातळ परसाकडे जावप
- खोकली येवप, कातीचेर विकार जावप, क्षयरोग जावप, मेंदवाचे विकार, तरे-तरेचे कर्करोग, अशी ५-१० वर्सां उपरांत मनशाची रोग प्रतिकार शक्ती कमी जाता आनी आतां त्या मनशाक एड्स हें दुयेंस जालां म्हणटात.

एकदां एच. आय. व्ही दुयेंस आपले कुडींत शिरलें की तें ताका आयुश्यभर उरता. हें दुयेंस आपल्याक जावचें न्हय म्हूण प्रत्येकान काळजी घेवची ती अशी -

१) सुरक्षीत लैंगीक संबंद दवरप.
२) एका परस चड मनशाकडेन लैंगीक संबंद दवरचो न्हय.
३) कंडोम वापरचो.
४) गुप्तरोग वा लैंगीक संबंदांतल्यान जाल्ल्या दुयेंसाचेर रोखडोच उपाय करचो.
५) रगत दिवच्या पयलीं, ताची योग्य तपासणी करची.
६) सुयो आनी हेर शस्त्रां वापरच्या पयलीं जंतूनाश करून घेवचें.
७) गुरवार बायलांनी आपल्या एच. आय. व्हीची रक्त तपासणी करून घेवची.

एच. आय. व्ही दुयेंसाची तपासणी आतां खूबशा सरकारी आरोग्य केंद्रांचेर करतात. जर मनशाक हें दुयेंस जावपाचो दुबाव आसा जाल्यार ताणें ह्या केंद्रांचेर वचून तपासून घेवचें. ह्या केंद्रांचेर एच. आय. व्ही दुयेंसाचेर मार्गदर्शन आनी तपासणी करतात. ह्या दुयेंसाचो निकाल फक्त त्याच मनशाक सांगतात. ताच्या घरचे बायलेक/घोवाक सुद्दां सांगनात. तशेंच त्या मनशान दोतोराक सुध्दां सांगपाचें काय ना तें आपणेंच थारावपाचें आसता.

एच. आय. व्ही. ही टेस्ट जर नेगेटीव आसली जाल्यार ती स म्हयन्या उपरांत परतून करून घेवची. पूण जर ही टेस्ट पोझीटीव आसली जाल्यार गोवा वैजकीय महाविद्यालय, बांबोळे हांगा ए. आर. टी. सेंटर आसा थंय वचून मेळचें. ह्या सेंटराचेर एक रगत तपासणी करतात जाका सी. डी. फॉर काऊंट म्हणटात. हो सी. डी. फॉर काऊन्ट कितलो आसा ते प्रमाण ताचेर वखदां सुरू करतात. हाका एन्टी रेट्रावायरल थेरपी म्हणटात. हीं वखदां जर सारकीं दोतोराच्या सांगण्या प्रमाण घेत जाल्यार ह्या एच. आय. व्ही. जाल्ल्या मनशाचें आयुश्य सहज वाडूंक शकता. पयलीं जो आमचो समज आशिल्लो की एच. आय. व्ही जातकच मनीस एक-दोन वर्सांनीं मरतलो, तो समज आतां बदलचो पडलो. कारण ए.आर.टी. हीं वखदां घेतकच मनशाचें आयूश्य १०-१५ वर्सां वा चडूच वाडूंक शकता. फक्त दोतोर सांगतात त्या सल्ल्या प्रमाणे हीं वखदां सदांच चालू दवरचीं पडटा. तशेंच दोतोराच्या सांगण्या प्रमाण योग्य त्यो तपासण्यो करून घेवच्यो. अशें केल्ल्यान ह्या मनशाचें फक्त आयुश्य वाडटा अशें न्हय. पूण ताच्या आयुश्याचो दर्जो वाडटा आनी तो हेर मनशांबशेन ह्या समाजांत सहज वावरूंक शकता.



■ ■ ■


- डॉ. वंदना धुमे
फोन :९८२२५८५२८५



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

## आडवे

१. 'दी वॉल' भारतीय क्रिकेट खेळगडी

५. हिन्दू वर्साचो सातवो म्हयनो

७. आमच्या राष्ट्रगीताची सुरवात ह्या उतरान जाता

८. धिटाय, नेट

९. वण्टीक भितर केल्ली ल्हानशी आरमार

११. जेवण-खाण दवरपाची वस्त.

१३. आपले मावशेचो पूत

१५. दोन देशांमदली शीम

१७. तराजू

१८. रूच, सुवाद

१९. भायलें, परकी

२०. व्याकरणांत कारक अर्थ, हातूंत उतर सातवे विभक्तींत आसता.

२१. खरें म्हळ्यार, खरें घडणें

२२. मस्ती

२३. चोरी करपी

२४. एक आनी तीन

२५. यादस्तीक लागून बांदता तो पुतळो बी (मराठी)

२७. अतीश्रमान आंगातल्यान देंवता तो

२८. समाचार, खबर

२९. दियागो ह्ह्ह्ह्-अर्जेंटीनाचो एक फामाद फुटबॉल खेळगडी

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | २ | | | ३ | ४ | ■ | ५ | | ६ |
| ७ | | ■ | ■ | ८ | | ■ | | ■ | |
| ९ | | १० | | ■ | ■ | ११ | | १२ | |
| | ■ | | ■ | १३ | | | | | ■ |
| ■ | १४ | | | | ■ | ■ | १५ | | १६ |
| १७ | | | ■ | ■ | १८ | १८-अ | ■ | १९ | |
| ■ | | ■ | २० | | | | | ■ | |
| २१ | | | | ■ | २२ | | ■ | २३ | |
| २४ | | ■ | २५ | २६ | | ■ | २७ | | ■ |
| | ■ | २८ | | | ■ | २९ | | | |

## उबे

१. राजाली धूव

२. वोत, सूर्याचो उजवाड

३. करणी, नेमाप्रमाण केल्ली करणी, ४-भंय (हिन्दी)

५. मदर टंग (भास), मातृभाषा

६. दोळे (मराठी)

१०. आगगाडी, ट्रेन (हिन्दी)

११. तांदळांतलो वा फोवांतलो भाताकण

१२. जायथंय वा जाय ताचेकडेन थारवप

१३. मुसांचें घर

१४. न्हेसपाचें लुगट, चड करून घरांत न्हेसपाचें

१६. राजसभा

१८. गडी, लटाफट (मराठी), लायटर

१८-अ. गणपती देवता

२०. अचानक, अवचीत

२१. चड बडबडपी, बडबडो

२३. चाडयाळो, कुसां लावपी

२६. एक तरेचो इस्पीकांचो खेळ

२७. मळबांत उंच उडपी, घोण

### दिवाळी उतर कुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| स | व | का | स | ■ | अ | मो | ल | ■ | आ |
| वा | त | ड | ■ | ■ | धि | टा | य | ■ | का |
| य | ■ | प | स | र | का | र | ■ | बू | श |
| शी | त | ■ | त्य | ■ | धी | ■ | स | ■ | वा |
| ण | ■ | ■ | ना | ट | क | ■ | मां | ड | णी |
| ■ | स | त | रा | ■ | ■ | गी | त | ■ | ■ |
| मा | ड | ■ | य | त्न | ■ | त | र | सा | द |
| ■ | पा | शा | ण | ■ | क्र | क | ■ | व | र |
| शी | त | ल | ■ | क | स | र | ■ | धा | ■ |
| म | ळ | ■ | पा | ल | व | ■ | ज़ | न | क |

# सनातनी हुंकार



सनातन संस्था, सनातनवाल्यांचो वावर हाचेर मंथन चलतना कोणेतरी म्हळें, साधक जावन जीं गोंयचीं बायलां, चलयो सनातनवाल्यांच्या जाळांत फारावल्यांत तांका तातुंतल्यान भायर काडपाची गरज आसा.

हें सांगपी आमच्या गोंयचोच एक विचारवंत. रासवळ मळार वावुरपी! रासवळ मळार आसलो तरी आनी विचारवंत म्हूण ताचो छाप समाजमनार आसलो तरी शेवटी तो एक मनीस आनी तातले तातूंत दादलोमनीस.

हांव सद्या एका निर्णयाचेर पावलां की मनीस वैचारीक नदरेन कितलोय वयर पावूं, ताणें जिवीत, ब्रह्म, आनी हेर साबार विशयांचेर केदेंय व्हडलें तत्वगिन्यान जगाक सांगू, शेवटाक ताची विचारशक्त बोंबले सकयलूच येवन थारतली.

समाजांतल्या चडशा लोकांची, म्हळ्यार ९९ टक्के लोकांची विचारसरणी रामाची. कृष्णाची न्हय. राम आपले एकपतीव्रता बायलेचेर दुबाव घेवन तिका घरांतल्यान भायर काडूंक शकता. मागीर तो दुबाव ताणें घेवंक नाशिल्लो, लोकानी घेतिल्लो आनी एका राजाक लोकमताचो आदर हो करचोच पडटा अशी मखलाशी मागीर रामभक्तानी करूं! गुरवार बायलेक रानांत एकटी सोडप हें खंयच्याच दादल्याक सोबना आनी असल्यो करण्यो करप्याक माफीय ना. तो देव आसलो तरीय!

त्या मानान कृष्ण बरो! ताणें जीवनाचो खरो अर्थ तर्जून पळयलो. मनशाक जीवन हें एकदांच मेळटा आनी त्या जीवनात दरेक मनशाक आपल्यो सगळ्यो इत्सा पूर्ण करून घेवपाचो अधिकार आसा हाचें भान ताणें बाळगिलें. गरजेभायर आपूण देव अश्या भ्रमात रावलो ना तर मनीस कुळयेक दिव्यत्वाचो स्पर्श जावंचो म्हूण करणी करीत रावपाचो मंत्र ताणें दिलो.

कृष्णाच्यो खूबश्यो आख्यायिका आसात. पूण म्हाका ताच्या हेर करण्यापरस चड गरजेची अशी दिसता ती ताची मानवी जीवनाविशींचे गरजेची विचारसरणी. श्रीकृष्णाक चार पांच बायलो आशिल्ल्यो. ताचेर गोपिका जीव हुवाळून उडयताल्यो. कृष्ण आशिल्लोच तसो. कोणेंय जीव हुवाळून उडोवचो असो. तांचेकडेन ताचो शारीरीक संबंद येतालो काय कितें खबर ना! दोन-अडेच हजार वर्सांच्या काळांत कृष्णाविशीं समाज जीवनात इतल्यो ह्यो आख्यायिका आसात की खरें फट तो कृष्णच जाणां!

खंयच्याय दादलो बायलेचे संबंद हे उक्ताडार चार-चौगांमदीं घडनांत. घडटात आसले तरी ते आडसाकूच घडटात. ते घडल्यात म्हणपाचो कोणाकडेन पुरावो नासता. पूण लोकांचे कल्पनेंत हे संबंद रंगतात आनी खंयच्याय पुराव्या परस चड शक्त ह्या काल्पनिक रंगोवपात आसता.

कृष्णाचे गोपिकांकडेन संबंद हेय अशेच काल्पनिक. प्रत्यक्षांत घडचे परस लोकांचे कल्पनेंत रंगल्ले. कृष्णाचे गोपिकांकडेन आशिल्ल्या संबंदांत वासना नाशिल्ली. आशिल्ली ती माया ममता अशें म्हाका दिसता.

श्रीकृष्णाक सोळा हजार बायलो आशिल्ल्यो. त्यो ताच्यो लग्नाच्यो बायलो न्हय. ताणें तांका समाजांत मानाचें स्थान दिवपाखातीर दिल्लो घोवपणाचो अधिकार. ह्यो कंसान बंदिस्त केल्ल्यो बायलो. तांची सुटका श्रीकृष्णान केली. आयज लेगीत घरची बायल एक रात भायर उल्ल्यार तिचेविशीं कितें उलयतात तें आमी आयकलां. अडेच हजार वर्सां आदीं बायलांची अवतिकाय कितें आसतली हाची कल्पनाच केल्ली बरी. कंसाचे बंदखणीत आशिल्ल्या बायलांक खंयचो घोव घरांत घेतलो? असल्या उबंत बायलांक समाजांत मानान भोंवपा खातीर श्रीकृष्णान तांका उक्तो परवानोच दिल्लो. आपलें नांव सांगपाचो. केदी व्हडली वट आशिल्ली जावंक जाय त्या काळार श्रीकृष्णाची! उबंत पडिल्ले हांतले एकलेतरी बायलेकडेन वायट नदरेन पळोवपाची गजाल सोडाच, वायट उतर म्हणपाची कोणाक कापस्ताद आशिल्ली? पूण आमची कापस्ताद मात इतलीच, आमच्या देवान सोळा हजार बायलो केल्ल्यो मरे, आमी दोन केल्यार कितें जालें अशें वाळवो पेचीत म्हणपाचें!

हेंवूय घडणुकेत कितलें सत आसा हाचीय म्हाका कल्पना ना. पूण एक गजाल सामकी खरी आसूंक जाय अशें म्हाका दिसता ती कुब्जेविशीं :

कृष्णाक मेळूंक सगळ्यो सुंदर बायलो येताल्यो. सुंदर बायलांक कोणाचेंय दार उक्ते आसता. तांचेकडेन वळख करपाक दरेक दादलो आंवडेता. पूण कुब्जा तर जन्मताच अष्टवाकूड. कुरूप. तिका आयिल्लें कुबड. ते खातीर तिणें मान वयर करून केन्ना मळब पळयलेंच ना. मळबाचो निळो रंग तिच्या दोळ्यांनीं केन्ना अणभवलोच ना.

अष्टवाकूड, कुरूप आसली तरी ती एक बायलमनीस आशिल्ली. तिच्याय भितर वेगवेगळ्यो भावना आशिल्ल्यो. तिच्याय भितर फळपाची तांक आशिल्ली. सैम मनशाक भायल्यान कुरूप करता आसलो तरी सगळ्या मानवी धर्माबाबतींत भितल्ल्यान सुस्वरूपच दवरता. कुरूप आसल्यारूय तांचेच मर्दी वसता खंयचेय सुंदर अस्तुरे इतलीच नवनिर्मणेची गडद इत्सा. तातुंतल्यानच तिचेभितर तयार जाल्ली आसता एके मादयेची गरज आनी नरस्पर्शाची ओड.

कुब्जेक श्रीकृष्णाच्या दर्शनाची ओड लागता. आपल्याक तो मेळटलोच अशी तिका खात्री आसता. एकदीस सांजवेळार वाटेर तिका कृष्ण मेळटा. कृष्ण तिका सांगता आपूण तुगेर येतां. आनी कृष्ण वताय बी! कुब्जा कृष्णाक पुरायेन मेळटा. केन्नाच मळबाचें दर्शन घडूंक नाशिल्ले कुब्जेक मळबाचें दर्शन घडटा आनी मळबाचो रंग निळो आसता हाची तिका जाणविकाय जाता!

श्रीकृष्णाची ही गजाल सांगपा फाटलो तसो खास उद्देश्य नासलो, तरी कंसाचे बंदखणीत आशिल्ल्यो तेन्नाच्यो सोळा हजार बायलो आनी आतांच्यो बायलो हातूंत तसो व्हडलोसो फरक ना. कंसान त्या काळार ह्या बायलांक जबरदस्तीन उखलून व्हरून बंदखणीत दवरिल्ल्यो. पूण समाजान ह्या बायलांक कायमची बंदखणीत दवरिल्ली आसा. आदलीच्या काळार शिक्षणाचो अभाव, बायलांक

समानताय मेळूंक जाय ह्या विचाराचो अभाव, पुरूशप्रधान संस्कृतायेचें प्राबल्य अश्या खुबश्या गजालींक लागून ही बंदखण घडटाली अशें मानलें जाल्यार लेगीत आयज हातुंतली एक्कूय गजाल नासुनय बायलांक ही सामाजिक बंदखण कित्याक भोगची पडटा?

चली जल्माक आयल्यार आजूय बऱ्याबऱ्यांचें तोंड वांकडें जाता. चलो आनी चली हातूंत फरक ना म्हणपी लेगीत कोणागेरूय फकत चलयोच आसल्यार ताका चलो ना रे? अशें विचारता. बेटी, खजानेकी पेटी अशें आपल्या भाशणांत म्हणपी घराकडेन येतकच आपल्याक चलीच जाली हें आयकून बायलेक खेपता.

चली भुरगें ल्हान आसासर तें कोणाय वांगडा खेळूंक शकता. पूण जशें ती चली निर्मितीक्षम जाता तेन्ना तिचेर बंधना येवंक लागतात. तिचो लग्नाआदीं कोणाकडेन शाररिक संबंद येवंक फावना म्हूण आवय बापूय तिका जपता. हो शाररिक संबंद सैमाची गरज आसता. नवनिर्मणेखातीर. सैमान आपले नेम केल्ले आसतात. मनशानी आपले. सैम आपल्या नेमाप्रमाण चलता. ह्या नेमाची ताकत आवय-बापायक आनी समाजाक खबर आसता. तेच पासत समाज, आवय-बापूय आपले नेम खर करता.

चली वयांत आयली म्हणटकच आवय-बापूय लग्न करून उडयता. तांकां लग्नाची घाई लागता. चली नाका जाल्या म्हूण न्हय. ती घरात आसची अशें तांका दिसता. पूण सैम रावना. काळ सरचे पयलीं धुवेक उजोवचें अशीच घाई लागता सगळ्यांक. थोडे लोक मेळटा ताच्या गळ्यांत धुवेक बांदून उडयतात. कितेंय वाकडें घडलें जाल्यार आपल्या नांवाक काळें लागूंक नाका. कितें करता तें मागीर घोवा घरा वचून कर अशें सांगून.

हे असले मानसिकतायेंत चलयेची जीण सोपून वता. दरेक चलयेचीं सुंदर सपनां आसतात. तांच्यो स्वताच्यो अश्यो गरजो आसतात, आवडी आसतात. पूण अडेच्यो गजाली ह्या चलयांचीं सपनां पिसडून उडयतात.

एखाद्रे चलयेक कलेची आवड आसता. तिका चित्रकार, कवी, गायक बी आपलो वांगडी जाय आसता. पूण तो गरीब आसता, तो वेगळ्या धर्माचो, जातीचो आसता. आवय-बापायक, सोयऱ्या धायऱ्यांक तें पसंत नासता. कित्याक तांचें नातेसंबंद उंचल्या स्तरार जोडपाचीं तांचींय सपनां आसतात. त्या दबावाक लागून चली आपली इत्सा मारता. तडजोड करता. घरच्यांनी आपले दर्जाप्रमाण जो कोण सोदून काडिल्लो आसता ताचे फाटल्यान वता. निर्मणेच्या आकर्शणान पयले कांय म्हयने उमेदीन सरतात. भुरगें जालें, एकदांचो तो भार देंवलो म्हणटकच चली जावं चलो मूळ पदार येता.

शारीरीक आकर्शण, कामभावना ह्यो गजाली खिणयाळ्यो आसतात. हो संचारीभाव. स्थायीभाव न्हय. संचारीभाव संचारून मागीर ना जावन वता. स्थायीभाव सतत आपले भितर वसता. तोच भाव जीवनाचें सत्य. जीवन खूब व्हड आसता आनी एकदांच मेळपी आसता. आपल्या मनासारकें जीवन जर जगूंक मेळना जाल्यार मनीस उबगता. तो आपलो जीव खेळयता आसलो तरी त्या जगपांत पूर्ण आनंद नासता. आंगार बरीं दोन भुरगीं खेळ्ळीं म्हळ्यार ती तृप्तताय नासता. आंगभर भांगर घालून रासवळ मळार घोवा वांगडा मिरयलें म्हळ्यार तें सूख नासता. आपल्या मनाची तरल भावना, सपनांत भोविल्लीं तीं आंगावेलीं मोरपाखां मनांत खंयतरी घर करून आसतात. लोकांचे नदरेन सगळें सूख दारांत आसलें तरी ही मोरपाखांची ओड खंयतरी सुप्त मनात आसता. कांय ओडी अश्यो आसतात ज्यो पुराय जाले बगर जीवनाक परीपूर्णताय येना. तेच पासत मागीर चलो जावं चली भटकत आसता.

चल्याखातीर वो दादल्याखातीर पयलींय बंधनां नाशिल्लीं आनी आतांय नांत. बायलमनीस मात अजूनय हजार बंधनांत बांदून आसा.

बायलमनीस खंयच्याच आपल्या आवडीच्या दादल्या वांगडा उलोवंक शकना, ताचे वांगडा कांय खीण सारूंक शकना. लोकांचे विचार जे सतत बोंबले सकयलूच चलतात तांची आडखळ ह्या असल्या स्वातंत्र्याक बाधा हाडटात. हेच बाधेक लागून दादलो एके बायले वांगडा रात सारूंक शकना. नांव पिड्ड्यार जावपाचे भिरांतेक लागून. बायलमनीस आपल्या आवडीच्या हेर दादल्यांवांगडा थोडो वेळ सारूंक शकना. आपलो घोव कितलोय सोशल आनी सुशिक्षीत आसलो तरी ताका तें आवडचेंना असो तिका भंय आसता. दादल्यान दुसऱ्या दादल्यावांगडा एक रात रूमांत काडल्यार तांचेविशीं कोण उलयना. तातुंतलो एकलो कोणूय होमो आसल्यार लेगीत. दोन बायलां एकठांय रावल्यांत तांतली एखाद्री लेस्बीयन आसूं येता असो विचार त्या बायलांच्या घोवांक, धुवांच्या आवय-बापायक येना. पूण आपल्या सपनांतल्या राजकुंवरा वांगडा वो राजकुंवरी वांगडा कांय खीण सारून आपलें जीवन सुखमय करतलों असो कोणेंय विचार करीत जाल्यार मात आमचो समाज तांच्या पायांक हजार मणांच्यो बेडयो घालता.

हाका लागून मागीर बायलमनीस सोदता कांय वाटो. जंय कोण कोणाचो दुबाव घेवंचोना. जंय वचूंक मुक्त मान्यताय आसतली आनी आपल्या मनांत रंगयल्लें जीवन सारपाक मेळटलें. कोणाच्या आडखळी विरयत. हांगा खंयची बायलमनीस वो दादलो फक्त शारीरीक सूख घेवपा खातीरूच वता अशें न्हय. ही गजाल गौण आसता. ही गजाल, ते फाटली भावना प्रखर जाता ती सैमीक निर्मितीची ओड लागता तेन्नाच. निर्मिती कार्य सोंपलें म्हणटकच त्या खिणापुरतें सगळे जिणेक शिथिलता येता. पूण मनाक येना. मनुश्यप्राण्याचें चोविसूय वरां मन ह्याच विशया भोंवतणी जरी घुंवत आसलें तरी चोविसूय वरां कोण हीच गजाल करीत आसता अशें न्हय.

मनशाक शारिरीक भुके वांगडा हेर कांय मानसिक भुकोय आसतात. शारिरीक भूक खंयीय शमन जावं येता. पूण मानसीक भूक भागोवपी दुर्मिळ आसतात. हांच्याच सोदाक मागीर भटकंती सुरू जाता. ती सुरू जाली म्हणटकच तरातरांचे दबाव सगळेवाटेन येत आसतात. तातुंतल्यान मार्ग काडीत मागीर सोदासोद सुरू जाता. हांगा मेळत थंय मेळत म्हूण सोदप सुरू जालें म्हणटकच खंयतरी आपल्या अतृप्त आत्म्याचो हुंकार सापडटा. जो कोण हो हुंकार सोदपाचो यत्न करिना तो कुथनत आपलें जीवन सारता. जो सोदता ताका मात सांपडटा हो हुंकार. तोच हुंकार सोदपा खातीर सुरू जाल्ली ही भटकंती सनातना सारख्या कांय संधीसाधू मेरेन वचून थारता.. फक्त थारता. पूर्ण जायना. कित्याक, सनातन अशी हीच एक गजाल. आत्म्याचो हुंकार. मागीर कोणें, कोणाक, कोणाकडच्यान मुक्त करपाचो? आत्म्याचो हुंकार जे जर समाजाक वळखूंक येना ते सर कोणूच असल्या संस्थांकडल्यान ह्या बायलांक पयस करूंक शकना!

हो हुंकार असोच... दिल हूं हूं करे, घबराये... म्हणपी

■ ■ ■

दिलीप बोरकार



# बळिश्ट दादले रक्तदान करतात



# हुशार चलयो रक्तदान करतात



# शाणे लोक रक्तदान करतात

स्वयंसेवी रक्तदात्यांनी केल्ल्या रक्तदानाक लागून लाखानी लोकांचे जीव वाचल्यात.
मुखार सरात आनी रक्तदान करात. हेरांचें जिवीत वाचोवन तुमच्या भोंवतणच्या संवसारांत बदल घडयात.
गोंय वैजकी म्हाविद्यालय–बांबोळी, हॉस्पिसीओ हॉस्पिटल–मडगांव आनी
आझिलो हॉस्पिटल–म्हापशें हांगच्या अधिकृत रक्तपेढींक रक्तदाना पासत भेट दियात.




## गोंय राज्य एडस् नियंत्रण संस्था

१ लो माळो, दयानंद स्मृती इमारत,
एस्. व्ही. रोड, पणजी–गोंय ४०३००१
दूरध्वनी क्र. (०८३२) २४२७२८६/२४२१३८१
Website: http://www.goasacs.nic.in




Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Sahyadri Offset Systems, Corlim, Goa. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in